पुस्तकाचे फाटले वटेन एक शिल्पाकृती दिल्या. शिल्पांत तीन जोतिशी बुद्धभगवानाची आवय राणी महामाया हिका पडिल्ल्या सपनाचो अर्थ राजा शुद्धोधनाक सांगतात अशें दाखयलां. शिल्पाचे सकयले वटेन एक बरोवपी तें सांगप बरोवन घेता. भारतांतले लेखनकलेची ही अशें तरेची सगळ्यांत पुर्विल्ली नोंद आसूंये.

नागार्जुनकोंडा, दुसरो शेंकडो, इसवी.
नॅशनल म्युझियम, नवी दिल्ली हांच्या बरेपणान.

# काणी जाली चली

बरोवपी
यशवंत चित्ताल

अणकारपी
मेलवीन रोड्रिग्ज



साहित्य अकादेमी

KANI JALI CHALI (काणी जाली चली):
Konkani translation by Melwyn Rodrigues of
Yashwant Chittal's Award winning short stories Katheyadalu Hudugi
Sahitya Akademi, New Delhi (1995), Rs.Fifty Five


First Edition: 1995

**Published by:**
Sahitya Akademi

**Head Office:**
Rabindra Bhavan, 35, Ferozeshah Road, New Delhi 110 001

**Sales Department:**
Basement in 'Swati', Mandir Marg, New Delhi 110 001

**Regional Offices:**
172, M.M.G.S. Marg, Dadar (East), Bombay 400 014
Jeevan Tara, 23A/44X, Diamond Harbour Road, Calcutta 700053
Guna, 304-305, Anna Salai, Teynampet, Madras 600 018
ADA Rangamandira, 109, J.C. Road, Bangalore 560 002

ISBN 81-7201-871-1

मोल: 55 रुपया

**Printed by:**
J.B. Moraes, 13 Ritz, Convent View, Chembur, Bombay - 400 071

# मांडावळ

# 'काणी जाली चली'

ही कन्नडाच्या कथाकारांपयकी एकलो जावनासच्या यशवंत चित्तालाचो चवतो कथांघोस. कृत्येथावन कृत्येक विजमीत करच्या जिनसार वाडल्ल्या ह्या लेखकाच्या चेतनशील प्रतिभेचो दाखलो हांगा आसा.

चित्तालाकच विशिश्ट जाल्लया - "चित्तालपणाची म्होर पडल्ल्या" - ताच्या कथाकुशेलपणाचो एक पांवडो 'संदर्शन', 'आबोलीन' हांतूं रूप जोडून 'खेळ' काणयेंत उंचायेक पावल्लो. उपरांतल्या काळार उबजाल्ल्यो हांगाच्यो काणयों ताच्या बरपाच्या आनयेक महत्वाच्या पांवड्याची सुरवात दाकयतात.

दाट अनभोगाच्या कणांतले कण धरूंक आशेंवची संकीर्णता तशेंच जिव्या भोगणांनी जलमोन येंवची सांकेतिकता हांच्या सांगाताच चित्तालाच्या प्रयत्नांचें शेत बोव विस्तारल्लें दिसच्या ह्या काणयांनी नमुन्यावार, थोड्या विशयांनी कन्नडाकच नवे जाल्ले प्रयोग दिसतात.

समकाळाच्या जिविताक - ताच्या सामाजीक, सांस्कृतीक समस्यांच्या धख्याक - विशेस करून पडसादची गतीशील संवेदना, वेग्यानीक मनशापणवादांत गुंडायेक पाळां देंववन जिवितादीश्ट आनी कलाप्रज्ञा - हें सकड एक करून बांदल्ल्या ह्या 'काळकोशांनी' चडपडोन आसचीं मनशास्वातंत्र्यविशिंतलीं, मनशासंबंद आनी सृश्टीशीळतीविशिंतली जिवी प्रज्ञा, सर्जनशील कल्पकता आनी चिंतनांनी दिश्टीक पडच्या मनशासाध्यतेंनी फुलचें सांगाताच जिविताच्या अनंत मिस्तेरांविशीं विजमितकाय भरल्लो मोग आसचें मन एक, हांगा काम करते आसा.

कन्नड कथासंसारांत 'खेळ'बरी, 'काणी जाली चली' सयत एक चडीत बळवंत, महत्वाची कृती.

- डॉ. शांतीनाथ देसायी

# म्हजीं उतरां

मोटवी कथा म्हाका भोव पसंदेचें सृष्टी माध्यम. मोगान, उमेदीन बरयिल्ल्या हांगाच्या काणयांक त्यो बरयल्ल्या वेळाकाळाप्रमाणेच मांडून दवरल्यात. 1963 तितल्या फाटी बरयल्ली 'थाले आनी चावी' ही एक काणी सोडल्यार उरल्ल्यो काणयो 1970 च्या दशकांत बरयल्ल्योच 'उद्धार' तशेच 'चक्रव्यूह'-1973; 'मुखामुखी'-1976 'अश्वत्थाम'-1977. 'त्रयोदश पुराण' तशेच 'काणी जाली चली'-1978; 'काणयेत आयल्ल्यान ....'-1979. आकरची काणी म्हजे बरपावळिची नवी घुंवडी दाकयता म्हण समजलां.

काणयाद्वारी सांगोक आशेल्ले काणयानीच सांगजे, तांचो अर्थ, संसाराच्यो जायत्यो साध्यता वाचप्यांच्या सर्जनशील प्रतिक्रियानीच नीज जायजे म्हळळी पातयेणी म्हजी. तसली एक प्रतिक्रिया दाखल करच्या सांगाता काणयांनी प्रवेस जाच्याक उपकारचे तसली 'पयली उतरां' बरयिल्ल्या एस. दिवाकर तशेच (ह्या पयल्या छाप्याच्या) प्रकाशनाची जवाबदारी घेतल्ल्या सुमतीद्र नाडिग हांचो दोगांचो सांगातच ह्या काणयां जम्या पाटली नीज चेतनासकत. म्हज्या साहित्याविशी आदीथावन जिती उमेद, आतुराय दाकंवच्या डा. शांतिनाथ देसायन ह्या काणयां विशी आपली उमेद 'ब्लर्ब' द्वारी परगटून अणभोग देवच्या हांगाच दिश्टीक एक चौक लावयला. पुस्तकाच्या सोबायेचो दिश्टीन विशेस जागरूतकाय घेतल्ल्या इळा छापखान्याच्या श्रीमती विजाया तशेंच तिचो पूत म्हाका नव्यान लावल्लो तरनो ईश्ट गुरु, म्हजेर भारी अभिमान आसची. ह्या सभाय काळजाक लागच्यांक, परिणामकारी जाल्लो फोराचे पिंतूर सोडयल्ल्या तरनो कलाविद ईश्ट उमापती हाकांय चडीत मोगान हांगासर उगडास काडटां.

हांगाच्यो सगार काणयो लिखच्या पयले प्रेरणा दिल्ल्या ईश्ट वैएनके, बन्नंजे तशेच ईश्वरय्या हांकांय, म्हज्या आयलेवारच्या राष्ट्रीय साहित्याक चडीत प्रोत्साव दीवन रावल्ल्या शरद सावकूर, कुमार जोशी, विवेक शानभाग आनि जयत कायकिणी सकाय पयशिल्या मुंबयंत बसोन बरवच्या म्हजेलागी पत्राद्वारी तरूय संपर्क दवरन म्हाका जीवत दवरचे प्रयत्न करच्या सकड इश्टांचोय ह्या संदर्भार भरल्ल्या काळजान उगडास काडटां.

*[illegible]*

*फेब्रेर 8, 1980*

यशवंत चित्ताल

# काळीज आसचे वाटेर

*(यशवन्त चिन्नालाची 'काणी आली चली' कृती 1983 वर्साची केंद्र साहित्य अकादेमीची प्रशस्ती जोडूक पावली. ह्या संदर्भान फेब्रुवारी 21, 1984 क दिल्लींत चलल्ल्या पुरस्कार वाटच्या सुवाळ्यांत चिन्नालांनी केल्लें भाषण)*

'खंयची वाटय जांव, ती आकरेक एक वाट मात...हरयेक वाटेक आदी तिनली तजवीज करून पळे. जाता तितले सावदी परीक्षा करून पळे. उपरांत तुका, तुका एकल्याक मात एक सवाल विचार. ह वाटेक काळीज आसा? आसा तर ती बरी वाट. न्हय तर ती उपकाराक पडानातल्ली'

कारलोरा कास्टनेडच्या ह्या पंक्तिनीच सुरु करूंक कारण साहित्यीं आदर्श हावें आपणायल्ली शृद्धा - साहित्य रचन काळीज आसची वाट म्हळ्ळी म्हजी पातयेणी - हे पंक्तिंनी लिपल्या म्हळ्ळेच जावनासा.

सर्जनशील साहित्यविशितल्या आमच्या आनुरायेक मुळाव प्रचोदन कितय जांव, आमी लेखक जावन वाडची प्रक्रिया मात एका आमच्या पावड्याकुशीं तोड करन आसा म्हळ्ळें सत आमका एक ना एक दीस झळकनासात सवयीन. लेखकाचे वाडावळीक हो पांवडो म्हळयार आसपाच आपल्या सृष्टिक्रियेक प्रेरण जांवचो पांवडो. उमेद, प्रोत्साव - दोनय भितर थावनच उमताच्या 'ह बरें, मोलाचें', आनयेकल्याक आपडोंक योग्य आसल्लें आपडिनच जाल्लें म्हणून आपल्या काळजा भितरच वोप्पीग जोडची अवस्था. तसल्या अवस्थेक पावन पावताना समजणी येता: साहित्याद्वारी आमी आदींथावन बुडल्ल्याव मनीस जावन फुलचे प्रक्रियेंत म्हणोन.आयचे समाजेंत आमी मनीस जावन उगते पडोन विंचयेत जाल्ल्या जिव्या माध्यमांपयकी सीहित्यय एक आसा मात न्हय मनशान आप्ल्या जिविताचे नक्षेंत पिंतरायजेच जाल्ल्या चडींत मोलादीक संगती पयकी थोड्यो संगती साहित्या थावन मात लाबयेंत जाल्ल्यो जावनासात म्हणोन.

आमचे विंचवणेक प्रेरण खंयचें जाल्यार किते खंय? साहित्य रचन काळीज आसची वाट म्हणोन आमी शृद्धा आपणायल्ली वाट जावनासा. ती चलताना वाडल्ले दिश्टीक एक दीस झळकतलें झळकतलेंच.

सृजनशील जांवचें, मोग करचें सामर्थ्य जोडचें, मनीस जांवच समानार्थ आसच्यो प्रक्रिया म्हणोन.

सृजनशील जांवच्यांत सोलवल्लेकडे पूरा मनीस मनशाकडे सवच्या बदला ताका वापरूंक लागता. आपणाकय मनशाजातिकय, निसर्गाकय परकी जावन क्रूर जाता. साहित्याचें सामाजिक महत्व आसचें नीज जावन हांगा म्हण पातयेतां.

म्हज्यो आयलेवारच्यो चडीत काणयों - मनीस आपली हुशारगाय, मोग करचें सामर्थ्य घडयेन फाटीं जोडचें, समाजेन बांदल्लें परकीपणाचें कंदक एकदम उडोन दांटून आपल्या मनीसपणाच्या साक्षातकाराक आपणेंच जोडचीं अपूर्व सृजनात्मक खिणां चितरांवचीं प्रयत्नां आसात.

हो मोलादीक पुरस्कार दीवन म्हजो सन्मान करताना साहित्य अकादेमी नीज जावन सन्मान करता मनशाले सृजनशीलतेक, ताचे मानवीयतेक, साहितीक आसचे जीवंत काळजीक म्हणोन हांव चिंतां.

हे गौरवाखातीर अकादेमीक हांव बरपूर रिणकारी आसा. तुमकां सयत. नमस्कार.

# पयलीं उतरां

कन्नड कथासंसार गिरेस्त केल्ल्या भोव थोड्या कथाकारांमदीं यशवंत चित्तालाक प्रमुख स्थान आसा. "संदर्शन", "आबोलीन", "खोक" संग्रहांउपरांत, इकरा वरसां उपरांत आतां परगट जावची "काणी जाल्ली चली" अशा चित्तालाचे बरपावळीतली उंचायेची वाडावळ स्पश्ट दाकयता. विकासवाद, मनशास्त्र, मनाविग्यान, मार्क्सवाद - अशे नमुन्यावार शेताच्या वयचारिक शिरांन विकल्ले ताचें मन जिविताचें असंगत तोंड, तजावयचो या मनशाखमडायेचो संभव, हिंसा आनी मरणांचें अनिवार्य, जिवितांत तकली घालच्या आकस्मीक तशें सत्वांच्यामुळार झुजाऱ्याबरी झगडचें मनशावेक्तित्वाचें धृडीकरण हाच्या वाटां मुका किडयता. मानवतावादी जाल्लो चित्ताल आपल्या कथानायकांच्या सत्वच्याकय मर्याद हाड्न दिता. आमच्या गंभीर कलेनी आमी नवी जयतां जाडच्या म्हानायकाक आशेतांव, तसल्या नायकांनी आमचो भिरमेतासंसार नीज करिजे म्हणोन हट धरतांव. त्याच देकून आमच्या सपणांतले नायक आमचेबरीच मनीस जावन मनशासंयबीक बली जाताना आमकां निराशा जाता.चित्तालाच्या काणयांनी मनशान मनशाक दाकयजे जाल्लो मोगच वयर रडटा जाल्ल्यान, अनभवाच्या सतेवंतपणांत उदेवन येंवच्या अवचीत दुर्कीक मोल आसा. चित्तालाचो रागडायल्लो राग हाका नंजेहाशाचें मुस्कर आसा. भोंदतणीच्या भोवारालागी सदांय ताळ पडचे ताचे पात्र आपल्या उगतें दवरल्ल्या काळजावरवी भयानक भोगचेंय आसा. पुण हे पात्र मोग करतात, तितल्याच कळवळयांक बली जातात. जाल्ल्यान चित्तालाच्या चडतीक काणयांनी आतांचे परिस्थितीक प्रतिनिधी जावनासच गुट सगळे understatement जावनच रूप जोडटात. भोवारीची तिक्शी प्रज्ञा आसचो तो जोला या ड्रायसराबरी निसर्गावादी न्हय. खंयच्याय भितरल्या महत्वालागी बोट दाकयनासतां जिवीत तें आसल्ल्याबरी पिंतरांवचेंच वास्तववाद म्हणचें तर चित्ताला वास्तववादीय न्हय. कित्या म्हळयार ताणें धरचें सलिसायन जिरचें वास्तव न्हय; अरधें allegory जाल्लें, अरधें surrealistic जाल्लें, एकामेका विरोध पातयेणेंनी पिसुडललें, खळमितनासचें बदलावणेक बली जायजे जाल्ल्या संसाराचें वास्तव. काणयांनी वास्तव वांटो, पात्र, घडितां आपापल्या अस्थित्वांतच अर्थ जोडून वांस्तवता 'सोदून काडटात'. म्हळ्यार वास्तवता संपूर्ण बदलावणेचो ताळो आसच्या मनशाची आशा जावन चिडकान रावता. हांगासर संभवपणाक, सहज आसल्ल्याक एकच लेक अवकास आसा. हे दिशेन चित्तालाच्यो काणयो जम्याप्रज्ञा दिंवच्यासांगाताच द्वेशाथावन जिविताक पाट करून वेच्या संसारांत मोग, मऱ्याद आनी मयपासाक आशेवच्या एके व्यक्तिचें पिंतुरय जावन वेतात.चित्तालाची पाळां आसची उत्तर कन्नड जिल्ल्याच

हनेहळ्ळीत. ह्या ल्हान प्रदेशांत उदेवन येंवचे व्यक्ती शेरांतल्या जिविताच्या आधुनिक वोळयांतय पसरोन अर्थाभरीत जातात. चित्तालानीच सांगचे प्रकार ही हनेहळ्ळी एके क्रियाशील मतीच्या अनभोगाक, ताच्या वोळयाक एक स्पश्ट रूपक जावनासा.

> "उत्तर कन्नड जिल्लो, तांतल्यातांतूं म्हजो जलमागांव हनेहळ्ळी हीं, म्हज्या वांट्याक फकत भुयचीं नांवा न्हय. बदलाक, म्हज्या साहित्याच्या जलमाक कारण जावन, ताच्या चेतनाक खळनातल्लो जिणयेस्वास जावन रावल्ल्यो मुळाव्यो प्रेरक सकती जावनासात म्हण पातयेलां. म्हज्या मानसिक संसाराच्या **gestalt** - म्हळयार चिंतपाइमाजींचो रचनाविन्यासा, भोगणाचे शिल्प रचल्ल्या उत्तुमी, आब्बोलीन, गिरियण्णा, परमेश्वरी, मय्याशेट्टी, बोम्मी, एकू, बुडाणसाब हे सकड हेच भुयचे. हांवें ही हळ्ळी सोडून आतां 36 वरसां वयर जालीं जाल्यारय आतांय बोंबंयत (तितलेच कित्या, न्यूयॉरकांत) बसोन बरयल्ल्या म्हज्या सकड नवल नवलिकांनी म्हजी हनेहळ्ळी, म्हजो उत्तर कन्नड परत्या परत्यान परगट जावच्याक होच अर्थ म्हणोन समजलां ("स्पंदना - 1"; "मल्लिगे, माय **1979**)".

चडावत काणयांनी "तीन वाटो", "शिकारी" नवलांनी वयल्यावयर दिसची तिच हनेहळ्ळी आनी हे मातयेचो वास आसच्या, तिंच तिंच नांवां आसच्या पात्रांनी चित्तालाच्या बरपांक एक वोळो (continuity) दिला. अरजेंतिनाचो लेखक बोरहेस 'संसाराचो केंद्र खंयसरय ना. पुण ताची गड मात सगळ्यानय आसा" म्हणटा. चित्तालाच्या साहित्य कृतयांनी सान हनेहळ्ळी मनशासंसारा गडच पोकरन दाकयता. ताच्यो आयलेवारच्यो काणयो तरय आयच्या भारतीय जीवनाचें भंय उबजोवच्या तसले परिस्थितिची स्पश्ट पिंतुरांच जावनासात.

हे शिंकळेंतली पयली काणी "काणयेंत आयल्ल्यान घराय येवन दार बडयलें. अनभोगाची अडचणी नीज करचे प्रयतन जावनासा. साहित्य तशें जिवीत एकांत एक गश्टोंच्या, एक आनयेकांत मिसळोंच्या प्रतिक्रियेचे अडचणेविशांतली ही कथा. सगळया संग्रहांतच चडीत मोलादीक जाल्ली. काणी कोणाय एकल्यच्या जिवितांतय घडयेत जाल्ली समजणेक येवचेआदीच वायट घडलें न्हय म्हणोन कोणेय कळवळचे तसली. एके काणयेच्या जलमाक कारण जावन, बरयल्ले काणयेभितरथावनच उटोन आयल्ल्याबरी शीदा घराच येवन दार बडंवचो, परत्यान काणी जावन वेचो हांगाचो वोमू भायल्या संसाराथावन आयल्लो परकी मात न्हय, आमच्या सरवांथंय आनिकय मरनासतां जीव आसल्लो बंडायकार. नायकान बरयल्ले काणयेत भिरमतेक कारण जाल्ल्या ह्या वोमूक मजत जाय. ताणे हाड्न दिंवचे कागत कितल्याकि दिसां उपरांत फोड्न वाच्या नायकाक एकचयावटी दुकिचें किसर एक दिसता. शेबराच्याकय चडीत झोपडी आसल्ल्या एका कंपेनिचो चाळीस एकरे जागो आनयेक कंपेनी घेताना, तिच्या कामेल्यांच्या

यूनियनांत हात घाल्ल्या एका राजकारणिचो उपायच वोमुच्या दुरनाक कारण. वोमू आनी ताचो सांगाती झोपड्याभितरल्या लोकाचे भलायकेदिश्टीन तयार करची शरतांची यादी अपार्थाक बली जाता. हे यादी सागाता "झोपड्यावाल्याक जागो खाली करुंक दिल्लो वायदो चारदिसां बदला पंदरा दिसाक चडयजे" म्हण सांगचें मागणें नायकाच्या गुमानाक येवच्या भितर गुडसुलांक उजो पडटा. तातुं दोग मेले म्हळ्ळी खबरय विसतारता. मेल्ल्यांपयकी एकलो वोमू आसल्यारय आसुंकपुरो. पुण बंडायाक प्रतीक जावनासल्लो वोमू मरोंकना. आमच्या सरवांथंय जीव आसा म्हण सांगचो नायक आमचा सरवांच्या अतम्कणांक मुड्डिजे जाल्ल्या आयच्या एका समस्याविशी - "मनशापण मुकामुकी आकरेक तरय दोगां व्यक्तिंचें तोंडा मोल न्हय". ताकाय मिकवल्ल्या अर्थांभरीत जिविताविशीं म्हळ्ळें वास्तव पिंतरायता कित्याक म्हळ्यार साकर निदेत आसल्ल्या आमकां उटवन - "पळेया, हांगाच्या ह्या बणांबणांच्या कदेलाचेर पाट वोणकोन बसताना थंड उजवाडांत जलमोन येवची वास्तवता आसा न्हय, तिच थावन वेगळोच एक संसार आसा. तापच्या वोताक शिजता वोतच्या पावसाक भिजोन मुदो मुदो जाता. तुमकां येक आपवणें दिता. क्रियेक भियवन मात तकली लिपयनाकात. उण्यार, थंय एक पावटीं तरय येवन दोळे सोड्न पळया" क्रियेक गरज आसचें धयर आपापीच आंकरेता. म्हणचो वोमू 'क्रांतिकारी'. आमकां आमींच क्रियेक पाट करचेबरी जागंवचेविशिंतलो प्रतीक. तशे जाग चुकल्लेवेळार पुरा अवतारचो हो चिरंजीवी; मनशापण आसा पर्यांतय वांचून आसचो. तवळळ तवळ दोळे चुकंवक पुरो. पुण मरचोना. त्याच दकुन 'क्रांति'ची काणी आकेर नातल्ली काणी, केन्नांय 'व्हाळत' आसची म्हणोन ही काणी सादता. हे काणयेचो नायक आमचेपयकी प्रतीयेकल्याकय प्रतिनिधित्व करचो, आमी आसची स्थिती दाकंवची इमाज जाता. चित्तालांनी हांगा वापरल्ली कदळाकि वाचल्ली एका नाटकाची काणी नायकाचे परिस्थितीक आरसो धरचे तसली ही मनशापणाच्या मुखामुखीचेर, आमच्या निचेवाचेर, करनेचेर भोंवारीचो उजवाड कितलो एक नाटकीय प्रभाव फांकोंक सकता म्हळ्ळें एकदम परिणामकारी रितीन दाकवन दिता. तांत्रिक साधन जावन चित्तालान वापरल्लें रूपक दार्शनिक निश्शेचो "पिसो", "देव मेलो, कित्याक आमींच ताका जिवशी मारलें.- तुमी, हावें, सरवांनींय" म्हणच्या ह्या "पिश्याचें" रूपक मनशापणाचो प्रतीक जाल्ल्या वोमुकय, ताका वांचयजे म्हळ्ळे आमच्या सरवांच्या आशेकय समर्पक रितीन चित्रायता. आतांच्या विशयांकुशीं गुमान दीजय जाल्ल्या लेखकाच्या कश्टांसांगाताच, मुकार केदळाकि जोडयेत जाल्ले यशस्वेक आतां झुजोन आसच्या वोमू तसल्यांच्या जिविताची धारुणाय ही काणी दाखल करता. वस्त, तंत्र, निरूपण सरवांतय ऊंच आसची ही एकाप्रास चडीत व्याख्यानां आशेता म्हळ्ळेंच म्हजें चिंतप.

दुसऱ्या भागांतल्यो दोनय काणयों आमच्या आयच्या साहित्य वातावरणान रचल्ल्या थोड्या विलक्षण सिद्धांतांक सवाल जातात. दोनय काणयांनी चित्तालाकच विशिश्ट जाल्ली irony मिसळोन गेल्या. एके व्यक्तिच्या जलमाथावनच ताचें समग्र व्यक्तित्व कसलें जातलें म्हळळें निरधार करच्या ह्या काळार चित्ताला मनशाची क्रूरपणां परगट करच्यामुकांत्र नव्या एका मनशापणाक आपवणें दिता. मनीस जावन फुलजे जाल्ली व्यक्ती कशी समाज वेवस्थेच्या शोषणाक बली जाता म्हळळें कलात्मक रितीन किस्परच्यांतच हें मनशापण आसा. समाजेकुशीं केदळाय एक दोळो दवरल्लो लेखक, त्याच समाजेचे दोळे उगडची साहित्य कृती रचताना भोगजेच जाल्ल्यो अडचण्यो चित्ताल "काणी जाली चली" काणयेंत बोव मार्मिक रितीन सांगता. तशें पळेल्यार "काणी जाली चली" एक काळार एके समाजवेवस्थेचें दुरंतय व्हय. जवाबदारेन बरंवक आशेंवच्या एका संवेदनाशील लेखकाचें दुरंतय व्हय. काणयेंत तेराच वरसांचें जानकी रगताच्या कॅन्सरान मरता. मरचे आदी "म्हाका तुजे काणयेंत घाल" म्हळळी ताची आशा सुफळ करुंक वेच्या लेखकाक फुडें जातात साबार समस्या. मरण जिकच्यांतच सैगळया जिविताचो साक्षात्कार आसा म्हण समजल्ल्या लेखकाक ताचें मरण निजायकय एक दुरंत. "ह्या मरणाक ह्या दुकाक खंयचेंय सामाजिक महत्वय ना" म्हणोन बोबाटच्या साहित्यवातावरणाचे वोडीन हांगाच्या नायकान बरंवची काणी आनयेके कलपनेचो दुरंतच जाता:

> "आमच्या बुदवंतांनी आमकां सरवांक लाबयल्ली यादस्तीक दोळयांमुकार दवरनच काणी बरंवक सुरु केली. म्हाका समजोंचेआदींच जानकी हागाच्याच एका झोपड्यात जियेवचे चेडूं जावनासल्लें. बॉन्ड्रांत माहिम कोंजवे तशेच विमान बंद्राक वेचो हायवे जमच्या जाग्याच्या दोनय बगलेनी उटोन रावल्ल्या झोपड्यांच्या वरणनान काणी सुरु जावन शीदा निजायेसांगाता घश्टाता म्हळळे समाधान दीवन आसल्ले घडयेकच बरवन आसल्लो हात आपापींच रावलो. सदांय ऑफिसाक वेताना येताना दोळयांभितर उदेवन मायाग जावन आसल्लो, सदां वळकिचो हो भोवार एकदम काव्याळ जाल्ल्या गद्यांत उदेवन आपले सरवय दुरंत उगते करन दाकवन रावतानांच हांवे लागल्ल्या कामाचो अर्थ जोलो म्हळळेपरी आतांवरेग विचारिनातल्ले सवाल धुत करून फुडें जालें. ह्यासरवावर्वी हांवे जोडूंक आशेल्ले किते? दोन राती खळनासतां बसून बरयल्ली ही कृती ह्या झोपड्याखोमटांक. कितेच करिना म्हळळे कळीत आसोनय असली दुरत अवस्था सयत एके कलाकृतिचो कच्चामाल जावन वापरून कितें करून आसां?"

असले अडचणेतय कथाकार जानकीक एका झोपड्याखोमटांत चिंदी तीर न्हेसल्लें भुरगे जावन पिंतरायता. स्कूटराचेर येंवचे दोग तरनाटे खंयकि मळबावेल्या निळयांक दीश्ट लावन रावल्ल्या हे अबल कुडिचेर मोनजातिच्याकय

पाश्ट रितीर अत्याचार आधारतात. काणी नीज जावन सुरू जावची हागाच. कथाकाराक हो चिंतल्लो दुरंत वेगळयाच एका सवालाक कारण जाता. हें समाजेच्या थोड्या मानायांचे प्रतिक्रियेक संबंद जाल्लें:

> "तशें जाल्यार मेल्लें खंयच जातिचें जावन जिवशीं मारल्लें खंयचे जातिचें जाल्यार हो 'अत्याचार' महत्वभरीत जाता? 'समकालीन' साहित्याची वस्त जावची योग्यता जोडून आमी गळ्यांत जाल्ल्या दुकाक सार्थकता हाडून दितो?"

आतां फुडें जांवचें जानकीच्या वर्गाचें सवाल. तकलेंत आसल्ल्या कथा उतरांनी उदेवन येताना चसनालांतल्या खणयकामल्याची धूव जावन आसता. खणयेंत उदक रिगोन शेंबरांनी कामली जीव सोडटाना हेंच जानकी तीन म्हयन्यांच्या पाळण्यांतल्या बाळशाक राकोनच बसलां. आवय आपल्या तगा भुरग्यां सांगाता बापायक सोडुन खणयक गेल्या. स्कूटर सवारानी येवचेंच आतां. "सबदांनी उदेवन आयल्ल्या जानकीक देकल्लेंच एकाचवेळा हांसां, रडणें दोनय आयलें" म्हणच्या कथाकारान हे काणयेखातीर जोडची हागळीक इतली आनी तितली न्हय. धूव जानकीच्या मरणावर्वी दुकेस्त जाल्ल्या कथाकाराच्या बायलेक, घरा येवन बीर मारून हे काणयेच्या विशिश्टपणाचे किस्पर करच्या इश्टांक पळेवन दूक दोडतें जाता. हांगासर लांबायेक काम करची irony बायलेन उलंवच्या उतरांनी नीज मनशापणाकुशी बोट दाकयता. "तुमच्या इश्टांपयकी एकल्याकय बाळाचो उडासच येनातल्लेबरी तसली कसली काणी बरयलीकि - ताचेविशींच काणी बरयतां म्हणटल्यान? न्हय तर तुमचें इश्टच तशें कांय...उजो पडलो तुमच्या साहित्याक...हुलणवन सोडा..."

आयच्या साहित्य संसारांत अनभोग मात असली काणी रुचेंवक कारण जाता तरय, चित्तालान दुकिंचे आसरे सोदची रीत विशेस आसा. आमच्या काळाच्या उचांबळ भोंवारांत "मोग" आनिकय वांचल्लोच नीज तर, तो परगट जांवचो जिव प्रकृतीलागीं. आमचेथंयीच घर करून आसच्या क्रूरपणालागीं आमी प्रामाणिक जावन मुखामुखी जांवच्यांत. कथाकारान बायले सांगाता मेळून अनाथाश्रयाथावन ल्हान एका भुरग्याक हाडचें; ताका 'जानकी' म्हणोनच नांव दवरचें. जिविताच्या वोळयाक (continuity)गवाय जावनासा. हाका सांगात जावन काणयेचें आकेरीक येंवचो, मरण नासचो मुसकारूक, आतां रूक तशें गुलाबाझाडां काणयेचे अर्थविस्तारायेक घोळतात.

"त्रयोदश पुराण" आनयेक निरप्राध्याची दुरंत कथा. नांवच सांगचबरी हे काणयेंत वयल्यावयर येंवचो "तेरा" संखो एके अवचितकायेक कुरू जाता. हो हाताक मिरवाल्लो, जिविताचो गुट पडसादचे तसलो. "काणी जाली चली"यंतलें 'तेरा' वरसांचें जानकी आसपतरेक भरती जाल्ला 'तेराव्या' दिसाच मरता. "चक्रव्यूह" काणयेंत रूपक जावन येंवच्या महाभारताच्या अभिमन्यून मरचेय

झुजाच्या 'तेराव्या' दिसा. त्या दोनय काणयांनी कालोन येंवची ही कुरू,"त्रयोदश पुराणांत" लांबायेंक अर्थाभरीत जाता. खेमराज भवनाच्या तीन पत्त्यांपयकी दोन पत्त्यांचे संखे 6 आनी 7. दोनय कुडसिल्यार 13. ह्या भवनाच्या रूम नंबर 39 - त रांवच्या माणिंचो संखो 13. तांचे पयकी एकल्या गणेशाची प्राय सयत 13. ताणे 'अनिल कुमार' जावन रयलार पयण करचे सिटिचें नंबरय 13. मुकारी ताण्भरती जांवचें एके आसपतरेच्या 13 वे माळयेक. "वार्ड नंबरय सात, कॉट नंबर स...स, सात, तेरा". अशें 13 संखोच दुरंतांचें भी आसचो आकस्मिक जाता. खेमराज भवनांत माणी जावनासच्या नेंट्या ब्राह्मण चेड्या गणेशासांगाता आनयेकल्या, माणी जावनासच्या मराठी चेड्यान गोपालान सांगचें उतर हें "आमचो बापय सांगता - तुमची जातच भोव वायट खंय. तीन हजार वरसां थावन तुमी उरल्ल्या सकड जातिच्यांचे शोषण करनच आयल्यात खंय". ह्या उतरान गणेश बोव अस्वस्थ जाता. "तीन हजार वरसांची इतिहासाची कल्पना तेरा वरसांच्या ल्हान चेरक्यांच्या अनभोगाचे सकते भायली आसल्ली" असलें उतर गोपालाच्या तोंडांत घालचे समाजेन आपलें क्रूरपण परगट केल्लें. आपुण जलमल्ले जातीच्या भुतानच गणेशाक खेमराज भवनाथावन धांवडायलो. परत्यान गणेषाच्या बापायनय असलें उतर आयकाल्लें, ताच्या एकानेक काळाच्या काळजाक लागच्या इश्टा मोनप्पाथावन. हनेहळ्ळीत बापायक आसल्ली आस्त सगळी फारून, ताका कोल्हापुराक धांवडाय्ल्लो मोनप्प "विजमितकायेचो दखो बसला जायजे न्हय? तुमी तीन हजार वरसां थावन कितें करन आयल्यात म्हळ्ळे (हावें) दाकवन दिलें तितलेंच म्हणाता. कोल्हापुराक आवय बापय येताना गणेशाक तेराच म्हयने। थंय उगतें केल्ल्या होटेलावरवी बापायचे नशीब फुलच्या वेळाकच परत्यान तेंच इतिहास हगें तिरसिता. एक दीस बापायचें घर, दुकान उज्यांत बसमोन आवय बापायकय बली घेता. मुकार ह्या इतिहासाचें वोजेंच गणेशाच्या भुजांचेर चडटा. हाचें असहायकपणच दरुपयोग करच्या व्हड जयत एका स्मग्लर संस्थ्यान एक पावटी हाका 'कामाचेर' ट्रेनार हाडल्ल्या वेळार एका स्टेशनांत दोग जण चडटात, ताणी हाडल्लें पारसल हाचे सिटी पंदाकच दवरतात. आपलो परताकाळ पचवन बसल्ल्या गणेशाक एकावेळार पारसलांत आसल्लें एक मडें कितेंकि म्हळ्ळी भिरमेंत उबजोन आटेविट्यांक बली जाता. आसपतरेंत धात आयल्याउपरांत ताणे सांगची ही उतरां चित्तालाच्या बळादीक भाशेक गवाय जावनासात. "पारसल सुटंवचें नाका. तांतु किते आसा म्हळ्ळें जाणा. पुण ताकाय म्हाकाय कसलोच संबंध ना. मेल्लो कोण म्हणोनय कळीत ना. देवाच्या नावान पातयेया..."ताचे उतर संपचे आदीच पारसलाथावन प्रत्यक्ष जाता भांगराचे कांतीन परजळची विष्णुची मूर्ती. गणेशाच्या,

"काडन उडयल्ल्या जानव्याक, बदलयल्ल्या नावाक, शेडी

नातल्ल्या मटव्या केसांक, दोळयामुकारच देवाची मूर्ती उगडी रावल्यान्य सकडांबरी नमस्कार करनाराता डाळिभितरच रावल्ल्या हाताक - सकडासकडाकय आता नव अर्थ मळाकलागल्ले. मुख्य जावन ना कोणाथावनकि खुनी जाल्ल्याचे अनाथ मडे म्हणोन बूक समजल्ल्या, देवाचे मूर्तिच्या चोरपणाचे सगळ विवर ताका कळीत आसुनय लिपल्या म्हणोन पोलिसांक आसल्ली गुमानी बळ जावकलागली. ना आता ना न्हयच न्हय - फकत दोन पाय आसल्लें चुकिकच इतिहासाचे लायाक धांवोन आसल्लो...धांवडायल्लो - भियाथावन भियाक..."

आपल्या जलमाकय फाटल्या इतिहासाकय आपुण कुसकूट बाध्य नातल्ला एकलो निशपापी, भुरगो, आपल्या चिंतपाक येनातल्ल्या इतिहासाच्या हुमाकच बली जांवचेंच हांगाचें दुरंत. हांतूं आकस्मीक कितलें? कुडुच्या समाजाचे नियंत्रण कितलें? जलमासांगाता मरणय बांदून येंवच्यांक, ताचें नेटपणाच क्रूरपणाक किडयता. कितेंकि? चित्तालाच्या साबार काणयांनी आसचेबरी हांगा मनशाथय लिपल्ले क्रूर चालीक आकार दिंवची जवाबदारीच आसा. म्हाका चडीत धासल्ली ही कथा मनशाप्रयत्नांकय मिरवल्ल्या गुपीत संगतीविशी एक व्याख्यान. हांगा लेखकान भिरमत पांवची गणेश ब्राह्मणांचो भुरगो म्हळ्ळया कारणाक न्हयच न्हय. ताची सगळी भिरमत तसले खंयच्याय जातीच्या, वरगाच्या नेट्या भुरग्यान तरय भोगजेच जाल्ल्या आडांवक जायनातल्ल्या दुरंताकुशीकच आसा.

तिसऱ्या भागांतल्या काणयांच्यो वस्तू - सेक्स, मरण, भंय, पापप्रज्ञा आनी जिविताच्यो हेर गुपीत संगती. ह्या वस्तूंक अनभोगाच्या उजवाडांत साबार पांवड्यांनी धरून विणगी सतां सोदूंक चित्ताला पुराण प्रतिमांक वापरता. धर्म आनी पुराणांचे रूपक चड करून संपूर्णतेक प्रतिनिधित्व करचें तसल म्हळ्यार एके व्यक्तिची जिणयेदेग उतरोन वेचे असाधारण गूण जोडल्ले. मनशा परिस्थितिचें सारकें पिंतूर दिंवच्यांत चित्तालाक मजत दिंवचे हे रूपक सयत जिविताचीं आकस्मिकां किसंवचो मनशापणाचो ताळोच जावन वेतात.

हे पाटभुंयत पुराण प्रतिकांच्याद्वारीं वस्तुचे संभवपणाक नवो अर्थ सांटच्यो काणयों, "उध्दार" "चक्रव्यूह" आनी "अश्वत्थाम" एके रितीर "उद्धार"ची वस्त आदले रितीची (archetypal) जावनासा. पुराणांतले अहल्येबरी हे काणयेंतय अहल्ये म्हळ्ळया नावाचेंच आसा. हें हनेहळ्ळेंत जीवघात करच्या दिसा ताचें न करणेक कारण जाल्ल्यो सगळयो संगती पाशार जातात. गोकर्णांत आसच्या भावाच्या घरा वचून येतां म्हळ्ळी आवय मध्यान रात जाली जाल्यारूय येंवची झळकना. घरांत्र अहल्ये एकलेंच - भ्यें, गडगडो, जगलाणें, शिरांधारीचो पावस. जगल्याण्याच्या उजवाडांत ताणें देकचें - आपल्या घरा तवशिनच पळेवन रावल्ल्या केस, खाड वाडयल्ल्या भावोजीक. आपणालागी काजार जाल्ल्या दिसाच धांवोन गेल्लो घोव आतां सन्नेशी जावन गावानगांव भोंवून आसा म्हळ्ळी खबर आसा. मध्यान राती अहल्ये जागताना हितलाकुशीच्या दारार सुण्यान

पायानाक्षेन पोकरल्लो आवाज आयकाता. तशें पोकरल्लें सुणें काळेंच आसजे म्हळळें चिंतप वेगळें. ताच्या जिवितांत घडल्ल्या दोन 'अनाहुतांच्या संदर्भारय हें काळें सुणें सपणांत आयल्लें. पयलेफावटीं आयल्ल्या थोड्याच दिसांनी ताचें काजार जाले, घोव धांवलो. दुसरेपावटीं तसलें सपण पडल्ल्या दुसऱ्यादिसाचे रातिकय आवय घरांत नातल्ली. वाट चुकोन आयल्ल्या कीर्तनकाराक फळां, दूध दीवन सुधर्शिल्लें. पुण ताच्या दोळयांनी ताका वोडल्लें. ताणे पयले पावटीं पळेल्ल्या दिसाच विचित्र रितीन पिशें लागयल्ल्या, ताचेलागी काजार जाल्ल्याच्या दोळयांनी पळेल्ल्या बयरागिचे दिश्टीक ह्या कीर्तनकाराच्या दोळयांनी पळेलागलें. ते राती ताचेलागी जोडल्लो तो दुसऱ्यादिसाच धांवल्लो. आतां परत्यान सुण्यान पोकरच्या आवाजाक भियेल्लें तें जीवघात करन घेता.

हांगा चित्तालान वापरची सुण्याची कुरू ताच्या दुरादृष्टाक एक खुण जावन येता. आवय नातल्ल्या घरचें एकसुरपणच ताचे थंय भ्यें उबजावन, कीर्तनकारासांगाता आपणें भरसाल्लें घडीत उडासाक हाडटा. ताच्या दोळयांनी घोवाक देकोन ताणे आधारल्ली पातकीकरनी.काणयेच्या वरतमानांत बयरागीक देकताना भिरांकुळ दिसता. तसलीच आनयेक करनी घडचेआदीच तें मरता. परत्यान हो बयरागी आपणाक कळानासताना अहल्येच्या मरणाक कारण जाता. पातक, मरणाचें गुपीत सुरूप समजोन पळेंवची ही काणी चित्तालाच्या कथाकुशेलपणाक, तांत्रिक जाणवायेक, कलात्मक अभिव्यक्तिक एक उजळ दाकलो.

"चक्रव्यूह" काणयेची विस्ताराय भोव व्हड. काल आनी आज मुकामुकी जाताना, दुकिच्या चक्रव्यूहाथावन सुटचें कशें म्हळळेंच हांगा सवाल. महाभारत झुजांत अभिमन्यूक बली घेतल्लें चक्रव्यूहाच हे काणयेच्या नायकाक आनयेके रितीन अनभोगाक येता. पांचेचाळीस वरसांच्या हाणे, आपल्या अर्ध्याच्याकय उणे प्रायेच्या लुयिजालागी वाडंवचो लेंगीक संबंदच चक्रव्यूहाचो अनभोग दिता. ह्या संबंदाचो केंद्र जावनासचें न्यूयॉर्क शहेर, निजाकय एक चक्रव्यूहाच. बूटपॉलिश करच्या कापरी एकल्यान गरगाऱ्या ताळयान सांगची उतरांच हाका गवाय

"न्यूयॉर्क संसारांतच असामान्य शहेर (मॅन). आमेरिकाची सगळी शिरी पुंजायल्ली हागाच (मॅन). वायट कामां सयत. सगळयाथरांच्या भोगसाधनाचे आगार हे (मॅन). भितर येवचे सलीस (मॅन). हांगाथावन भायर वेचें कश्ट".

नायकाक हें शहेर दिसचेय एका चक्रव्यूहाबरीच.

"मनहटान स्कायस्क्रेपरांचेर अस्तमते सुर्याचो उजवाड. काळयापाशाणान बांदयल्ली रॉकफेल्लर सेटराची बादपा, रावल्ल्या राकसाआकाराच्या सोजेराबरी विशेस व्हडपण दाकवन भितरले कुबेराचे शिरीक सरपाराकवली रावल्लेबरी दिसतालीं".

महाभाराताच्या अभिमन्युवरी "भितर येवचें मात शिकोन" ह्या चक्रव्यूहाभितर आयल्ल्या नायकाक एकदम आपुण आसची स्थिती झळकाची लुयिजाच्यावीर पारकांत राकोन बसनाना. आदी एक पावटी ह्याच शहरांतले अटनटाचें एकल चेंडू "सर्ग" दाकयतां म्हणोन आपल्या पाटीक लागल्यावेळार, ताचे थावन चुकोंक साध्य जाल्ल्याक लुयिजान आपणाथय दाकंवचो मोगाच अवस्थानत म्हळी भिरमेत. आसल्लेवरी आपणाक ह्या व्यूहाभितर आयवची निमाण चिंतून, नायक आपणें किस्यांत हाडल्ले संतान निरोधकच उडयन धांवता. टाकयामुकार बोंबयत बायलचें पोट काडयल्ले पिंतूर कालच्याकाळाच्या चक्रव्यूहाक लगलायता. बायलभुरग्यांचो उडास येवन, लुयिजाथावन धांवोन धांवोन घरा पावताना, थंय आपणाचीच वाट राकोन आसचे लुयिजा दिसता. कालच्याकाळांत भोगल्ले चक्रव्यूहांतले बंदनच, तें धोसचें रुपणेंच परत्यान ह्या शहरांत लुइजामुकांत्र जारी जाता. "त्रयोदश पुराणांतल्या" गणेशाच्या आकस्मीक दुरतावरी हे काणयेच्या नायकाकय, ताचे बुदवंतकायेचें पलतडी पातळचें आकस्मीक घडीत दुरत जाता. पुराणान सादच्या सरवय काळाच्या सताचें इमाजवरी हो नायक आनयकला अभिमन्यूच जाता.

बोवशा "मुखामुखी" काणी बरंवच्या काळार चित्ताल, एकल्या संवेदनाशील लेखकान आपल्या अनभोगालागी मुखामुखी जाताना भोगल्ल्या वळवळयांच्या झरी मतीक झळकोनय सांगोंक जायनातल्लें गुट सोदचे तसल्या नव्या जाग्याक पावला कसो दिसता. होच तंत्र "अश्वत्थाम" काणयेत तितलो यशस्वी जांवकना तरय, "काणयेत आयल्ल्यन...." आनी "काणी जाली चली" हांतूं चडीत परिणामभरीत जावन उदेवन आयला. "मुखामुखी" काणयेचा केंद्र व्यक्ती जावनासल्लो काणयेगार अंत नासच्या वळवळयांनी चडपडचा. ल्हानपणार गांवांत आपणाचेर प्रभाव घालच्या इंदिरक्काचेर काणी बरयल्ला हो, इंदिरक्कान आपणाक कळीत नासतनांच आधारच्यार आसल्लें पातक चुकयलें म्हणोन पातयेंवन आसल्लो; ताचे प्रेमीन लांब मिश्यांगारान दिल्लें कागत इंदिरक्काक दीनासतां पिंदून घाल्ले तसलो. त्या उपरांत चड वेगी विधव जाल्ल्या इंदिरक्काचे दुस्थितीक आपणें तें कागत पिंदल्सेंच कारण म्हणोन कळोन कळवळोन आसचो. हे पाटभुंयत आपणें पळेवन, चिंतल्ले तितलीच सत म्हणोन बरयल्ली काणी. आपल्या कळवळयांथावन चुकंवक बरयल्ली काणी उद्देशित व्यक्तीन वाचल्याउपरांत, ते व्यक्तिलागी दोन पावटीं चलचे मुखामुखीत फट जांवचें मात न्हय, आनिकय वळवळयांक कारण जाता. चड करुन काणी अनभोगांची अशिरकाय, तांतूं आसचे कंदक उगतें सांगता.

"पिंदून उडयल्ले ते चिटिविश्यांत तुवें भोगल्ली दूक कितली म्हण म्हज्यान चिंतूंक येता. पुण त्या पत्राक तुवें दिल्लो अर्थ सारको न्हय. सारको न्हय म्हणोन तूंय जाणांय" म्हणची इंदिरक्का काणयेगाराक आनयेकच हकीगत सांगता.

आपमीड समजल्लो त्या लांब मिश्यांचो निजायकय ताचो मोग करतालो. हाची खबर मेळल्ल्या इंदिरक्काच्या बापायन ताका एका वोन्या धोवाक हाडल्लो. ताका आसल्ले कॅन्सर पिडेनच तो वोनो जाल्लो. एक पावटी तें बापायच्या घरा गेल्ल्यावेळार लांब मिश्यांच्यान मेळोन "खंय तरय धांवोन वचयां. सगळी विलेवारी करन मुकल्या म्हयन्यांतच येतां. आयल्लोंच तुका खबर धाडटां" म्हळळें. ताणें पावंवक चिंतल्ली खबर, ह्या कथानायकाच्या हातांतच निर्नाम जाल्ली. "वोन्या दादल्याकडे काजार जावन, काजार जाल्ल्या धा वरसांनीच ताकाय होगडावन वाट णें दिसनासतां करगोंच्या ताचेर काणियेगाराची काणी कांयीच परिणाम करिना. तीर्थयात्राक म्हण काशीक वचून पाटी येताना इंदिरक्का तकली बडकायता. कॉलेराक पडोन मरणातणीर आसताना तें "त्या दीस ताणें तुका दिल्लें कागत म्हाका मेळानातल्लेंच बरें जालें. ना जाल्यार हांवें केदें व्हड पाप आधारल्लेबरी जातें?" म्हणटा. सबार सवालांनी उचांबळ केल्ल्या इंदिरक्कान आतां मेल्याउपरांत काणयेगाराक धोसचें त्या लांब मिश्यागाराचोच उडास. कितल्याकि वरसां थावन नपयीच जाल्ल्या ताणें केदळाकि जीवघात केला जायजे. काणयेगारान ताका चिंतनांनी मुखामुखी जांवचें अशें:

> "तुका सतांवचे मूळ सवाल तुज्या बापायच्या निर्गमना विश्यांतले न्हय; म्हज्या मिस्तेराभरीत निर्गमनाबाबतीन न्हय कांय म्हण तुकलावन दांत किरलिता. सगळया सोदनांकच सवाल जाता. कासरकोडचे बांयत पडोन मेल्लो आपुनच, ताका कारण हांवच म्हण पुराव्यां सयत रुजु करता.... न्हयगा. तूं आनी तुजी बायल मेळोन हावे बरयल्ल्या एका चिल्लर चिटीक किते पुरा अर्थ दीवन गांड तोड नातल्लो व्हडलो आवाज उटयलो न्हय.... परत्यान नव्यान सुरु जाता - दुसरीच एक मुखामुखी उगती जांवक, हाताक मेळानातल्ल्या शांतीथंडायेखातीर चलच्या आकेर नातल्ल्या सोदनांक...."

हांगाच्या काणयेगाराकय "काणी जाली चली" काणयेच्या काणयेगाराकय तसलो फरक ना. दोगय आपले सृष्टिकरनेच्यो मितिमेरो समजोन जिविताक ताच्या सर्वय बणांनी, अडचणेत धरुंक जायनासतां कश्टोचे. हे कश्ट आनिकय गुंडायेचे दिसतात.तांकां आपापल्यो कल्पीत कृतयो नीज स्थितीक तोड घुंवडावन फट जाताना. हे काणयेंत साहित्यकरनेचे दुकिच्या अनभोगा बराबर काणयेगाराक आपणाक खबर नासतानांच आपली काणी आनयेके व्यक्तीक दीवची दूक, ताचे समजणेन आपणाक हाडचे शास्तीत वळवळे हें उगत्यान उदेवन आयलां. तंत्राचे दिश्टीनय ही एक महत्वभरीत कृती.

"थालें आनी चावी" एक parable. 1963 तितले फाटीं बरयल्ली ही काणी एक सांकेतिक संसार उबो करच्यांत यशस्वी जाता. बायलेचो संपर्कच नातल्ल्या केशवाक ताणे गावा थावन हाडल्ली चावी धयराची, विसवासाची कुरु जाता आपुण मोग करतां म्हण चिंतल्ले संजीविनी थियेटरांत आपल्या बगलेक बसोन

आसतानांय ताका भंय, दाक्षण, एके बायलेक खुशी करूंक जायकना म्हणचें तसली कांतवणी. हो गुट संजीविनीक कळ्ळो न्हय म्हणोन अकमान. हें भंय, अकमानच चावी होगडांवच्याक, ताच्या मरणाक कारण जातात. मनशा सागता जिवे मनशासंबंद रचूंक जायनातल्ली स्थिती मरणाक सारकी म्हळ्ळो ताको काणयेंत आसा. कित्याक म्हळयार "पळेया म्हजी चावी भायर पडल्या. आतां थालें उगडूंक जायना न्हय" म्हळळें केशवाचें रडणं कोणाकय समजना. ताची रडण्याची भास कोणाकय कळना. खंयसरय भास अडखळनासतां काव्याक लागी जाल्ल्या एका सार्थक रूपकाक रचची ही काणी चित्तालाचे भाशेक आसची सकत उकलून दाकयता.

अंतस्कर्णाचे धाराळ भोगणार कलात्मक वालिभितर दांबून धरचेंच चित्तालाचे काणयेंचे यशस्वेक प्रमुख कारण जातात. ह्या भोगणाराचें अरीक उगत्यान व्हाळोंक सोडटाना काणयेंच्या अर्थाविस्तारायक भंग येता म्हणोन ता सारको जाणा, ताची बरपा शैली वस्तुस्थित्येंचो उसवासच विश्लेश करून वता जाल्ल्यान, एके काणयेपात्रांतलें जिवीत उपकाराक पडनातल्लें म्हण भोगच्या सादच्या घडिताद्वारी एका दुरंताकच सादता. हो दुरंतच जिविताच्या मिस्तरातली थोडीं सतांय दाकयता. अनवळखी एकल्यान भोंव वळखिचा म्हळ्ळेबरी घरा येवन एक लोकाटो दीवन वेचें; मरणातणीर आसचें जानकी, "बाबा, म्हजविशी एक काणी बरयताय?" म्हणचें; भियान गणेशान "मांय" म्हण बोबाटल्ल्यान ता मराठ्यांचो न्हय म्हळळयाक रुजवात जांवची. नीज जिवितांत देकल्ल्या वेक्तीक काणयेंत घालताना, तें वाचल्ली व्यक्तीच येवन काणयेंगाराक वळवळयांक शिरकांवचें; काजार जाल्ल्ये रातींच घोव पळल्ले अहल्येन, त्या उपरांत एक पावटीं आपल्या घरांत एक रात सारल्ल्या कीर्तनकाराच्या दोळयांनी आपल्या घोवाक देकचें; नायकाक एक म्हान चक्रव्यूह जावन दिसचें न्यूयॉर्क शहेर, ताचें परताकाळाचे विवरय चक्रव्यूह जांवच्याक कारण जांवचे; केशवाच्या आत्मविश्वासाची प्रतीक जाल्ली चावी भायर पडटाना ताचेर मरणान जाळ वांडचें - ह्या घडितांद्वारींच चित्ताल जिविताच्या लिपत्या सतांक झगलायता. पात्रांच्या काळजाहुमेदिचे लेक नातल्ले सुक्षीम पांवडे किसंवच्यांत ताका मिरवल्लेच नांत भोगता. सदांचे संगतींच्या भोव ल्हान विवराकुशी ताका आसची सुक्षीम दीट, पात्रांच्या अंतस्कर्णाचीं पाळांमुळां सोदचे करणेंतय वयर पडटा. ह्यो काणयो संपच्यो रितीच पळेया: वोमू मरूंकना; तो दोळयांक पडटापासून ही काणी अपूर्णच दवरतां म्हणचो मुखेली. "चसनाला" उपरांतली म्हजी कृती आमच्या घरच्या पाळण्यांत हासची पळेतल्यात म्हणचो कथाकार. "दाक्तेराक आपयता" म्हणच्या नरसाचें उतर मेंदवाक देंवोन अर्थ जांवचे आदीच घात चुकचो गणेश; कथाकाराक आपली कथानायकी इंदिरक्कालागी मुखामुखी जावन, ते मेल्या नंतर, ल्हानपणार आपणें पळयल्लो ताचो प्रेमी लांब मिश्यांगाराथावन

आनयेक मुखामुखी जांवची साध्यता; अहल्येच्या मरणाकय आपणाकय कसलेंकि नातें आसा म्हणचेपरी लोकान आपणाकुशीं देकचे रितीन भियेंवचो भावोजी, आदल्या आतांच्या चक्रव्यूहाथावन चुकलों म्हण निराळ जांवच्या वेळाक नायकाक लुयिजाच्या येण्यान आनयेका चक्रव्यूहांत रिगल्लो अनभोग जांवचो - ह्या सरवांची कारभारां संपोंकनांत, तांची समस्या निवारोंकनांत. जाल्यारय तांणी भरवश्याक, तयारेक, सुखाक, तोंड करचें सारकें भोगता. आनयेके रितीर ह्यो काणयों "संपवण्योंच नातल्ल्यो संपवण्यो" जावनासात. कित्याक म्हळयार निजाय्क विसरोन दिसाउजवाडाक सपणां देकची सवय हांगाच्या पात्रांक ना. भोंवारिंच्यो वस्तुं खालत्या निजायेंतच जलमोंच्या हांकां मनशांखालत्या जिविताचेर सदांय भोंवतिचो प्रभाव आसाच आसा म्हणोन खबर आसा. भोंवारीन मुकार घालचीं समस्यां फुड करच्यांतच, ताका पडक्रिया दाकंवच्यांतच आपल्या जिविताक एक अर्थ आसा म्हणोन समजाल्ले हे.

ह्या सरवय काणयानींय चित्तालाच्या आत्मचरित्रेचो सार आसा: ताच्या व्यक्तीक जिविताची पाळां आसात. मनशासंसार "सोदून काडून" तो दाखल करच्या कथासाहित्याचे नीज हेतू ज़ोडच्यो ह्यो काणयों एक करणेभरीत चिंतपावोळ्याक गवाय जातात. मार्कस, यंग, कॉन्राड, लॉरेंज, केसिरर अशें सबारांच्या विचारांनी प्रभावीत जाल्ल्या चित्तालाचो वयचारीक संसार, लेखक जावन ताणे आपलें जिवीत आनी तें निर्माण करच्या मनशांक नव्या उजवाडांत पळोंवक उपकारतात. आयच्या मनशांविशी नवेंच कितेकि सोदून सांगोंक प्रयत्न करच्या चित्तालान ह्या कथाघोसांत केल्ले प्रयोग सथत वस्तुच्या संकीर्णतेथावन गर्जच म्हळ्ळेबरी यश जोडूंक पावल्यात. एक साहित्यकृती उंचायेक पांवची, ती आपलो आख्खो अर्थ व्याख्यानाक, विमर्शाक सोड्‌न दीनातल्यार मात. तशें पळेल्यार हांगाच्या खंयचेय काणयेविशी आकरेचें तीरमाण साध्यच ना म्हणोनच म्हजें चिंतप. हे पाटभुंयत आमेरिकन लेखक Saul Bellow न एकपावटी सांगल्ली उतरां भोव अर्थाभरीत आसात:

> "If the human pride of artists has indeed exhausted the miracle of this world then nothing in art is necessary, all is superfluous. But here is the living man, and the last word concerning him cannot be imagined. We shall never know him in his entirety. Now, waiting in the darkness to be reanimated by a fresh impulse, we feel painfully the weight of everything superfluous...But we know that something necessary, something not to be evaded, is due and overdue.."

चित्तालाची येदोळची साहित्यसृष्टी खंयच्याय अडचणेविणें सोसणिकायेन वाचताना Saul Bellow न सांगल्लें तें "necessary thing" दिंवच्यांत ताच्यो कृतयो कितल्यो सार्थक जाल्यात म्हणचें मनाक नाटवनासतां उरचेंना. कित्या

म्हळयार, ताच्या कृत्यांनी एका जिव्या मनशाविशीं एका जिव्या मनशान कान दीवन आयकाजे जाल्लें जिणयदर्शन आसा.

एस. दिवाकर

# भाग एक: वर्तमान

## काणयेंत आयल्ल्यान घराय येवन दार बडयलें

# काणयेंत आयल्ल्यान

## घराय येवन दार बडयलें

येया, बसा, एक काणी सांगतां. तुमी सकडांनी ती आयकूंक भोगल्ल्यानच सांगते आसां म्हळें दया करून मतींत हाडा. तुमचे थावन म्हजें एक काम जायजे जालां. काणी हांगा थावनच सुरू करूंक कारण ती हांगा थावन सुरू केल्यार मात तुमकां अर्थ जायत, म्हज काम जायत भागल्ल्यान. तशें पळयल्यार ही काणीच न्हंय; एक विनंती, एक मागणं.

तें सकड सुरू जाल्ली रीत आतां चिंतताना भोगता, नातूं चिंतिनासल्लें ना. गोंदळाक कारण जांवचें कितेंय नातल्लें म्हणान. तितलें कित्याक, पयल्यांपयल्यार असलें कितेंय तरय एक दीस जावनच जातलें म्हळें चिंतप धरल्लें. तिची वाट राकतलों म्हळें तसलें समजणेक म्हज थंय पाळां रोवयिल्लीं म्हणचें चिंतप. असल्या चिंतपाक आमकेंच कारण जांव, ते सुरव सुरवेर उबजल्ल्या संदर्भ जाव उडास जायना. बोवशा हावें काणयो बरंवक सुरवात केल्लया थावन, असलें भोगप, म्हाका धोसून आयिल्ल्या परी दिस्ता म्हण सांगल्यार वायट जावचें ना. नीज सांगूं? असलें धोसचें भोगप हागडावच्याकय काणयो बरंवक सुरू केल्लें म्हणोंक आसल्लों. तुमी पातयेवंचेनांत म्हळया भियान सांडून दिलें.'साहित्य अनभोगाच्या वयर रावजे' नीज. पुण आयल्ला अनभोगाच्या सरद्यानी पातयेवच्या न्हंय जालो जाल्यार?....

तें सुरू जाल्लें अशें:

म्हज्या एके काणयेंतलो खेळघाडी एकलो एक दीस शीदा म्हज्या घराच आयलो. एकच पावटीं तशें विजमीत जायनाकात. हावें सांगल्ली रीत मातशी नाटकीय जाली म्हळयाची समजणी म्हाकाय आसा. तें सकड म्हज्या दोळ्यां मुकार सुरवेसुरवेर उगतें जाल्लेंच तशें. जाल्यार आतां तें म्हाका कळीत आसा: तुमकां कळीत ना म्हळया कारणान, म्हणजे म्हाका थोडें तरय कळ्ळां तुमकां कितेंय कळीत ना म्हळया एकाचएका कारणाक अशें सोडवन सांगयत. हावें सद्याक बरयल्ली काणी एक, आपणाविशी आसा म्हणोंन समजाल्ल्या एकल्यान, एक दीस सकाळीं येवन आमच्या घरचें दार बडयलें. अशें सांगताना समाधान जालें न्हंय? हावेंय त्या दिसा, म्हजे मतीचें समाधान जोडल्लें तशेंच. पुण म्हजे विजमीतकायेक कारण जाल्ली संगत मात वेगळीच आसल्ली: तो तितल्या फांत्यार उटोन आयल्लो: भितर पाय तेंकोंक फुरसत ना, आपली वळख करून दीवचे आदीच हावें सदांय बरंवक बसच्या जाग्याविशीं, म्हज्या लायब्ररीविशीं, घरचे बालकनीविशीं उलयल्लो.

ती घडी सारकी याद आसा. सकाळीचीं साडेचारकि, पांचकि या चार व्होरांकि. हांव आनिकी बरे निदेंत आसतानांच दार बडयल्लो आवाज. कांपीण आसतानांय अशें दार बडंवचो घरा दूद दिंवचो 'दूद भय्या' एकलोच. मातसो मटवो आसल्ल्याकय, स्विच दांबूंक भियेवनय, कांपीण केदनांय व्हाजयल्लो न्हंय. जाल्यार तो संच्या पयलें आयल्लो न्हय काळकांत कांपीण पळेनातल्लो नवो जायजे म्हण लेकून मांद्रेर थावन उटलों. बोवशा कोण तरूय संपादक इश्टचाचें तार आसल्यारय आसलें म्हण लेकलें. दिवाळे अंक्याक काणी धाडची तारीक लागी जाल्ली. कोण जावयेत म्हण चिंतानांच, दाराक घाल्ल्यो वेवेग्ळया थरांच्यो तिनयी खिळी काडून, दार उगडल्यार दोळयां मुकार रावल्ल्या मनशा रूपाची आकारमापां दिश्टीक झळकली शिवाय कोण म्हणोन कळळें ना. कॉरिडोरांत दिवो नातल्लो. आमच्या घरा भितरलो दिवो सयत दाराक फुड करून नातल्ल्येवरवी, पसराल्ल्या उज्वाडांत आयल्ल्याची वळक धरूंक कश्ट जाताले. जाल्यारय मुकार रावल्लो हावें एदोळ पळेल्लो न्हंय म्हणच्या तितलें तरय कळतालें. म्हाका पळेल्ले घडये "भितर येंवकि सर?" म्हण विचारन म्हज्या सवालाक जांव, जापीक जांव राकानास्तां चडुणे म्हाका पाटीं लोटुनच म्हळ्ळेपरी भितर आयलो. ताच्या ताळयांतल्या भितर येंवच्या निचेवाचे रितिनच, कोणकि म्हाका लागशिल्यान जाणासल्लो म्हळ्ळें मात मतींत घट जाल्ले परी, ताका भितर सोडून खिळ शिरकायली. आमच्या सालाक वेच्या वाटेवयल्या उज्वाडांत पळेताना, ह्या पयलें ताच्या ताळयान उबजाल्लो दुबाव थिर जांवकलागलो. आयिल्लो 20 - 25 च्या मदलो तरनाटो जावयेत भोगलें. बोवशा आमच्या गांवचे कुशीचो जायजाय म्हण चिंतून सालांतलो दिवो घालो. मांडल्लें साल दोळ्यांक पडल्लेच, भारी खुशी जाल्ले परी तोंड रुंदावन, दोळे व्हड करून "हो तुमी बरंवक बसचो जागो दिसता न्हंयकि सर?" म्हणोन व्हडल्या सोफाच्या कोनशातेवशी बोट दाकवन विचारले. चिंतिनासतां आयल्ल्या ह्या परक्याच्या भेटेक एकचपावटी विशेस कळा हाडन म्हाका विजमित जांवचेबरी केल्लेंच हें ल्हान सवाल आसल्लें. तरनाट्याचो जोस, उमेद मात खंयचेय रितिच्या चूकसमजणेक इडें दीनातल्लें. "हे बालकनीक वेचें दार जायजाय न्हंय? तशें जाल्यार तुमची लायब्रेरी हांगा उजव्याक आसोक जाय. दिवो घालतातकि सर?" म्हण विचारलें. विचारल्ले उमेदीचे रितीक, म्हज्या घरची वळक इतली बरी जाणासल्लो हो कोण जावयेत म्हळ्ळया सवालाच्या वेगाच्याकय चडीत वेगान स्विचालागीं धांवोन दिवो घालो. मोनो जाल्लेपरी पुस्तकां पळेवन रावल्लो म्हज्या रगताचो म्हळ्ळे तसलें उबाळ चिंतप म्हजेथंय किरलोंक लागल्लें.

तो तसो पुस्तकां पळेवच्यांतच बुडोन वेताना हांव हेकुशी येवन बालकनीकवेचें दार काडून भायर गेलो. दऱ्याथावन येवच्या थंड वाऱ्याक तोंड दीवन रावलों.

रस्त्यावयल्या मुनसिपालिटिच्या दिव्यांनी काळकाक विचित्र कळा हाडल्ली. मदा वळकीची भोंवतण नव्याच एक मॉडीन परत्यान जलमान येवचें अजाप करून रावल्लों हांव पुस्तकां पळेंवच्यांतच पडल्या चिंतिनासतां आयल्ल्या रस्त्याक खिणाक विसरल्ल्येबरी जाल्लें. उडास जाल्लो, बालकनीर म्हज्या वागडा आनी कोणकि आसा म्हळळे मतीक येताना. चेडो बालकनीक केदाळा आयल्लाकि, म्हजेबरीच दांड्याच्या रुकाडाच्या ग्रादिचेर हात तेंकोन दुस्या पळेंवच्यांतच बुडोन गेल्लो. बालकनीक येताना सालांतले, लायब्ररितले दिवे आसणांच पालवयल्ले. बालकनीर दिवे नातल्ले. भायल्या मंद उजवाडांत, आयल्ली दरकी जावन दिसोंक लागल्लो. अरध्या हाताचें धवें जरसी, निळया बणाचें जीन्स (जीन्स म्हणटानाच बण चिंतला जावयेत) पांयानी व्हाणो, आयलेवार घेतल्या जायजे, नितळ आसल्ल्यो. हांव राती निदताना न्हेसल्ल्या पयजाम-सुटार आसल्लों. चेड्याची उजवी कूस मात दिसताली जाल्ल्यान तोंडाची वळक धरूंक आनिकय साध्य जायनातल्लें. वयल्यान मंद उजवाडाककि कितेंकि, दिसोन आसल्लें तोंड सयत ताचे कुशी पळेताना हरयेकपावटी वेगळेंच दिसतालें. हावें आपली वळक धरूंकनजो म्हळळेंच, म्हजेलागी विचारचे आदींच दिवे पालवयल्ल्या पाटलो हेतु जावयेतकि म्हळळी गुमानी मतीक आपटून गेल्यारय तांतूं धासची सकत नातल्ली. म्हजे मतीच्या उदारपणाच्याकय चड चेडो म्हजेर कांकोन आसल्लो विचित्र प्रभावच ताका कारण जावयेत भोगले. हो फटकिरो तरय न्हयच न्हय. जाल्यारय कोण जावयेत कामा खातीर आयल्लाग्री. म्हज्या वाचच्यां मदलोकि. मरयाद्रेक पुणय आपली वळक करून दीवन आयल्लें कारण सांगयेत आसल्लें. हें खंयचेंय करनासतां इतल्या फांत्यार उटोन येवन, म्हजी पुस्तकां पळेंवच्यांत आतां दुस्यो पळेंवच्यांत बुडल्लो हो तरनाटो जाल्ल्यान जावयेत, खंयच्याय थराच्या गोंदळाक हांव ईड जायना म्हळळयाची समजणी म्हाका आसल्लेपरी आसल्ली. मुकल्या मेटाची जवाबदारी सकड आयल्ल्याकच सोडन दीवन हावेंय दुस्या कुशीन दोळे परतिले.

तितलेंच, भितर आनिकय बरे निदेंत आसल्ली बायल आनी धुव उटोन येवचे आदींच हाचीय वळोक जाल्ली तर, च्हा करूंक सांगताना, हो कोण म्हणोन सांगोंक तरय साध्य जातें. हावें काणी बरंवची तर अशें सकाळीच उटोन बरंवक बसतालों जाल्ल्यान आजय उटोन भायर आयल्लेविशी कोणाकय अजाप जांवचेना. पुण उटोन बसल्लें कारण मात सादेपणी सांगचेपरी नातल्लें. नीज जावन पळेल्यार, ह्या सगळया घडितांत चिंतुंकचनातल्लें, आतुरायेक, एक थराचें विजमितकायेक कारण जांवचो गुट, आयल्ल्यान विंचल्लो वेळ जावनासल्लो. सगळें सोडून आतां कित्याक? इतल्या फांत्यार?

बायले, धुवेचो उडास जातच तरय स्वता म्हाकाच लागल्ल्या धख्याकय, तांणी विचारल्यार कितें सांगूं म्हळळी आतुरायच कठिणायेन धोसुंकलागली.

ती उटचे आदींच गेल्लो तर तो आयल्लोच कोणाकय सांगानासतां कालच हाडल्लें पुस्तक 'निश्शे' वाचें मन जालें जाल्ल्यान उटोन बसल्लों म्हळयार जालें म्हण चिंतचेभितर बगलेक रावल्ल्यानच तोंड उगडलें. 'हांगाच बसयांकि सर?' म्हण विचारन बालकनीतल्या डेक चेराचेर बसोन, फुडें आसल्ल्या आनयेकांत हांव बसतां म्हळें आशेवन म्हजे कुशीं पळेलें. हांवय ताच्या सांगण्याक खोशी जाल्ल्येपरी कदेलार बसलों. ताचो ताळो, सांगपाची मोड, बसल्ली रीत सगळें म्हाका बोव मोगाची जावन एकपावटीं सारकी वळोक जाल्या उपरांत हो म्हाका लागशिलो ईश्ट जांवच्यांत दुबाव ना म्हण पुरा चिंतुन, भोगणांनी उमाळटाना सत, भितरले भितर उतरां सुटानासची कावजेणी, भंय. कदेलाच्या रुकाडाचो फ्रेम घट दांबून धरून बसलों. मुकार बसल्लो कदेलाच्या रुकाडाच्या फ्रेमाक काडल्लो धवो बण, काळे चितुरले बणांचे गीट आसल्लें लुगाट पळेवन बसल्लो. जाल्यारय ताका सारकें पळेंवचें धैर जालेंना. मंद उजवाडांत तो न्हेसल्लें जीन्स, जरसी, नव्या फेशनाचे कान धांपचे केस, धोमोस पोंताचें लांब नाक, वोंटा थावन मातशें मातशें सकयल बागाल्लयो मिश्यो, आंगाचो बण चडुणे काळो जाल्लो तर चडीत सोबीत दिसतो म्हळें चिंतप उबजातानांच, आपणाकच आपुण सारकें पळेवन घेंवदी म्हळ्ळेंच तो तशें उलयनासतां कदेलार पळेवन बसल्ल्याचो उद्देश जांवक पुरो कि म्हळी गुमानी किरलोचेभितरः

'पयलें कळयनासतां ह्या वेळार आयल्ल्याक माफ मागतां सर. तुमी इतल्या वेळार उटोन बरंवक बसतात. तुमकां एकलोच आसताना भेटोंक होच सारको वेळ लेकल्ल्यान आतांच आयलों. घर आसल्लो जागो निजाकी बोव सोबीत आसा सर. हो दऱ्यो, पाजेंनी भरलली ताची तड, हें थंड समाधानः बरंवच्या कामाक सांगल्ली भोंवतण न्हंय? तुमच्या बरपांतल्या एका गुणाक ह्या जाग्याची मोनी भोंवतण कारण जायजे भोगता. विनायक शेट्टी तुमचेविशीं केदाळाय सांगोन आसता. एके दिवाळेक तुमी ताका आपयल्लें खंय. ताणेंच सांगल्लें तुमच्या घराविशीं, तुमच्या पुस्तकांविशीं, तुमच्या काणयांनी परत्यान परत्यान ःवच्या दऱ्याविशी, तुमच्या गुदांवांतल्या सगळया लोकाक तुमचेर बोव मऱ्याद सर, सगळो दीस तुमचे विशी उलवन आसतात."

ताच्या उतरांनी सासवातेदी नंजी नातल्ली. एके रितिच्या मोगान, मयपासान ़ी उतरां सांगोन आसा म्हळ्ळो भरवसो पालेतानांच दोळयांत दोळो दवरून पळेंवचें धयर जायनातल्लें. कदेलाचे हात धरल्लेकडेच बावळे थंड जांवचो दुबाव. आमच्या कंपनीतच कामाक आसुनय हांवेंच कशें हाका येदोळपासून पळेंवकना? हाचेविशी आयकोकना सयत? नीज जावन कोण हो? इतल्या एका मयपासान उलयतासतानांय अशें कित्याक हांव भितरल्या भितर बारीक कांपतां? चेड्या कुशी वाकड्या दोळयांनी पळेलें म्हाका उद्देसून उलयतानांय म्हजे कुशीपळेनातल्लो. आनिकय रुकाचे ग्रादिवयल्यान दरयो पळेंवच्यांत बुडोन

गेल्ले वरी दिसलो. ग्रादिकय कदेलावरी धवो बण काडल्लो. तीज गजाल म्हळयार ग्रादीक बण काडटाना उरल्लाच कदेलाकय काडल्लो? आना खंयचेंय घडये तो आपुण निजाकय कोण? नांव कितें? गांव खंयचो? आयल्लें काम कसलें? सकड सोडून इतल्या कांत्यार उटोन आयल्लो उद्देस कितें? सकडय सोडोवन सांगतलो म्हळ्ळया भरवस्यान उबजाल्ली कावजोणी, तो दरयाचेर दीश्ट दवरन बसल्लो पळेताना, मातसो वयस सरल्लेवरी भोगानासतो नातल्लो.

रसत्यार एक नरमोनजात नातल्ली. सकाळींच्या पासायाक येचे, सायकलाचेर घरानघरा दूद पावंवचे दूदभय्या लोक, आर मिल्क बूता थावन बाटल्यांनी दूद हाडचे चेडे हे सकड दिसजे जाल्यार आनिकय एक वार तरय आसा. आमचें घर आसल्ले सोसायटीचो रातकाळींचो चवकेदार आलबर्ट सयत स्टूलाचेर बसल्लेबसल्लेकडेच नीद काडटा आसतलो. ताची खबरच नातल्ली. ताणें पोसल्लें कोंडाट्याचें सुण्या पील टायगर ताच्या पायापोदाक आंग दादून सरण देकता आसतलें. रसत्या तिशिली तडच काळें करयच्या पाजी सोडयिल्लो दरयादांडो. पाजें मदेंमदें ल्हान 'तीर्थांबरी' दिसचे उदकाचे फोंडव गोडउदकाचे. देकुनच धोणकार येवन तांतुं वस्तुर उंबळटात. त्या दकुनंच थयच्या पाजीक थोड्याकडे धवो बण, आनी थोड्याकडें निळो बण आयल्लो म्हण ताका सागज भोगलें. हो विचार कित्याक आयलो म्हळयार आतां ताचें गिन्यान सगळें त्या उदकाच्या फोंडव्यावयर्च चिटकल्लेबरी भोगलें. हां आमच्या गांवातिशिलो जाल्यार हांवें केदाळाय सांगचेबरी ह्या फोंडव्याक गोकर्णांच्या कोटीतीर्थाक सर करून सांगयेत आसल्लें. कोटीतीर्थाक तें नांव आयल्लेंच ताच्या थळांत लेक नातल्ले उदकाचे ल्हान ल्हान 'कुंड' आसात म्हळ्ळया कारणान खंय. हे उदकाचे फोंडवे पळेताना म्हाका ते 'कुंड' उडासाक येतात पळे म्हण हांगा येंवच्या हरयेका नव्यामनशाक तांची वळक करचेबरी हाकाय वळक करन दीवयेंती इतलेंच ह्या 'कुंडांनी' उदक भरच्याक कारण आसच्यो झरी 'कुंडांच्या' थळांनी नांत, कुशीन आसात. म्हळयार ती वसती आसचो दोंगर कितें आसा, ताचें मातयेंत जिरल्लें पावसाउदक थांबनासच्यो झरी जावन दरया कुशी व्हाळून कुंडांच्या देगांनी येवन जमतात म्हण हावेंच आयलेवार केल्लो सोध सांगजे म्हणानय भोगले. म्हळयार सगळ्या दोंगराक दोंगरच हांगा येंवच्या उदकाक 'फिल्टर बेड' जावन बदलता जाल्ल्यान कुंडांतलें उदक पियेंवकय जावयेता तितलें नितळ. तशें कोणय पियेना, ती संगत दुसरी. कित्या म्हळयार तें उदक वापरच्यानी कुंडां नितळ दवरूंकनांत. धोणकाराविशी सांगना हांव. ते तरय जालेमू. हांव सांगून आसल्लो भोंवारीच्या कामाठी लोकाविशी, लागसारच्या स्लम्मांनी रांवच्या लोकाविशी. हे सकड, विशेस नांव जोडल्ल्या म्हज्या आयलेवारच्या एके नवे काणयेंत आयल्ल्यात. तुमी वाचल्या आसतली. ह्या बांदपाच बगलेक एक वोळयाकाराचें बांदप आसा न्हय. एक दीस ताचे विशिंच एक काणी बरवची

आसा. ताचेविशी एदोळच समजल्ल्यो संगती आसा तश्योच सांगल्यो तरय कदम बरी काणी जातली. त्या बांदपा भितर 10 - 12 कुटमां तरय घर करून रावल्यांत. ह्या सकड झोपड्या खोमटांतल्या लोकान वडोल सांगल्ल्या कामाठिंनी न्हांवचें सयत ह्याच कुंडांनी. न्हातात, वस्तुर उंबळटात, तवळ तवळ म्हेळीं आयदानांय धुतात. (तोंड सोडुन सांगोंक लजेंवची संगत म्हळ्यार, आनी थोड्यावेळानंतर इतली सोबीत ही सगळी दऱ्याची तड ह्याच लोकाथावन व्हडलो संडास जाता). एक विशेस पळेया: हे कामाठी म्हणा, झोपड्यांतलो लोक म्हणा: न्हांवक येंवच्यांपयकी बायलांच चड. केदळाय हासोन, हासवन न्हांवची उरबेभरीत चेडवां! हे वसतेच्या पोतार जाल्ल्या एक व्हड बांदपाच्या कामानिमतीं इतलो कामाठी लोक हांगा येवन रावला. हांगाथावन अरध्याफरलांगा तितलें पयस चल्ल्यार पुरो: भुंय काबार जावन उदक सुरू जाता. देकुनच हे वसतेक 'लॉड्स एंड' म्हळ्ळे नांव आसा. थंय हे भुंयच्या पोंतार, व्हडलें एक फायव स्टार होटेल वयर येंवचें आसा - धा माळयो उबारायेचें स्कायस्क्रेपर! ताका लागोनच एक क्लब - प्लेमेट क्लब म्हणोन ताचें नांव. टेन्निस कोर्ट, स्विम्मिंग पूल, मागिर कितेंकि. रम्माडा इन म्हळ्ळया नांवाचें, आमेरिकन हॉटेलांची सलहासवलत आसचें हें क्लब आसल्ल्यांपयकीच आयलेवारचे रितिचें. हॉटेलाचे तकलेर - 45 मिनुटांनी एक भोंवाडो काबार करून घुंवचें रेस्टोरेंट बांदची आलोचन आसा.

मुकार बसल्ल्यान, त्या खिणाक म्हजेथंय उबजोंवचें भंय होगडांवचो उपाय म्हळ्ळेबरी मतीत उदेवन आसल्ल्यान ह्या भोंवारिंच्या गजालीक सयत एक सांगचो आकार आसल्लो आनी तो आकार आकस्मीक न्हय म्हणोन म्हज्या समजणेक आयल्लें सबार दिसां उपरांत जाल्यारय, ती समजणी मुकार आयल्ली मात मुकल्या थोड्या मिनुटानीच म्हणोन म्हजें आतांचें चिंतप. चेड्यान म्हजेकुशी दोळे परतून: "हांव तुमचो वोमू सर, तुमचे आयलेवारचे काणयेंत आयल्लो म्हारांचो चेडो" म्हळें. "तुमच्यो सकड काणयों वाचल्यात. तुमचेविशीं व्हड मरयाद दवरल्या सर. हांव बोंबयक पावल्ल्याथावन तुमचें तोंड पळेजेम्हणोन आशेल्लो जाल्यारय धयर पावानासतां पयसच उरलों. आतां ते आशेल्लें भोगेलें. हे साध्य करचे खातीर हावें भोगूंक पडलले मतिची करंदाय हांव एकलोच जाणा. विनायकान परत्यापरत्यान सांगल्ले - जायजाल्यार आपुणच म्हज्यासांगाता येवन तुमची वळक करन दितां म्हणोन. गुदांवाक तवळ तवळ येताल्यात खंय. तशें आयल्यार तरय सलिसांयेन भेट जातेली म्हण चिंतल्लें. कामाच्या भोरामदें तुमकां तेकुशी येवक जालेना कोण्णा. पुण गुदांवाक तुमचें फोन आयल्ल्या हरयेकपावटी हरदे धडधडताले - आतांच येता म्हणोन कितें तरय कळंवक फोन केल्लेंकि म्हण चितून: फोन करन कळयनासतां केन्नांय आयल्ले न्हय खंयगुदांवाच्या लोकाक पळेवकच येतात खंय. आयल्ल्या हरयेकपावटी सकडांचोय हात हालवन उलयतात खंय. तांचे सांगाता बसोन च्हा पियेतात

खंय. कंपनीविशी, कामल्यांच्या वच्याकाल्याविशी तुमका आसल्ल्या तुमच्याविशीं आयकाताना, तुमच्या काणया वाटल्यान काम केल्ल्या मनाविशी चड्डीन अभिमान दवरल्ल्या म्हाका मात अजाप जायकना. हावें चिंतल्ले चूक जालेना म्हणून संतोसच जालो. गुदांवांतल्या चवगाक तुमीच काम दिवयल्लें खंय. हाच्या विनायकाच्या उतराक लागोन तुमचेकुशीं येवच्यार आसल्लो. पुण ताची गरजूच पडलीना. विनायकाच्या प्रयत्नानच सद्याक एक टपरी काम मेळ्ळां. हांव ह्या कामाक लागोन आतां चार म्हयने जावन आयले आनी दोन म्हयने तरय आरामायेन काम करयत. उपरांत जाय जाल्यार तुमका येवन मेळटां म्हण चिंतल्लें..." हो होगळाप वयल्यान दिसचपरी धासकुनी न्हय म्हण भोगताना. उबजल्लें भंय आकरचे उतर आयकल्ल्या खिणा पयस वचाक सुरु जालें. आकरेक तरय ही भेट हांव पयस चिंतून भियेल्लेबरी अडचणीक घालची न्हय. मनशासहज स्वार्थान पाळां रोवयिल्लींच. तशें जाल्ल्यान अर्थ जावचें नसलें म्हण समजोन समाधान भोगुंकलागलें. खयचो हुस्काय नाका बाबू, जनरल मेनेजर म्हजो लागशिलो ईश्ट. तुजें काम कायाम करयता. म्हज्या गावचो म्हण कळयल्यार जालें, तो जावन खंडित करता म्हणांक आसल्लो. पुण जीब वोडल्लेबरी जाली. कित्या म्हळयार ह्या परक्याचे भेटीचो उद्देश एका स्पश्ट वेव्हारासांगाता गुंतून आसा म्हळ्ळें समजणेन उबजाल्ल्या जयताच्या वाटल्यानच ह्या परक्यान आपली वळक करन दिल्ली रीत एकदम मर्तीक येवन लागलें: "हांव तुमचो वोमु सर, आयलेवारचे तुमचे काणयेंत आयल्ला म्हारांचा चेडा." मत गोंदळल्ली रीत, कुडी भितर चरोक लागल्ल्या कांपऱ्याक ताचे दिश्टी थावन चुकंवक, थोड्यावेळा पयलेंच सडिळायल्लें कदलावयल हात अन्नून, दीश्ट परत्यान दऱ्याकुशी घुंवडायजेपडली. हो साधाणांचा मानिस न्हयए आयल्लें काम सादें न्हय. पयलें थावन धोसुन आसल्ली गुमानी घट जांवक लागली. असल कांय तरय एक दीस घडटलें म्हळ्ळें भंय आसल्लें तरय अशेंच जातलें, इतलें वेगीं जातलें म्हळ्ळयाची कल्पना मात नातल्ली. हावें आयलवार बरयिल्ल्या "वोमून सांगल्ली काणी" म्हळ्ळे काणये विशी विवरण विचारुंक आयला, व्हडल्या जणाबरी करून. विनायकाचें नांव परत्यान परत्यान उचारचे वेळतान दोगांय मदें हे काणये विशीं उलवणे चल्लां भोगता. म्हजेर अभिमान आसल्ला विनायक ती काणी समर्थन करून उलयला जायज. तें हाच्या स्वाभिमानाक कितें तरय दुकलां जायजे. तशें पळेंवक गेल्यार ती, म्हज्या आयलेवारच्या काणयांपयकीच हावें बोव मेचवाल्ली कथा. म्हज्या कथालेखाक नवी घुंवडी दीवयत जाल्ली काणी. तशें म्हणोन जायत्या तरणाट्या इश्टानीच पत्रां बरयिल्ली. कन्नड साहित्याच्या नव्याचे परिस्तितीत व्हडलें च्यालेज घेवन बरयिल्ली काणी म्हणोनशाबास्की दिल्ली. पळेयां ह्या रांडपुतान ते कशें अर्थ केलांकि म्हणोन. हांव तोंड सोडचोना. तोच जाय जाल्लें सांगोंदी. हावें जावन ताका आपंवकना.

वयल्यान म्हज्या बापायच्या मरणाविशी बरयिल्ली काणी हाणे आपणाक वोडून घेवन उलयल्यार, ती म्हजी चूककि? हाचें नांवय वोमू. म्हजे काणयेंत येंवच्या समर्थणगाराचें नांवय वोमू. तितल्याक मात हे दोगय एकच म्हण चिंतिजे? काणयेच्या जल्माक मूळ कारण हो वोमूच म्हळळें न्हय म्हणाना. पुण एका विशेस अर्थान. कितल्याकि म्हयन्यांआदी विनायकान ह्या वोमू विशी, ताणे सांगल्ल्या एका दुरंत घडिताविशी सांगल्ले नीज. तेदाळा वोमू फकत एक नांव मात. काणयेंत घालूंक एक आपुरबायेचे नांव. आनयेक गजाल म्हळयार आमच्या जिल्ल्यांत कॉलेजीविशी मेटां चडल्लो पयलो म्हारांचो चेडो. हाचे भायर ताणे म्हजे मतिचेर विशेस परिणाम घाल्लेबरि दिसोंकनातल्लें. ताणे विनायकाक सांगल्लें दुर्घटन, आयलेवार, सदांय आमी पेपरार वाचो तसलेंच आसल्लें: कोरग्यांच्या केरीक पडल्ल्या उज्याचें प्रकरण. विनायकाचे वरदेचें विशेस म्हळयार वोमून सोडयिल्लें दुर्घटन म्हज्या जिल्ल्यांतच, म्हज्या काणयांनी परत्यापरत्यान येंवच्या एके केरीतच जाल्लें. त्या उज्यांत एकलो म्हातारो मेल्लो. तो कांय वोमूचो संबंधिक न्हय. जाल्यारय तें ताचे मतिचेर केल्लो परिणाम, विनायकान सांगल्ली रीत म्हाका हालयनासतां नातल्लें. हेविशी हावें एक काणी बरयजो म्हळी विनायकाची आशा आसल्ली. बरयली सयत. पुण "वोमून सांगल्ली काणी" म्हणोन बरंवक सुरु करताना, तांतुं उदेंवक सुरु जाल्लें मात म्हज्या बापायच्या मरणाचे घडितच. एके रितीत, आमच्या दोगांमदें आतां उगतें जाल्ले हावें इतले दीस साहित्याविशी सांगोन आयल्ले समर्थन करचो संदर्भ भोगुंकलागलें. म्हजी एकल्याची दूक जाल्यार कितें खंय. गरजेचे आसल्लें, तातूं तुमी तुमची दूक देखचीं साध्यता जल्माल्यागी? म्हळळें सवाल. म्हळयार चित्रायिल्लें दूक, कोणायचें दूक जांवचे इतले बळवंतकि? म्हळळें सवाल. ही म्हजी तवळची पात्येणी आसल्ली. बापायचें नांव बदलून, हांगाच्या धारावीच्या झोपड्याखोमटांनी रावतलो म्हणोन चिंतल्ल्या एका म्हाताऱ्याचें रूप दिल्लें. धारावीचे नांव तांतू आयल्ले तरय, चित्रण जाल्लें मात देगेच्या भूतबंगल्यांनी अनधिकृत गुडसुलां बांधून रावल्ल्यांचे जिवित आसल्ले. लॉन्ड्स एंडांत उटोन रावोक लागल्ल्या होटेलाच्या बांदपाकामांत आसल्ल्या कामाठी लोकाच्या गुडसुलांनीय, थंय पळेल्ल्या जिवितानीय, काणयेंत आयल्ल्या भोवारीच्या होगळिकेक जीव दिल्लो. हे काणयेक सवाल करचे धयर हाका आसल्ले जाल्यार... पळेवनच सोडटां: ना. मुकार बसल्ल्याचे तोंड असल्या खंयच्याय दुशट पूर्वग्रहांक अवकास दिंवचे तसले नातल्लें. पुण त्या तोंडाची जांव, तें पाचारच्या भोगणांची जांव, वळक धरचो! कश्टांचें जाताना, बसल्ल्याकडेच चडपडोकलागल्लो. तवळ ताणेच परत्यान तोंड सोडलें:सारको वेळ म्हण चिंतून हाचे तोंड उसयजो म्हणचे भितर कुडा भितर पयलेच्येबरी दोळे कोंकचे विजेदिवे झग म्हणोन उजवाडतात.

"मुकलों तुमी सारकें चिंतयना सर" म्हणान काणी सपयल्ली वामू, म्हज्याव्ही विजमितकायबरी एक रितिच्या असमाधानाकय कारण जावक लागल्लो. ताची उतरां, ताळो, त्रासाविणे सवकास सांगची रीत सकड म्हज्या मतीचेर परिणाम घालून आसतानांय, तो हें सकड कित्या मागता म्हळें कळानासतां गोंदळांत शिरकालोंए तवळ वामू ताळो तगमून, एककच सब्द विंचून उलवची रीत आयकालागलोः "सर, हेंच आतां मतीक पिसवंवची, ह्या मंद उजवाडांत. हें शितळायेंत दंकची ही भोंवारः हो आरबी दर्या, ह्या रात्री, तांचेमदें ह्या तीतांबरी आसचे उदकाफोंडवे, कुशिचे भूतबंगल, लेडस एंड मनशाच्या भक्तीक भोगणांनी शांतिविचारांनी जलमान, साहित्यांत परगट जांवच्या हे वास्तविकतेक आमचेथावन प्रत्यक्ष कृती मागान, तांच्या वातांत घाम हाडंवचे वास्तविकतेकय अंतर आसा म्हण भोगनांकि?" कदेलार बसान आसल्लो बसल्लेबसल्लेकडेंच व्हड बंडायकार जांवकलागलो. मयामागान, सवाल विचारच्या रितीन उलंवची उतरां, म्हज्यो मुळाव्यो पातयेण्योंच हालंवक पळेवचें धिमाकच आयकल्लेबरी जावन पयलेपावटीं आयल्ल्याचेर राग येंवकलागलाः फकत चिंतनांनी, कृती मागनासच्या भोगणांनी जलमाल्ल्याकय, करनखातीर रडच्याकय आसचे अंतर दाकंवच्या निबान म्हज्या काणयांनी येंवचो भोंवारीचो विवर आवाजाविणें उकलून दाकयता. केदळाकि वाचल्ल्या नाटकाची काणी सांगता. सदां दिसल्यारय तसो ना तो. म्हज काणयेतलो खंयचोंकि विशय शीदा दाकंवच्या बदलाक घुंवडावन घुंवडावन सांगोन आसा वडकेचो चूतः "सर, तुमी पयर धाराविच्या एका झोंपड्यांत जाल्ल्येपरी बरयल्ल्या उज्या प्रकरणाची काणी आसा पळे, तांतुं येंवचे जण, घडित खंयचेंय तुमच्या अनभोगांत जलमांकचना." म्हणोन कितें तरय शीदा म्हज्या तोंडारच सांगल्ले तर, नीज गजाल भिरांतिविणें सांगोन सोडतो, देवाच्या नावान. तांतुं येंवचो पिको पिको म्हातारो, ताका राती निदल्लेकडेच हुलपावन गोबर केल्लो उजोः वयल्या वयल्यान येंवच मार्क्स लेनीन... सगळी फटिंची पोटली म्हणोन मानुन घेतों. म्हजी काणी रुचलीना जाल्यार शीदा सांगचें सोडन ही वांकडी वाट कित्या? हें हलकटपण' पळे वामू, म्हाकाय ती काणी बरयिल्लेविशी अभिमान जांव, संतोस जांव ना. ते काणयेंत येंवचो बापुय म्हजो बापुयच. हांव बोव ल्हान आसताना आंगाक उजो लागवन जीवघात केल्ल्या त्या दुर्घटणाच्या आघातान म्हाका आनिकय सुटोंक जांवकना. थोड्यावरसांपाटी कन्नड-मराठी गलाट्यांत होटेलाक उजो पडोन म्हजो एकलो संबंधिक मेल्लो. तवळय ही काणी बरंवचें प्रयतन करन सुफळ जायनासतां सोडन सोडल्ली. आतां, तुवें विनायकाक सांगल्ल्या घडितांद्वारी, काणयेक दिल्ल्या तुज्या नावाद्वारी, आतांचें रूप घेवन जायत्या जणांक पांवचेंबरी जाली पुण आतां तुंच तिचो गुट फोडुंक हट बांदून आयल्ल्याबरी..."

आमचेमदें उलणें रावोन जायतो वेळ जालो. वामू हावे तोंड उगडची वाट

पळेत आसा म्हणपाचें मतीक आयल्ल्याखिणा कदेलाचेर चडपडलो. हेंच कारण म्हणा सांगोंक जायनातल्ली असकतकाय म्हाका वेडो घालताली. "सर, कितें सकड सागजे चिंतल्लें. पुण इतलें सकड समजोन तुमचे हुजीर बसोंक साध्य जांवचेना म्हण पयलेंच कळल्लें. देकुनच ह्या नाटकाविशीं सांगल्यार म्हाका सांगोंक आसल्लें तुमकां समजतलें चिंतून तशें सांगलें. म्हाका चूक समजानाकात सर. हांगा ह्या वेळार बसोन चिंतूंक असाध्य जाल्ल्या एका संसाराविशीं तुमकां कळयजे म्हण चिंतल्लें बरवन हाडलां. हांव गेल्याउपरांत वाचून पळेया." म्हळ्ळेंच धडक करन बसल्लेकडचो उटोन, म्हज्या हाताक एक लोकाटो दीवन चलतच रावलो. म्हजो हात हालंवकना. वेताना एकयपावटी पाटीं पळेलेंना. तो तसो वेचें पलेवनय म्हाका कदेल सोडन उटोंकय जालेंना. बसल्लेकडेच बांदून पडल्ली भोगणा. दार उगतें केल्लें, दार धांपल्लें आयकोन, तो घर सोडन गेला म्हण कळ्ळयाउपरांत हातांत धरल्लो धांपल्लो लोकाटो पळेवनच बसलों. म्हजे काणयेक फुड जावन काणी बरवन हाडल्लो हो अनवळकी सयरो तोंड दाकयनातल्ल्या भयाक कारण जांवक लागलो.

## 3

ह्या सकडाकय एकचपावटीं एक दुकाळ घुंवडी आयल्ली, मुकार म्हज्या हातान घडल्ल्ये चुकीन. न्हय तर चूक म्हणोन बोव तडव करून कळल्ल्यान. तेविशीं विचार केल्ल्यातितलेंय भोगताः मनशाप्नशाची मुखामुखी आकरेक तरय फकत दोगां मनशांचें तोडामोल न्हय. तशें पळेल्यार असलो विचार म्हाका आयल्लो हेच पयले पावटीं न्हय. पुण ताका कारण जाल्ल्या हरयेका अनभोगान मुखामुखिचो अर्थ वेवेगळोच दाकयला. दोन इतिहासांची मुखामुखी जावन दोन पापप्रज्ञांची मुखामुखी जावन आनी कितेंकि. आतां दिसताः ती दोन चिंतपांची, भरवश्यांची मुखामुखीय व्हय म्हणोन. हातांत धरून गेल्लो लोकाटो, आपुण भायर सरल्लोच फोडून, हांव वाचतलोंच म्हणोन वोमूचें चिंतप जावनासल्लें, म्हजेर दवरल्लो भरवसो जावनासल्लो. व्हडलें व्हडलें उलयल्यार कितें जालें, आकरेक तरय तो आयलो आपणे बरयल्ली काणी दीवन वचुंकच म्हणोन म्हजें चिंतप जावनासल्ले. सकडय उटल्याउपरांत, सकाळिंच्या नितळ उजवाडांत म्हजें घर प्रकासताना येवन मेळोक लज जाल्या जांवकपुरो. ह्या पयलें कितलेकि मुखारधयराचे काणयेगार येवन, वाचुन पळे म्हण सांगोन, अशी काणी दीवन वचुंकनांत। नीज पळेल्यार इतल्या फांत्यारच येवन सकाळिंची साकर नीद पाड केल्ल्याक हावेंच रागार जायजे. जाल्यारय तरनाट्याथंय आसल्लें कितेकि म्हजे मतिचेर दाट प्रभाव फांकल्ल्याबरी जाल्लें. ताच्या ह्या 'चिंतिनातल्ले करंदायेक'खंयचेय रितीन बेजाराय करिनासतां, लोकाटो पुस्तकांच्या एका कबाटात दवरून, बालकनीचे दार धांपून, निदच्या कुडाक येवन, परत्यान मांद्रेर

आड पडलों. नीद कदळा लागली कि कळोकचना. परत्यान जाग जाताना भायर वोत सारके वयर चडल्ले. म्हाका जाग जाल्ल्याची खबर कळल्ले बायलेन सदाचे सवयपरी 'बेड टी'चे कोंप खटल्याचे कुशीन आसच्या धाकट्या टेबलाचेर दवरून, "वेळ कितलोजालो म्हण खबर आसा न्हय? आफिसाक सुटी आसा म्हणोन निदक मीत नाका?" म्हणाली. सकाळी उठोन नव कितेंकि बरयन परत्यान निदलां जायत म्हणोन चिंतुनच खुशेन आसल्लेबरी आसल्ले बायलेच्या उतरांनी, हो सुटचो दीस म्हळ्ळी खबर तवळ येवन पावटी जावन नतीक संतोस जालो.

ब्रेकफास्टाक वसताना बायलेक जांव, धुवेक जांव सकाळी घडल्ल्याची खबर मेळोंकना म्हळ्ळे स्पश्ट आसल्लें. हांव जावन सांगोंक वचूंकना. लोकाट्याचो उडास जाताना, ताचे भितर आसल्ली काणीच म्हळ्ळेविशीं सासवायेदो दुबाव नातल्लो तरय, ती उगती करून पळेवचें धयर जावचना. तवळच कितल्याकि लोकाथावन शाबास्की जोडल्ल्या, म्हज नांव वेल्ले कागदाक सवाल जावयेत जाल्लें वाचप्याक मन तयार जायनातल्लें. पुण लोकाट्याक हात लायनासताना रावल्लें समर्थन केल्ली रीत मात विचित्र आसल्ली. बायलेन आनी धुवेन तें पळेलें तर सकाळी घडल्लें सगळे सांगजे पडटलें. आयल्ला, ती काणयो उटचे आदींच वचजे म्हणोन आमसरार आसल्लेबरी गल्ली रीत पळल्यार ताकाय आपणाची ही भेट गुपित दवरिजे जाल्लीच न्हय, हांव तशोच दवरतलो म्हळ्ळे तो पातयेल्ल्याबरी आसल्लें! ब्रेकफास्ट संपल्लोंच धुव उमदोन "बाबा बरय्या, सकाळीं उटोन कितें बरयलां तरय" म्हणोन म्हज्या बरपाची साहित सोधुंकलागले. तवळ एक सान फट मारिजे पडली. "काल हाडल्लें 'पोर्टेबल निश्शे' पुस्तक वाचुंक आसक्त जाली. तशें म्हणोनच सकाळी उटोन वाचुंक बसलों. परत्यान नीद आयली. येवन निदलों." म्हळें.

तितल्यार टेलिफोनाची कांपीण व्हाजलागली. तें कोणाचें म्हळ्ळेविशीं म्हाका सासवायेदो दुबाव नातल्लो: घरा पावोंक फुरसत ना, बडकेचो पूत फोन करता. "फकत मनाक, दोळ्यांक संतोस दिवच्या थंडी उजवाडांत पळल्ल्याकय, कृतयेक आपवणें दीत वोतांत सुखल्ल्या हकीगतेकय चडीत फरक आसा म्हणोन भोगना सर" बोगळतलो बडकेचो पूत. फकत राग, जिद्द हांचो कच्चोमाल. बंडाय खंय! क्रांती खंय! फकत साहितिचेर हांच्या मुटिंचो मार. ह्या दरिद्रपणाक, ह्या झोपड्याखोमटांक कारण जाल्लो राजकारणी सगळे हांचेथावन पयस रावोन शाबीत आसात. कित्याक म्हळयार ते हांच्या हाताक मेळचे तसले न्हय. ते खंय आसात, कशे दिसतात म्हळ्ळें सयत हांकां कळीत ना. म्हज तसल्याचेर हांची दाढ कित्या म्हळयार सलिसायेन हाताक मेळटा. काणयेविशी विचारल्यार . सांगोन सोडटां: व्हय, तूं हांगा थावन भायर सरल्लोंच एकाच माराक वाचून मुगदिलें. काणी बिलकुल पसंद जालीना. फकत आराबायो, घोषणांनी भरल्या.

ती साहित्य जावन निजायकय ना. साहित्य म्हळयार भाशेंत घडचो, आकार जोडचो मनावयवाट म्हण तुवें चिंतल्लेबरी दिसना. बऱ्या साहित्याक बरी भासय जाय. तूं आनिकय तरनाटो. भाशेचेर राजवटकाय व्हाडयली म्हळयार, नाका नाका म्हळयारय तुजे थावन आतांचे परस हजार वांट्यांनी चड साराभरीत काणयों जलमोन येंवच्यांत दुबाव ना.

परत्यान आचार विचारांचोच मतिचेर हात आसल्लोः ताळो सारको करून नाकाची फुडां फुलवन टेलिफोन उकल्लें. तेकुशीन "हल्लो" म्हळळो ताळो परसोनेल मॅनेजर कुलकर्णिचो जावनासल्लो. म्हजें चिंतप चूक जाल्ल्याचेर राग आयल्लोकि, आकेरिक आपयल्लो वोमु तरय न्हयच न्हय म्हळळें. कळोन संतोस जाल्लोकि म्हळळे आतां चिंतूंक कश्ट. कुलकर्णिन फोन केल्लें कारण मात हफत्याचे आकेरिचे दोन सुटयेचे दीस खर्चूक हावें घाल्लें योजन वायट करचेबरी आसल्लें: हावें त्याच राती डेल्लिक वचजो पडल्लें. थंय थावन डेल्लिच्या ब्रांचमॉनेजरासांगाता कारार हरिद्वाराक सोमारा सकाळी थंयच्या सरकारी आडळत्याच्या व्हडल्या एका कार्खान्याक भेट दीजे आसल्ली. आमी भरल्ल्या व्हडल्या टेंडराचें फलितांश म्हयन्याचे आकेरिभितर कळचें आसल्लें. तें आमचेतरफेन आसच्यांत दुबाव नातल्लो. एम.डी. डेल्लिक वेताना ताका कळळें खंय, कोणकि दुश्टांनी हात घाल्ल्यान आमचे हात चुकोन वेचो संभव आसा आनी कितें...आनी कितें...

हांगाय परत्यान म्हजें लेक चूक म्हणोन कळळें मस्त तडव करून. एक पावटी डेल्ली गेल्यानंतर हरिद्वाराथावन रायबरेली, थंयथावन नयनी हें सगळें भोंवुन येजे पडलें. म्हजे तांत्रिक हुशारायेक स्वता सेल्स खात्याच्यांच्या दोळयानय आतां "महत्व" आयल्लें पळेवन त्याखिणा एके रितिच्या गरवान फुगोन वेचेबरी जालें तरय, दोन दिसांच्या उलवण्याक हाती धरल्लें पयण, आट दिसांपासून वाडल्लेय लेकिनासतां ताणी आपयल्लेकडे पूरा, खुशेनच भोंवून आयलों तरय, त्या सगळया पयणाची योजना डेल्लिच्या मॉनेजराकय कळितनातल्ल्या एका दुश्ट उपायाचो वांटो जावनासल्लो म्हण कळल्ल्यावेळा, सकडय म्हज्या मुटिभायले उतर जावन गेल्लेए कसलीय फुडली सूचना नासताना आयल्ल्या आपवण्याक वोपून दीगकाळाच्या पयणाचेर वचानातल्लों जाल्यार घडल्लें दुरंत चुकयतों म्हळळे धयर म्हाका ना. तसलें प्रयतन तरय म्हजे थावन जायजे आसल्ले कोण्णा म्हण भोगचें मात फट न्हय. ताका फटवाल्ली रीत म्हाका जळयता. तुमकांय असल्या प्रयतनाचो अवकास वोदगोन येताना तुमी तरय ताका फटवानाकात म्हळळया उद्देशान सकडय जातातितले सोडवन सांगतें आसां.

4

"सकडय सांगते आसा" म्हळळयाक एक गरजेचें उतर जोडिजे कितेकि.

म्हाका कळ्ळें सकड, अर्थ जाल्लें सकड आमचे कंपणीच्या इकशीक राजकारणांत म्हाका चडीत अर्थ जाल्लें न्हय जाल्यार तातूं नाव इतलें दीम. चडीत मन घालूंकना. आतां भोगता: आताच्या दिसांनीं मनशान आपल्या करन्यांक लगाम आसल्ल्या खंयच्याय शेतानीं आयकत दवरिजे अशें म्हणात. राजकीय सयत बिगड दवरिनासता. हांगाच्या कामगिरी शेताचें राजकीय, ताची वळक नातल्ल्या साद्या वामून आपणाचेर वोडून घेतल्ली व्हड त्रास जातातितल्या सांगतां. दयादवरून सार्सणिकायन आयका. किल्या म्हळ्यार ताका वाव मागाच जावनासल्ल्या एका कार्यशेताची वळक तुमकां आताना मात म्हज मनांक इल्लो तरय संतोस भोगत.

ठाणाबेलापुर रसत्याचेर व्हडव्हड पेट्रोकेमिकल्स, इलेक्ट्रिकल स्विच गियर, फार्मास्यूटिकल कंपणेंचे कारखाने आसच्या "इंडस्ट्रियल बेल्टांतच" आमचे कंपणीन नव्या उत्पादनच्या एका व्हड योजनाक मस्तु वर्सांपाटीच घेवन दवरल्लो चाळीस एकर व्हड जागो आसल्लो. आमचे कंपणेंत एका मल्टिनॉशनल कंपणचे बंडवाळ चडीत वांट्यान आसल्लेनिमतीं ह्या योजनाक जाय आसल्लें इंडस्ट्रियल लायसन्स मेळच्यांत त्रास जावन योजन सोडन सोडिजे पडलें. पुण त्याच मल्टिनॉशनल कंपणेंचे हिशे आसचीं आनयेक कंपणी हो जागो भारी व्हड मोलाक घेंवक तयार आसल्लीं. किल्या म्हळ्यार ताची आतांची फॉक्टरी ह्या जाग्याबगलेच्या जाग्यारच आसल्ली. ह्या विकऱ्याक आड आयल्ली, त्या जाग्याचेर पाटल्या सबार वर्सांपाटीं वयर आयल्ली, एकशेंच्याकय चडीत गुडसुलां आसची झोपडपट्टी. ही थंयथावन उटंवची तितलें एक सलीस नातल्लें. हाच्यापाटल्यानय एका बळवंत राजकारणीचो हात आसल्लेबरी आसल्लो. जागो घेंवच्यार आसल्ल्या कंपणेच्या कामेल्यांच्या यूनियनांत हात घालूंक ताका हो वेळ वापरूंक आसल्लो. देकून झोपडपट्टेच्या जणांक आमचे कंपणेन दींवक चिंतल्लें कुमकेधन घेनातल्लेबरी तांकां एकवटावन हरयेक शरतांची एक वळेरी, घेंवच्या तशें विकच्या दोनय कंपणेक धाडल्ली. कंपणेच्या दिश्टीन तीं शरतां विचित्र जावनासल्ली: हे झोपडपट्टेतल्या एकशें लोकाक तरय, थंय येंवच्या नव्या कारखान्यांत काम दिंवचो बरपीनिशी भरवसो दीज. हो फकत भरवसो न्हय म्हळ्ळयाक रुजवात जावन तांचेमदल्या पन्नास जणांक तरय आतां आसचे फॉक्टरीतच कामाक दवरिजे. ह्या शरतां पाटलो हेतू स्पश्ट आसल्लो. बोंबयच्या साबार कारखान्यांनी आयलेवारच्या दिसांनी सुरू जाल्ल्या दग्यांक, मारामारींक, कामेल्यांच्या तशें अधिकारीच्या खुनयांक सयत कारण जाल्लो, ह्या नव्यान जलमोन आयल्ल्या बळवंत यूनियनाचो मुखेली सबार कंपनिच्या मॉनेजमेंटांची नीद पाड करूंक कारण जांवक लागल्लो. आतां हे कंपणेच्या यूनियनांतय हात घालचें दुश्ट योजन ताचें म्हळ्ळयाक ह्या शरतांक आमी सरवांनी केल्लो अर्थ आसल्लो. आमी सकड चुकल्ल्यांव हांगाच. ह्या नव्या

शरतांक वळेरी बरयल्लो हात आमच्या वांट्याक खळयामुखेली जाल्ल्या कामेलि संघाच्या मुखेल्याचो न्हय आसल्लो. वोमू तशें ताच्या सांगात्यांचो आसल्लो. वोमू ह्या यूनियनांत काम करतालो म्हण म्हाका कळल्लें, वोमून दीवन गेल्ल्या लोकाट्यांत आसल्ली ताणे बरयल्ली काणी न्हय आसतां ह्या शरतांच्या वळेरिंची प्रती जावनासल्ली म्हण कळल्ल्या दिसा. ताका चिटकायल्ल्या एके ल्हान चिटीत वोमून ल्हान अक्षरांनी बरयल्ली संगत अशे आसल्ली "सर। तुमचे बालकनीथावन दिसच्या संसाराच्याकय वेगळोच एक संसार पळेवचो आसल्यार हांगा हे वळेरीत सांगल्ल्या जाग्याक येया. आमच्या यूनियनाच्यो आशा कितल्यो साद्यो आसात म्हळ्ळें तुमकां तरय कळतल्यो. तांच्या जिविताची रीत दोळयानी पळेंवचो अवकासय लाबतलो. तुमचे कंपणेथावन जागो घेतल्ले कंपणेचे जण सगळे चोर सर. आमच्या यूनियन लीडराकच एक लाक रुपयांक घेवन सोडलें. हें आमकां कळीत आसा. आमी सोडचेनांव. असल्या भायल्या मुखेल्यांथावन संपूर्ण स्वतंत्र जांवचो निचेव आमचो. कामेल्यांच्या बरेपणांत नीज आसक्त आसल्ले, पाग घेनासतानांच काम करूंक तयार आसच्यांची कुमक जाय जाल्या सर. म्हजो सांगाती कांब्ळे सबारांचो सांगात जोडून आसा. प्रायेन, अनभोगांत म्हज्याकय व्हड. ताचोच विचार हो. कुमकेधनाविशी कांय उपकार ना. पियेवन चार दिसांनी वायट करतात, ताचे बदलाक काम दिवयल्यार तांच्या जिविताची सुरपायच बदलीयेत - म्हणोन. लोंच खेल्ल्या आमच्या मुखेल्याच्या मनशांनी पसरायल्ले, न्हय जाल्ले खबरेवरवीं हे झोपडपट्टेचो लोकच आमच्या योजनाक आनिकय तयार जांवकना. ताका थोडो वेळ जाय पडटलो. हांगा तुमचेथावन एक काम जायजे जालां. झोपडपट्टेच्यांक जागो खाली करूंक दिल्लो वायदो चार दिसां बदलाक पंदरा दिसांक चडयजे म्हणोन सकडांथावन सय घेतल्ली एक अरजी सोमारा तुमच्या एम.डी.क मुखी भेटोन हांव आनी म्हजो सांगाती दितल्यांव..." आनी कितें...

देवा। वोमू आयल्लो ह्या एका ल्हान सवलतेखातीर जांवकपुरो? हावें हें पत्र तो आयल्ल्यादिसाच वाचल्लें तर ही सवलत दिवयतों कि ना कि बोवशा ना. 'बोवशा' कित्याक, खंडित जावन म्हज्यान हे काम जातेंना. वोमूक मेळल्ली खबार नीज जाल्ली जाल्यार, कामेली संघाच्या मुखेलीक दिल्लो लोंच, जागो खाली करूंक दिल्ले उणे आवदेचेच मोल जायजे. तुरतान खाली केल्यार मात आमच्या कंपणेक ह्या वयवाटांत लाभ जाता आसतलो. वयल्यान असल्या संगतिंनी वयल्या आडळत्यांत आसल्ल्यांचेर म्हजो प्रभाव तितलो व्हड नातल्लो. पुण वोमूक म्हजेर भरवसो आसल्लेबरी आसल्लो. तो म्हज्याविशांतल्या एकाचितपाक जलमला जांवक पुरो. तरय म्हजया कंपणेच्यांनी सयत म्हाका त्याच वेळा पयणाचेर धाडल्लें पळेताना हांतू हावें खेळयेत जाल्लो पात्र कसलों तरय आसतोकि म्हळ्ळे सवाल म्हाका आज पासून धोसुनच आयलां. अशें

आसल्यारय आसुंकपुरा न्हय? - वामू म्हाका मेळल्ली खबर, ताणी सांगल्ली दवरल्ल्यांथावनच आमच्या एम.डी.च्या कानाक पावान. म्हजे थावन कसलेंच धोस नाका म्हणचतसलो फकत जागरूतकायेची उमाय जावकपुरो न्हय? सकडय चिंतनां. वादावर्वी, बुद्धतकायवर्वी आपडयेन जाल्ल्या वायनेवर्विशीं चिंतनां. उणयारउण आयच्या राजकीयपाटल्या क्रूरपणाविशीं म्हज्या अनभागाक आयल्ल्याच्या आधाराचेर चार उपदेसाची उतरां तरय सांगयेत आसल्लीं कि कितेंकि? हो क्रांतीकारी तरनाटो म्हज्या उतरांक कान दितो कि ना कि. पुण्यार ताच्या जिवाक आसच्या अपायान वांचवचें प्रयतन तरय करतो - देवाच्या नावान करतों...

आकरेकय अनाहुत घडल्ले वामून पानयेर्णी दवरल्ल्या जणानीच ताचो हात सोडल्यान. लोंच खेल्ल्या यूनियनाचया फुडारिनच झोपडपट्टिल्या थोड्याच हात हुन करून झोपड्यांक उजो दिवयल्लें दुर्घटन वाचयच्या आयलेवारच्या इतिहासांतच जांवकनातल्लें म्हण सांगच तितले कठिण आसल्लें. ह्या उज्या पाटल्या घुटाचो एकेकच विवर पत्रांनी परगट जावक लागल्लो. कामेल्याच्या नावानच चलच्या यूनियनांच्या भितरल्या झगड्यांविशीं ताच्या पाटल्या भ्रष्टाचाराविशीं, कंपणेच्या आडळत्याविशी, ह्या सगळया राजकाराणात व्हड हात आसच्या पोलिसांविशी, पत्रांनी सदांय एकेक रितिची खबर. आकरेक एक टीम तो यवचो रावल्ल्याकय यूनियनाचे फुडारीच कारण म्हण समजातना, ह्या सगळ्या गजाली म्हजे सोसणिकाये भितरल्या संसारांतल्यो न्हय म्हण चिंतून थंड जाल्ल्या काळारच एक दीस विनायकाविशी खबर मळान उसमडल्लो. हांव पयणार गेल्लया एक दोन दिसानीच विनायकाक आसल्लबरी व्हडली भडती दीवन आमच्या बेंगळूर आफिसाक वर्ग केल्ला खय. त्या उपरांत समजाल्ली आनयेक खबर वोमूक कामाथावन काडल्ली. वोमून म्हज्या हातीं दीवन गेल्ला लोकाटो सोडवन पळेंवचें मन केल्लें तेदळा. त्या वेळा उज्या प्रकरण जावन पंदरादिसां वयर जाल्ले. जाल्यारय ह्यो सकड एकाएक बोंव दुश्टरितीन संबंध जोडल्लयो संगती जावनासात, एकेरितीन हांव सयत तांकां जवाबदार आस्ता म्हळळी गुमानी जलमोन, म्हाका धोसुंक लागल्लें. झोपड्यांक लागल्ल्या उज्यांत दोग मेल्यात. दोगय यूनियन लीडराक विरोध रावल्ले. उज्या पाटलें मूळ प्रेरण हांकां दोगांयकय जिवशी मारचें आसल्लें. पोलिसांक हें कळानय हें ते लिपयतात म्हळळी खबर आयकोंक सुरू जाताना, ह्याच्याकय पाटल्या एकादिसा ते मरोंकनांत, खंयकि लिपल्यात. धुत म्हण एक दीस दिसान हें दुश्ट राजकारण भायर घालतले म्हणोन संबंद जाल्ले सकडय भियेल्यात म्हळ्ळीखबर.

ह्या सगळया उलवण्याक आतां स म्हयने जावन आयल्यात. पुण वामुचो पत्तो मात आनिकय मेळोंकना. हे आवदेंत ताका सोदुन हांव भोंवुन आयल्ल्या झोपडपट्टीक लेक ना. फुरसत आसताना, नातल्ल्यावळार, तायच्या वोताच्याभरार.

पावशिल्यादिसांनी वोमू भेटल्ल्या खिणा ताका वेंगोन सांगोंक चिंतल्ल्या हरयेकाक मनांतच आटवन आटवन वोळयावोळया मंत्रांचो आकार आयला.

5

बोंबयच्या सकड हळशीक वसतेंनी वोमूक सोदुन पिशें लागल्लेभाशेन धांवतासताना तो नीज जावन त्या उज्यांत आपल्या सांगात्यां सांगाता भसमोन गेला जावयेत? म्हळळया भियान चिंवल्लें चिंवड जाताना निश्शेचो "मॅडमॅन" म्हळळो नांवडदीक रूपक मुकार रावतालो. तांतुं येंवचो पिसो दिसावेळारच एक दीस चूड पेटवन पेंटेंत भोंवतालो खंय. "हांव देवाक सोदुन आसां" म्हण सांगोन. देवाचेर पातयेणी नातल्ल्या थोड्यांनी तमाशांनी विचारलें खंय "कित्याक! आसल्लेबरी ताणे दोळे चुकयले? ल्हान भुरग्याबरी वाट चुकलो? लिपोन बसला जावयेत कि? आमकां भियेलाकि? दरयापयणार भायर सरला जावयेतकि? देसांतर गेला जावयेतकि?" म्हणोन. पिसो एकचपावटी तांचे मदें गुडगुडोन, तांकां सरवांक भसमोंच्या तितली राग वोंकची दीश्ट फांकवन ताळो उबारुन म्हणालो खंय "देव खंय आसाकि? सांगतां आयका देव मेलो. कित्या म्हळयार आमीच ताका मारलें - तुमी, हावें, सकडांनी". ना -ना - ना - वोमू मरोंकना. बोंबयच्या राजकारणाक कांटाळोन, सद्याक हांगाथावन पयस गेला जावयेत, तितलेंच. म्हज्या घरांत आसल्ल्या अर्ध्या वोरांत पळेल्लें ताचें तोंड, उलयिल्ली उतरां नियाळन सांगलें तर, खंय गेल्यारय ताचो वगेच बसचो जीव न्हय. अशेंच म्हज्या घरा आयल्ल्याबरीच, आनी कोणाच्या तरय घरा वचून, आनिकय साकरनिदेत आसच्या यजमान्याक उटवन, बलकांवाक आपवन हाडन सांगता आसतलो. "पळेया, हांगाच्या ह्या रंगरंगाळ कदेलांचेर पाट तेकोन बसताना थंड उजवाडांत उसोन येंवची वास्तवता आसा पळे ताचे थावन वेगळो एक संसार आसा. तापच्या वोतांत उकडटा. पडच्या पावसांत भिजोन वोलें वोलें जाता. तुमकां करनेक आपवणे दिता. करनेक भियेल्यात म्हणोन तकली लिपयनाकात. उण्यार, थंय एक पावटी तरय एक दोळो सोडन पळेया. करनेक जाय जाल्लें धयर आपापीच आंकरेता" म्हणता आसतलो. न्हय तर तोंड सोडून सांगोंक जायनातल्ले लोकाट्यांत बरवन दीवन वेता आसतलो. म्हजेबरी तुमीय फटवनाकात. तुरतान ताच्या मुकारच ते वाचून पळेया. व्हय, हें सकड कित्याक सांगलें म्हळयार तो एक दीस तुमच्या घराय येवकपुरो. येताना ताची वळक धरूंक कश्ट जांवचे नाकात म्हणोन सांगोन दिता लाबाय चडुणे पांच फुट सात इंचां जावयेत. आमच्या घरा आयल्ल्या तेदळा तरय धवे जरसी, निळशा रंगाचे जीन्स न्हेसल्लो, कोल्हापुरी चप्पल घाल्ल्यो. लाब, कान धांपल्ले केस. वयल्या वोंटाथावन मातशें सकयल बागाल्ल्यो मिश्यो. चूप पोंत आसल्लें लांबशें नाक. एका गालाचेर घायाची ल्हान माव आसा. दोळे मातशे फोडाक देंवल्लेबरी

आसात तरय, तुमचकुशी पळवन उलयताना आपुरबायेन परजळटात. कुडिचो रंग काळो तरय एकपावटी वळक जाल्याउपरांत मचवंचो तसलो. उलयताना केन्नांय ताळो उबारिना. मन कयद करून रावयचे तसले सादेपणापाटल्यान मूट अरनिल्लेंवरी आसचो निचेव. तवळ तवळ हासताना, मन पिसवचे धवे दात दाकयताना, मिश्यांची पोंतां लेवची पिसाय. दार बडवन "भितर येवंकि सर?" म्हण निचेवाची मेटां काडीत भितर आयल्ला काण म्हळळविशी दुबावच नाका. बसवन हांव ताची वाट राकान आंसां म्हळळविशी कळया, ताचे थावन ताचो पत्तो समजान, म्हाका एके फंकतिचें तरय पत्र बरया, तवळ पासून ता मरोकना. आमचेपयकी कोणेंय ताका मारूंकना म्हळळया एकाचएका भरवश्याक उमकाळान हांगाच्यो झोपडपट्टेंतल्यो वसत्यो भावुनच आसतां. ता दोळयांक पडटासून न्हयतर तुमचेथावन खबर मेळटापासून ही काणी अपूर्णच दवरतां.

(1979)

# भाग दोन : इतिहास

## काणी जाली चली

## त्रयोदश पुराण

"The Stalinist concept that history decides is right and wrong and evil is......the extreme opposite of the position of Marx, who said, History is nothing and does nothing. It is man who is and does".

- ERICH FROMM in the Revolution of Hope

# काणी जाली चली

"Yet if nothing else, each time a new baby is born there is a possibility of reprieve. Each child is a new being, a potential prophet, a new spiritual prince, a new spark of light, precipitated into the outer darkness. Who are we to decide that it is hopeless?"

**- R.D. Laing**
**in Politics of Experience**

येया, बसा, एक काणी सांगतां. कित्या सांगताकि कळीत ना. तुमका सरवांक आयकाजो भोगल्ल्यान सांगत आसां म्हण चिंता. काणी हागाथावनच सुरू करूंक कारण ती खंय थावनय सुरू करयेत म्हळ्ळें.

तेरा वरसांचें जानकी सरलें. ताच्या रगताक कॅन्सर जाल्लें. धोंवयच्या एक आसपतरेंत तेराच दीस मांदरेर आसल्ल्यान, एक दीस कात्यार उजवाड जिळमिळतानाच दोळे धांपले. म्हाका उसवास बांदतापर्यांत धोसल्लें. नत्या जानकीन सरच्या थोड्याच वोरां आदी केल्ले -म्हाका आनिकय अर्थ जावकनातल्ले बोव सादें एक मागणें. बाबा, म्हजे विशी एक काणी बरयतायॽ सकड सोडून हें मागणें कित्याॽ त्याच दिसा कित्याॽ सगळो दीस हासान हासवन आनल्ल्याक दाक्तेरांकय कळीत नासचें समजल्लें? आतांय चिंताना, दोळ्यामुकार रावान आसल्लें: दोनय गालांनी फोंडवे फोंडेवन, मोतयां तसल्या दांतांची कांप दाकवन हासचें ताचें तोंड. हासताना दोळ्यांनी उजेवाचो प्रकास. पिंतूर साडयल्लेपरी नाव वोंटांक जाय तितलेंच उसवन आयल्लें, नेंटेपणाच घेटवन आयल्लेपरी आयल्ले सवाल "म्हाका तुज्या काणयांनी घालतायॽ" हांव ह्या सवालाक विजमीत जावन दोळे उसयताना - "ते काणयेंत आमच्या मेरिकय घाल. तशेंच दाक्तर आनंदाकयॽ" मेरी, जानकीक पळोवन आसल्ल्या नर्सांचे नांव. दाक्तेर आनी नर्स दोगांय जानकीक बारी मोगाची जाल्ली. आकेर नितले लागीं आसत म्हळ्ळें चिंतपच नातल्ल्या हावें विचार करचे आदीच हूं म्हळ्ळे मात न्हय, "तूंच घरा आयल्या उपरांत कितें सकड बरयजे म्हळ्ळें सांग पुता, हांव बरवन घेतां जायना? तुज्याच नांवार काणी परगट करयां" म्हळ्ळें. तें घडये कितें सांगाज म्हळ्ळें समजनासतां तशें सांगलां जायजे. जानकी, उपरांत उलंवकना. असकतकायेन तरय भोव सोबीत करून हासलें. तेंच ताचें निमाणें उलणें, निमाणो हासो हासल्लो म्हळ्ळें गुमानाक आयल्ले मुकारी, साबार दिसां उपरांत काणी बरंवक बसताना. दाक्तेराकय ही आकेर चिंतिनातल्ली जाली जायजे. ही पिडा गूण जांवचे तसली न्हय म्हण कळीत आसुनय जर्मनी थावन तयळ्च

आयल्ल्या एका नव्या वोकतांत दाक्तेराक भरवसो आसल्लेबरी आसल्लो. सद्या चालू आसल्ली 'क्लिनिकल टेस्ट्स' मुगदाल्लीच हे वोकत सुरू करच्या आलोचेनेर आसल्ल्यांच्या तोंडार हरवाल्ली भोगणां उटोन दिसताली. नेंट्या साफ तोंडाचेर धवो कुडको वोडटाना मरणाचो अनभोंग आसच्या दोळयांनी सयत दूक भरल्ले. मेरी आनी ताचे सांगाती तरय सगळी लज सांडून रडल्ली. तेरा वरसां म्हजया जिविताचो वांटो जावनासल्लें जानकी हांच्या सांगाताच्या तेराच दिसांच्या सांगातान हांकां सरवांकय लागशिलें जावन गेल्लें. सरवय निजायेकच सवाल करच्या प्रश्नार्थक कुरवेच्या आकारार पांगरण पांगरल्ल्या कुडी सरशी म्हाका सोडून रूम सोडटाना दोळयांनी भरल्ली दुकां दाकंवचें मन नातल्ल्याबरी म्हज्या पाटल्यानथावन भुजांचेर हात दवरून "Be brave; she was a brave girl" म्हळ्ळेंच थंयथावन गेल्लो डॉ. आनंद.

भियेनाकात. म्हजे जानकीविशी काणी सांगोंक भायर सरोंकना. तुमी मेचवोक शिकल्ले काणयेंत जानकीक, ताच्या मरणाक, तें फुड करच्यांत ताणे दाकयल्ल्या धयराक जागो ना म्हळें हांवय जाणा. कित्या म्हळयार ह्या मरणाक, ह्या दुकाक खंयचेंय समाजीक मोल ना म्हणोन आमकां सरवांक सांगोन बुदवंत केल्ल्या आमच्या बुदवंतांक हांव विसरोंकना. निजायेचें हंग सांडिनासतां बरयजे म्हळी तांची वीरावेसाची वाणी म्हज्या कानांनी आजून साद घालताना एका नेंट्या जानकीच्या निश्पाप मरणाविशी बरंवचे बेजवाबदारेक कित्या हात घालूं?

तरय ताका तुमी पळेल्लें तर...! वसंतकाळांत तांबडी आंकरी सोडचो आंब्याचो दैवीक संतोस, वोतांत फेंड फेंडेवन ल्हारां उटवन नाचच्या सागराचो मस्तेल्लो संतोस, आवाज नासतां पोटांतल्या संतोसाक फुलेवच्या गुलोबाची सुडसुडाय उडासाक हाडच्या जानकीक तुमिंय मेळल्ल्यात तर...? दाक्तेराक ताणे विचारल्ली सवालां तुमीय विचारल्ली तर...! बेजार जालें न्हय? जाणा. बुदवंतांनी लाबयल्ले यादस्तिकेंत हो कसलोच उल्लेखच ना म्हणोन. आमच्या सरवांच्या मनांत व्हड वहड सवालां जळोक लायल्ल्यांच्या तोंडावयल्या आकांताक कारण जाल्ल्या तात्विक, बौदीक भोराच्या भिरमतेची वळक आसल्लो हांव जानकी मरच्या घडयेकय, जिविताविशी मरणाविशी दाक्तेरांक विचारल्ल्या सवालांचो प्रस्ताप कित्याक करूं? 'मरणाक भियेवन मरणच वोंपच्यांच्या दुश्ट हकाराक धाकटुल्या जानकीन विचारल्ली सवालां केन्ना तरय आदाळतीत?' म्हणोन दाक्तेरान काडल्लो उदधार...सकड नाका म्हणटात? तुमकांय भंय दिसता जायजे न्हय? आमचे सकड शास्वित म्हणंचे तसले गर्वच मतीक चड समाधानाचें न्हय?

देकुनच... ह्यो भिरांती मतीत दवरनंच, तांच्याकय चडीत आमच्या बुदवंतानी आमकां सरवांक लाबयल्ली यादस्तीक दोळयांमुकार दवरनंच काणी बरंवक

सुरू केली. म्हाका समजोंचे आदीच जानकी हांगाच्याच एका आपडल्यान जिवंच एक चेडूं जावनासल्लें. बॅन्ड्रांत · माहिम कॉजवे लागीच विमानबंदराक वेच्चे हायवे जमच्या जाग्याच्या दोनय बगलेनी उटोन रावल्ल्या झोपडयांच्या वर्णनान काणी सुरू जावन शीदा निजायसांगाता जोडून आसल्ला म्हळ्ळें समाधान दीवन `आसल्ले घडयकच बरवन आसल्ला हात आपापीच रावलो. सदाय ऑफिसाक वेताना येताना दोळयांभितर उदवन मायाग जावनासल्लें. सदा वक्रीकेचें हें भोंवार काव्याळ जाल्ल्या गद्यांत आपले सरवय दुरत उगतें करन दाकवन रावतानाच हांवे लागल्ल्या कामाचो अर्थ जालो म्हळ्ळेबरी आतावरेग विचारिनातल्ले सवाल धुत करून फुडें जाले. ह्या सरवावर्वी हांव जाडूक आशेल्लों कितें? दोन राती खळानासतां बसून बरयल्ली ही कृती ह्या आवडयांच्याभितर किदेंय कळिना म्हळळें कळीत आसुनय असली दुरंत अवस्था सयत एक कलाकृतीचो कच्चोमाल जवन वापरून कितें करन आसां? व्हडल्या एका पत्रार तांची पगटणी - व्हडल्या व्हडल्या अक्षरांनी छापल्ल्या म्हज्या नांवासांगाता. त्याउपरांत कन्नड साहित्यांत व्हड क्रांती केल्ल्या मानाचें स्थान. कथासाहित्याक येदोळवरेग येनातल्लो वस्त हाडल्लेविशीं; ती दोळयांक बांदचेबरी धरतां म्हणटाना मार्गदर्शक जाल्ले फटकेबरी नितळ नव्या म्हणण्यांच्या साधनाविशीं. असल्याची वाट रकोन बसल्ल्या आमच्या बुदवंतांची हागळीक' जीवन मरणाविशीं मुक्ताव्या सवालांकच मोल नातल्याउपरांत सृष्टीकामाक संबंध जाल्ली ही सवालां कितें व्हड' काणी परगट्टाना कार्ल मार्क्स, एम.एन.राय न्हय तर जंपीक भेटयल्यार जाली म्हण चिंताना म्हज्या विचारांन म्हाकाच उणेपण भागलें. जानकीची निमाणी आशा पोंताक पावंवक बरंवचे काणयेक इतली सकड अतम्यासमर्थनाची गरज कित्याक? आकरेक तरय काणी बरवन आसल्लों जानकिच्या समाधानाक न्हय? काणी बरवन संपयता पर्यांत ती कसलोय विचार नाका...

सबदांनी उदेल्ल्या जानकीक पळेल्लेंच म्हाका एकचपावटी हांसो रडणें दोनय आयलें. तेरा वरसांच्या निश्पाप भुरग्याचें मरण तुमका लागचेबरी करूंक सयत ताका दीजाय आसल्ल्या रंगावेसान हांसोक लायल्यारय दीजाय आसल्ली गर्ज बेजारायेक कारण जाली. आसपतरेचे खाटयेर निदल्ली, आसपतरेच्यानीच लाबयल्ल्या पिडेस्तांचें वस्तुर रेवडायल्ली असहायक कूड. नांव गरजेभायलें. कूळकुटमान धरन घेतल्लयो पातयेण्यो तें घडये वेर्थ. आसपतरेक आयल्ला उद्देस एकच: जियेवन आसजे, कित्याक जियज म्हळ्ळे सवाल उदतेंच ना. तेंच प्रायेचे कितलेकि जीव ह्यापयलेंच त्याच सामवस्तुरांनी निदोन उटल्लेकि...जानकीडरी जियेंवचें म्हळयार आवय - बापय, भाव-भयण, इश्ट-इश्टीण, टीचेर, दाक्तेर, नर्स हांच्या मोगाची हुनहुनीत ऊब म्हणोन चितून आसल्लेकि. अनभोगाक आयल्लो सळसळो आनिकय अनभोगाक येनातल्ल्या बरफातसले थंडायेक घुंवचे साध्यतेची कल्पना उबजायल्ल्या भियान कांपल्लेकि

मरणाच्या निष्ठूर पाटभुंयतच जिविताचो अर्थ समजोंच्या तात्विक आमसराच्या हेवशिल्या तडिर मात घेटेल्लो आकांत दोळयांमुकार रावल्लें चिंदी जाल्ली किरगी न्हेसल्ले ल्हान चेडूं. किरगेचो नाडो रेवडायल्लें पेंकड कितलें बारिक आसल्ले म्हळयार गेणामापान मेजून पळेजे म्हळ्ळी आतुराय. साबार म्हयने न्हाण देकानातल्ले केस थंय थंय जिड्याबरी घट जाल्ले. ग्रीस लागयल्लेबरी थळथळयां परजाळच्या तोंडाक काळें लेपल्लें. दीष्ट हालयनासतां तुमकांच पळेवन आसल्ल्या दोळयांनी मात खंय नातल्लो परजळ. ह्या संसाराक संबंध जाल्लीच न्हय म्हणचे तसली प्रश्नार्थक दीष्ट. ताच्या आवय-बापायक कितलें एक प्रयतन केल्यारय पिंतरांवक जालेना. माती खेल्लें तगड, पिंजकर मांदरी, रट्ट तशें रूप आकार नातल्ल्या वस्तुंनी बांदल्ल्या एका परकट झोपड्यामुकार एकलेंच रावल्लो. सुऱ्यो केन्नांकि बुडोन काळक मांडूकलागल्लो. माहीम खाडीची घाण गुम करून वाऱ्यांत भरसाल्ली. हायवेच्या दोनय कुशिंनी वाहनां वोडको नासतां कांप बांदुन धांवताली. जम्याथळावयलें ट्राफिकसिग्नल पाचव्याथावन तांबड्याक धुंवल्लेंच विमानबंदराकुशी धांवच्या वाहनांची धांवणी एकदम रावली. हेच राकोन आसल्लेबरी एका स्कूटराचेर आयल्ले दोग तरनाटे रसत्याच्या एके कुशीन लांबायेक निदल्ल्या उदकाच्या व्हडल्या पायपालागीं स्कूटर रावयन, पायप चडोन उडोन पडोन लोळोन देंवल्ल्या बरी रसत्याचे बगलेक पावोन शीदा धा बारा फुट सकयल आसल्ल्या गुडसुलाच्या दारारच येवन रावले. खंयकि मळबावयल्या तिळयांक दीशट लावन रावल्ल्या नेंट्या भुरग्याचे पाय मात हे धरणीर आसल्लेबरी आसल्ले. एकच पावटी हाजर जाल्ले, दोळयांनी पडबिंब जांवचेआदीच परकी एकल्याच्या हातान, तोंड धांपल्ल्या फोरसाक दोळयांनी काळक मांडूंकलागलो. पाय सलवोन आयल्लेबरी धरणीर कोसाळच्या वेळारच कोणकि दोनय पाय धरून धरणीर थावन उकलून झोपड्याभितर उकलून गेले. दोनय हात तुवाल्यान बांदले. तोंड दोळे सयत. किरगेचो नाडो सुटवन फिकिर नातल्लेबरी निशपाप पांयांक धांपल्ल्या वस्तुराची चिंदी वोडून उडयल्लीच...

"पुता...जानकी..."

"किते जाले कितें जालें? अरे, कदेलारच निदलायकि? जानकीचें सपण पडलेकिं?... येया मांदरेर येवन निदा. अरे, अशे कित्याक घामेल्यात?..."

तुवाल्यान आंग पुसून उलंवच्या बायलेक खंयचीय जाप दिंवच्या स्थितयेर हांव नातल्लों. जाल्ल्या अनभोगाचो संपूर्ण अर्थ म्हाकाच जांवकनातल्लो. म्हजें जानकी नीज जावन मेल्ले आतांच, पांचच मिनुटांच्या पयलें म्हळ्ळें पात्येनासतां रावोंक साध्य जायनातल्ले. मेल्ली रीत तरय चिंतल्यार - उडासाक आयल्ल्या आयल्लेबरी आंग कांपताले. राती बारा उतरल्यांत जायजे. म्हजेकुशीन भिरमतेन पळेवन बसल्ल्या बायलेच्या दोळयांनीय मेल्ल्या बाळाच्या उडासाची

दूक भरोन येंवची पळवनय "काय करन दिनाय?" म्हण विचारलें. "करता. तुम अशें उडोन पडचेबरी तें किते तुमी वळलें?" म्हता आपणाकच नातल्ले भयर पांगरून विचारतल्याचो ताळो दुकाक धुंवच्यार आसल्लो.

मनशापणाचे वळवळ सयत आसल्ल्याच रूपाचेर आयल्यार मात आपणावयल्यार आसांव म्हणच्यांचे झम् लागल्ले अंतस्करण कालवक. जानकीच्या मरणान न्हेसल्लें नवे सुरूप मनांत पसरोन रावल्ल रितीक सगळो जीव कापोन गेल्लो. पयलेंच मांडल्ल्या जाळाप्रकारच आयल्ल स्कूटर सवारी, मानजातिच्याकय वाईट ते। अस्कत कुडिचेर केल्ल्या अत्याचाराक त्राण नासता पडल्ल्या भुरग्याक तितल्यारच सोडिनासतां सुरयेन चिरून थंय थावन धांवल्ले. रगताच्या कोंडांत बुडल्ल्या भुरग्याक पळेतानांच "पुता..." म्हण चडबडोन हांव जागल्लो... काकी पियेल्यारय लागल्ली कांप सुटलीच ना. कितेंकि आयकोंचे आनुरायेन बसल्ले बायलेची दीश्ट फुड करूंक जायनासतां - "य, चड रात जाल्या. बरबक बसल्लेकडेच झेम पडली जायजे. झेम पडल्लीच किते कितेंकि अळकाले जायजे...सकाळी सांगतां..."म्हण आंग पाकडून समाधान सांगलें. दिवो पालोवन मांदरेर आड पडटाना दोळे धांपचेंच कश्टांचे जालें. तो अस्कत नटो जीव, परत्यापरत्यान पाय बडवन आसल्ली रीत मतींपडद्याथावन वचना जाली. वोंकूंक जांवचें भंय जावन भुड्ड करून उटोन बसल्लोच न्हाणयेक धांवलो. वोंकचो आवाज बायलेक आयकोंचो नाका म्हणोन दार धांपुन बकाबका वोंकलों. मातशें समाधान भोगलें तरय निदचें असाध्य दिसलें. मेजातल्या खणांतली सद्या तवळ तवळ काणघेवन आसल्ली कंपोजाची एक गुळी भायर काडन उदका सांगाता गिळ्ळी.

सकाळी जाग जाताना वेळ उतराल्लो. जाल्यारय मांदरेर थावन उटचें मन जालेंना. बायल रांदच्याकुडांत आसा जायजे, आयदानांचो आवाज आयकातालो. फाटल्या कांपांवडांत स माळयांचें जयत एक बांदप वयर येतालें. कामाटी लोकाच्या तीन चार कुटमांनी पोंदले माळयेर बिडार बांदल्लें. तीय उटल्यांत जायजे. तांचे पयकी एकलें चेडूं जानकीचे इश्टीण. नांव विचारताना सरस्वती म्हण सांगल्लें. म्हज्या काणयेंत उदेल्ल्या भुरग्या थंय जानकी सांगाता सरस्वतीय भरसाल्लें आतां मतीक आयलें. पयलेंच इतलें व्हड आसचे आनिकय व्हड करन देखोन आसल्ल्या दोळयांनी गुपीत भंय भरल्लें दूक. सरस्वतीकच पोसकें घेतल्यार कशें? म्हळ्ळो विचार मतींत रिगल्लोच सगळया आंगार कांटे उटोन रावले. दुबळी जाल्यार किंतें खंय - पोटांतल्या भुरग्याक पयस करतीतकि? अनाथ आश्रयाथावन एका भुरग्याक हाडन पोसल्यार कशें? भुरगें नातल्लें घर कित्याककि खाली खाली दिसता दुसऱ्याखिणाक हें मात भुरग्याच्या बरेपणाक न्हय कोण्णा म्हण भोगताना - घडये आदी आशेच्या एका गेऱ्याक झगलायल्लें मन आसल्लेबरी खंतीश्ट जालें. दिशा नातल्लें अनाथ बाळशें सयत

म्हजी धुव जावन वाडले म्हणोन हजारांनी वरसांच्या इतिहासाच्या शिरापाच्या गेन्याक हण्यार व्हाववनच वाडजो पडलेंकि म्हण भोगल्लेंच मांदरेर जागोनच बसच्यापऱ्यांत विजमीत जालो. रांदच्याकुडांत आसल्ल्या बायलेक तक्षण ये म्हण आपंवच्या तितलें भंय जालें. नासटो जाल्या उपरांत माहीमखाडिच्या एका झोपड्यांत चलल्ल्या एका अत्याचाराविशी बरयजे म्हण चिंतल्याक आतां वेगळेंच एक सवाल धुत करून फुड जालें. स्कूटर सवारीच्या पाशांवी अत्याचाराक बली जाल्ल्या नेट्शा बाळशाचें मरण आपणायतल्याक सामाजिक मोल जोडटलें? तसले जोडिनासतानांच आमच्या अंतस्कर्णाक पावतलें? मेल्ल्याची, जिवशी मारल्ल्यांची जात, धर्म, वर्ग, अंतरस्त सगळें कळचेआदीच आमचे दोळे एकदम वोले जातले कांय? एकदम भिजलेच जाले - तर तशें जांवचें तात्विक बौदीक काळजी नातल्लें भेरेपण म्हणोनय, फकत विजमीत जांवचेखातिरच हाडल्ली खुनी म्हणोनय दिसनासतां रावत? तशें जाल्यार, मेल्लें खंयच्या जातिचें जावन जिवशी मारल्ले खंयच्या जातिचे जाल्यार न्हय धर्माचे जाले जाल्यार, हो 'अत्याचार' महत्वभरीत जातो? 'समकालीन' साहित्याची वस्त जांवची योग्यता जोडून आमी गळवयेत जाल्ल्या दुकांक सार्थकता हाडुन दितो? बरंवचो हात बरंवक बसचे आदीच रूक जांवचे तसलें चिंतप. बरंवची हुमेदच मायाग जांवचे घडयेच जलमोन आयल्ली तुमच्या सरवांचीं मनां कालयल्ली म्हजी मोलादीक काणी 'चस्नाला!'

जानकी - आसल्लेबरी चसनालाच्या कोल मिनसांनी एका कामेल्याची धुव जावन जलमाल्ले. चसनाला गावाक गांवच व्हड व्हड पेपराद्वारी वाचून समजल्ले दुरंत. कोणाच्या पयलो कोण म्हळळेबरी हें दुरंत सगळे कुशीक केमराद्वारी धरूंक चलयल्ल्या वोद्वोरंटाच्या सळाक उदेवन आयल्ल्या - पेपरांनी आपल्या सगळया मुकल्या पानार प्रकट केल्ल्या - तसविरेंनी उदेवन रावल्लें. तिनशांच्याकय चडीत संख्यांनी कामेली जिते जळसमाधी जाल्लें काळीज कोसळांवचे घडीत. सकाळी उटल्ल्याखिणा खबर चाकची सवय जाल्ले आमी सकड पेपर वाचून ब्रेकफास्ट करच्यावेळाक 'मायगोश' म्हणोन मिट्यो मारूंक कारण जाल्ले भिरांकुळ दुर्घटन. चसनाला सारके खंय आसा म्हळळें विसरोन गेल्ले. बिहार? ओरिस्सा? वेस्ट बेंगाल? कोल मिनसां कशी आसतात म्हळळेंय सारके कळीत नातल्लें. 'टायम्स ऑफ इंडियाचे' परने आंके परत्यान एकपावटी वाचचें मन जाले. जाल्यारय तितली वरसां (कितली वरसां म्हळळेय विसरोन गेलां) फाटले सरवय आंके पळेंवचे कश्टांचें भोगलें, कामेल्यांची झोपडी खोमटां चिंताना, दोळयांमुकार रावोन आसल्ली बॅन्ड्राची झोपडींच. ह्यापयलेंच बरवन दवरल्ल्या झोपड्याचे वर्णन कितेंय बदलिनासतां तशेंच दवरूंक निचेव केलो. दोन राती खळनासतां बसून भाशेत धरल्लें दोळयांक बांदचेबरी स्पश्ट जावन उदेल्लें. चसनाला चिंताना दोळयांमुकार उदेवन रावल्ल्याकच चसनाला म्हण

नांव दवरलें. बॅन्ड्रा बदलाक चसनाला म्हळें नांव घेतल्ल्या तक्षण सदा वळकिची भोंवतण आसल्लेबरीच निजायची साबाय जोडून रावल्ले गिरेक हांवच विजमीत जालों. पयलें झळकनातल्ला विवर आपापीच मळोकलागलो...

साबार वरसां थावन इंगळां खोंडूक उपकाराची म्हय म्हणान सादन साडल्ली खणी आतां उदकान भरल्ली. कुशिल खणयेन आतां इंगळा खोंडचें काम चलल्लें. तिनशी साट जण (ऑफिसांतल्या महाद्यागीन आपले विशास स्मरणसकतेविशी दवरल्ल्या अभिमानान लायपल्ला संख्या, हरशेचेबरी सकाळीं खणयेंत देंवोन कामाक लागतानांच दोनय खणयांमदल्या दोऱ्याक फुट येवन एकांत गळयापासून भरून रावल्ले उदक आनयेकांत व्हांळोकलागले. हाडा म्हणचेभितर दोरो सगळो कोसळोन, नवीच जाल्ल्यान थाव अशीर खणी सगळी उदकांत भरोन हरेकलो कामेली काम करन आसल्ल्या जाग्यारच जळसमाधी जाल्लो. म्हजे सृश्टिशीलतेचें सर्वस वापरून जलमोन यवच्या दुरंताचो विवर एकाकएक होंदोन रांवच्या रितीक हांवच विजमीत जाल्लों. उगतो जावनासल्लो नवो अर्थ संसाराक सयत, सृश्टीकामाक प्रचोदन जावनासल्लो मरणाचो मूक इमाज सयत एकचपावटी पिटो पिटो जावन परत्यान सवकास नवोच एक आकार जोडून येताली. बॅन्ड्रांत आसल्ल्या तसलीच एक सांज, चसनालांत. थोडी तरय वांचल्यांत कांय? एकेकलेच वयर येवन धुत करुन तोंड दाकयतीत? म्हळळया जीव पिळच्या आकांतातं कामेल्यांचे केरीक केरच, खणयांचें भोंवतणा खाण उदक सयत विसरोन सकाळींथावन आपापल्यांची वाट राकोन जमल्ल्या वायट दिसाची तिनसांज. जानकी आपल्या गुडसुलांत एकलेंच. आवय उरल्ल्या तेगां भुरग्यांसांगाता बापायची वाट राकोन खणयेलागीं रावल्ली. आनिकय फाटीं येंवक नातल्ली. तीन म्हयन्यांच्या पाळण्यांतल्या बाळशाक ताच्या सांगाताच सोडन गेल्ली. काणयेची वस्त जावनासल्लो दुरंत परसंग, घडच्यावेळाक केरीचेर आयल्ल्या विघणावरवीं कंगाल जावन, झोपड्याच्या दारार पांयाच्या तेमेट्यांचेर रावोन आवय बापायची वाट राकतालें. स्कूटर सवारी आयल्लेंच तेदळा. उपरांत घडल्लें सकड आमकां सरवांक कळीत आसाच. तितलेंच. आतां अत्याचाराक बली जाल्ल्याचो अत्याचार केल्ल्यांचो वर्ग संबंध स्पश्ट आसल्लो. चसनालाच्या मायनिंग इतिहासांतच सर नातल्ल्या दुरदिसाचे तिनसांजरच घडल्लें आनयेक दुर्घटन समकाळाच्या मनशाच्या अंतस्कणांक अडंवक गाज आसल्लीं सरवय करारां भरती करुनच उतरांनी उदेवन आयल्ले. मेल्लें कामेल्याची धुव जावनासल्लें; ताका जिवशीं मारल्ले कसाप्पी तरनाटे खणयांच्या धनयांचे भुरगे आसल्ले. तरन्या बाळाच्या मरणाक आतां सामाजीक सरूप आपापीच येवन दोळे आसल्ल्या कोणाच्याय दोळयांनी दुकां हाडंवक तयार जाल्लें...

आकरेक तरय म्हजें कोंडाट्याचें जानकी काणी जाल्ले- 'चसनाला'' किते

सकड बरयल्लेकि म्हाकाच कळीत नातल्लें. धयर कोसळोंचेआदीच परगट करूंक धाडल्ले मात कळीत. धाडचेआदीच आनयेकपावटी वाचुन पळेंवचें धयर जांवकनातल्ले. अशे बरयल्ले म्हण कळल्लें सुमार दिसां उपरांत काणी मेचवोन संपादकाथावन पत्र येताना. काणी परगट जाल्ल्या पत्राची एक प्रती धरून आमच्या घरा सुमार दिसांथावन येनातल्ले तेग ईश्ट एक दीस सकाळी एकचपावटी घरा रिगताना, येतानांच संतोसाचो आवाज उटवन आयल्ले. भितर पाय तेकोक फुरसतच ना एकेकलेच म्हाका पोटलून "Congratulations for a tremendous story. We must celebrate this big event and we have brought the stuff..." म्हणोन उकलून दाकयल्ल्या चिलांत हाडल्ल्यो बियरिच्यो बोतली जावनासल्ल्यो म्हळळें त्यो एकामेका लागोन उटल्लो आवाजच सांगतालो. जानकी मरून तीन म्हयने जावन आयल्ले मात. मतिचेर मोडायल्ली सूतकाची भोगणां आजुनय माजवोंकनातल्ली. ताच्या मरणाची कल्पना हांकां कोणाकय आसल्लेबरी नातल्ली. आतां सांगचें मन जालेंना. एका टीपोयचेर चिलांत हाडल्ल्यो बोतल्यो दवरून एकलो ईश्ट शीदा रांदपाकुडाक रिगलो. म्हजी बायल थंय नातल्ली पळेवन सदांचे सळगेन- "वोनये...खंय आसाय?" म्हणटाना निदच्या कुडांत आवाज जालो. सदांचे सवयेपरी रांदपाचें काम वेगी संपवन मांदरेर आड पडलां जायजे. इश्टांचे उमेदिक भंग हाडचें मन नातल्ल्याबरी भितरले तळमळे सासवायेदे दाकयनासतां भायर आयले. तें येंवचे वाटेक राकोनच आसल्ल्यांबरी - हांव मुकार तूं मुकार म्हणचे रितींत - ताणी आयल्ले काम सांगोन, बियरी सांगाता कितें तरय खांवक जाय म्हणाले. सांगानासतां आयल्ल्यान वाडोंक वत्ताय करिनांव म्हणाले. बायल - "बसा हुनोनी पकोडा करन हाडटां" म्हण रांदपा कुडाक गेली. 'ग्रेट' म्हण एका ताळयान बोबाटून बियरिकुशी गुमान घुंवडायलागले. बोतल्यो चिलाथावन भायर काडीत "वोनये, चार ग्लासय जाय" म्हणाले. बियर पियेंवच्यांपयकी म्हाकाय मेळवन जाल्लो. हावेंच भितर वचोन तीन ग्लास भायर हाडन "म्हजे भलायकेविशी तुमकां कोणायकी कळीत आसल्लेबरी ना. I am under medical observation... गरज पडल्यार ईसिजी सयत काडयजे पडत... तुमी घेया. I will enjoy vicariously".म्हळे. ईसिजिविशी सांगल्ले तेगांयनी आसड्यो रूंदांवक कारण जाले. "Don't tell me? " "Hope nothing serious?" "You worry too much" म्हळळे उदघार उमाळोन येतानांच बोतलितली बियर ग्लासांनी भरून रावली. 'चियर्स' म्हळळो खुशेउदघार जाल्लोच उलणे साहित्याकुशी गुंवोन पकोडा येवच्यावेळा म्हजे काणयेकुशीच येवन पावलें. "Well, well...at last... करोय बोव नवी एक वाट दाकंवचे तसली काणी बरयली... हांतुंय मरण आसा, तुज्या हेर काणयाबरी. पुण फकत विजमीत करूंकच हाडिनासतां एक मुहूर्त जाल्ल्या घट जाल्ल्या सामाजिक घडितांत उबजोन आयल्ल्यान अर्थाभरीत जाल्या..."

"हांगा काणी फकत कलात्मक नाजुकायेकच राकोन ना. कामेल्यांची दुरवस्था, खणयांच्या धनयांच्या अमानुष वेवहाराक वयगिल्ली रीत विशेस महत्वपूर्ण जावनासा..."

"प्रत्येक जावन उदक भरल्ल्या खणयांचें वर्णान. भितर शिरकाल्ल्यांनी दडबडोन उसवास बांदून मेल्ली भिराकुळ दीश्ट चिंतल्यार आताय उसवास बांदल्लेबरी गोमटेच्या शिरा कुगतात पळ...""And that is the difference between journalism and creative literature. I can't imagine how at all you would conceive this story".

"म्हाका भोगच्या मट्टाक सगळे काणयेच्या कलात्मक साधनांचीं उच्च म्हळयार नेंट्याभुरग्याचेर चलचें लैंगीक अत्याचाराचें भिराकूळ दृश्य. म्हाप्रतिभेच्या सृश्टीकरतांक मात साध्य जांवच्या तसले. फकत तोंडाहांगळिकेक सांगना, मागीर...चडीत महत्वाचें आकरक तरय जाडलांय".

उतरांच्या वेगाक ताळ जावन बियर बुरबुऱ्यां खाली जातालीं. बियरिचो थंड वास नाकाक मारताना केन्नांय हात लांवचो ना म्हण आण घालच्या तितल्या मट्टाक कांटाळो भोगलो. हांची उमेदीची उतरां बायलेच्या कानार मात पडना जावदीन देवा म्हण मागले: जानकिविशी काणी बरयल्लें ताका कळींत नातल्लें, आनिकय वाचून सांगोंक नातल्ली. म्हजी काणी जलमोंचें आदीच तयार जाल्लेबरी इश्टांच्या उलण्याक ही काणीच जायजाल्लेबरी दिसलीना. उलवण्यांतल्या हुमेदींत बियरिच्या आमालाबरी एक सब्द आनयेकाच्या जलमाक कारण जावनासल्लो चमत्कार. उतरां ती उचाराताना आपल्या नादाचो गंभीर सूर ताणीच चाकच्या आमालाक एक थर जांवच्याविशी पळांवन पयलेगावटीं म्हज काणयेविशींच कांटाळो भोगलो. जानकी हांकां सरवांक वोळकिचें हुळहुळ हुमेदीन घरांत सगळया उडकाणां घालून, दांत दाकवन, गालांनी फाडकुल फोंडेवन हासोन उलंवचें भुरगें हांकां सरवांकय जाय जाल्ले जाल्ले. घरांत ना म्हण चिंतलेंकि, उलण्याच्या भरार उडासच जावनाकि, कोणेंय ताचेविशी विचारलेंच ना. तें सरल्लें कोणाकय कळळेंच ना. कित्याककि म्हजें बाळ आज पयले पावटीं मरते आसा भोगलें. आसपतरेंतलो आकरेचो दीस, आकरची रात यादिंतली फाटीं परतताना पोट परतुंचो अनभोग. कानांचेर वोडकोनासतां पडोन आसल्ले महत्वावादिंच्या तोंडाथावन आपापीच भायर पडोन आसल्लेबरी आसल्ले. सब्द अर्थावीण आवाजाबरी भंय उबजांवक लागल्ले: "बाबा, म्हाका तुज्या काणयेंत घालताय?" कसलें महत्वय नातल्ल्या नेंट्या सवालाक उसवास बांदवन नांच करिलागले. ताचेसांगाता, विचारताना दोळयांनी दुकां भरल्ला परजळ, वोंटांइडयांनी उदेल्लो नेंटो हासोय...

निमाणे एकपावटी बोतली सक्कड खाली जावन आयल्लेबरी उलणेंय उणे उणे जावन आयल्लें. कार्ल मार्क्स, जयप्रकाश नारायण, राम मनोहर लोहियाथावन

धरून संजय गांधीपऱ्यांत व्हाळल्लें राजकीय आफ्रिका, इजरायेल, एजिप्त, आमेरिका, क्यूबा...सगळया देसानीय भोंवून येवन प्रस्तुपणाच्या साण्याचेर बोचो पाजून अरथाभरीत रितीन परजळतालें. साहित्य हो नवो परजळ धरची सामरथी परगट करचेबरी आपोवणे दितालें...

"वोनये...वचून येतांव" "आनयेक फावटी येताना तुमची पेटेंट चिकनबिर्यानीच जाय" "हेपावटी तुमी भायरच येवकनांत" "पकोडा मात मस्तु बरे आसल्ले" "आनिकय असल्योच काणयो बरंवक लाय ह्या मनशाथावन" संग्रह परगट करयां..." "कन्नड साहित्य..." वाक्य काबार जांवचे आदीच वरांडाचें मेट देवोन जाल्ले. दार धापून भितर आयल्लोंच एका कदेलाचेर कोसळालों. निदच्या कुडांत आसल्ले बायलेक देकचें धयर जालेंना. व्होर एक उतराल्लें. पोट कठिण भुकेल्ले म्हजें जानकी ह्यावेळा सकाळी मेलें. ताका मसणाक पावयन म्हजे बराबर आयल्ले तेग ईश्ट आतां गेले म्हळळें तसलें भोगप काडन उडंवचें असाध्य जाताना इतले दीस येनातल्लें दूक आतां एकच पावटी उमाळोन भुरग्याबरी रडलों. कितलो वेळ तसोच बसलोंकि कळळेंना. निदच्या कुडाचें दार उगते जांवचो आवाज आयकताना बुडक करन उटोन न्हाणयेक धांवोन तोंड दोळे धुले. भायर येताना दोळयांमुकार रावल्ले बायलेक पळेवन विजमीत जालो. कितेकि वायट सपण पळेवन काळशेवन निदेंतच उटोन आयल्लेबरी येवन म्हाका शीदा भेटोन विचारले - "तुमच्या इश्टांपयकी एकल्याकय बाळाचो उडासच येनातल्ल्याबरी तसली कसली काणी बरयलीकि, ताचेविशीच काणी बरयतां म्हणटाल्यान? न्हय तर तुमचे ईश्टच तशे कांय? बियर पियेवन पकोडा खावन खुशी पांवचेबरी तें कशें पोटांतल्या भुरग्याचें मरण चितरायलेंकि...उजो पडलो तुमच्या साहित्याक...हुलपावन सोडा...आनी केदळाय काणी बरयली तर भुरग्याचे आण आसा तुमकां..." फिट्स आयल्लेबरी दांत चाबोन कदेलाचेर कोसाळळे. ताचे हात पाय मुट्टेल्ली रीत चिंतुंक कारण जावन दाक्तेराकय आपयजे पडले. "She is terribly angry with somebody..." उद्रेकाक कारण जांवचे तसलें खंयचेय उलंवक वचनाकात" म्हण सांगोन इंजेक्षन तोपले. राती निदचेपयले दिंवच्याक गुळयो दिल्यो ट्रांक्विलायजर आसल्लेबरी दिसल्यो.

राती दाक्तेरान दिल्ल्या वोकतांच्या आमालार आनिकय निदल्ले बायलेचे कुशीन आड पडटाना दोनपारांचे घडीत उडासाक येलागलें: रागान दाडामां अरनून आवेशार उसवास बांदून उलवणेंच बंद जाल्ल्या ताची अवस्था चिंतुन आसताना एकदम झळकोन गेले: जानकिविशी आदी बरंवचें असाध्य जाताना हावे भोगल्ल्या, स्वास बादुनच उदक भरल्ले खणयेभितर शिरकाल्ले स्वास बांदून कळवळयंनी वद्दाडताना मरच्या चिंतुराक जीव भरलो म्हळळें: म्हज्या बरपाचे तोडच बांदल्ले बुदवंत तशेंच बॅन्ड्राच्या हायवेपऱ्यांत व्हाळल्ल्या उदकाचे

पायप दोळयांमुकार रावताना चमनालाची खर्णी जल्मल्ली म्हळ्ळे. ह्या विचारापाटल्यानच आयल्ल्या आनयेका विचारान काटीन मांदरेर उटोन बसलों. आकरेचे घडये जानकीन केल्ले विचित्र मागण आमच्या उडास्यात गावचे भाशेचें फळ आसल्लें? आमी आपणाक विसरतल्यां म्हण चिंतून भियेलें कि चेईं?

मांदरेर बसल्ल्याकडेच, आदी कदळाय कर्गिनातल्ल्याबरी, हात जोडून मागलें। देवा, सरवांकय खाण, न्हेसण, रावोक जागो, शिकप, बुदवंत काम। आसचे तसली, जात नातल्ली, वर्गभेद नातल्ली, शोषण नातल्ली सुखी समाज उदेवन येताना तांतूं आमच्या धाकटुल्या जानकिविशी कार्णी बरयच्यो, बरयल्यार मोगान वाचचो लोकय आसोंदी... -

बापायक बाबा म्हण आपोवन आसल्लें आमचें जानकी त रातीं ययले रावटी म्हज्या सपणांत येवन गोड हासलें. कितले गोड म्हळयार सकाळीं जाग जावन मांदरेर थावन उटतानांच, मनाक वेडकाळ घालन रावल्लें चिंतन एक, आपल्या जलमाक आपुनच विजमीत जावन ताचे मूळ सादच्यांत लागल्ल्या आतसले चिंतप. बायल मांदरेर नातल्लें. रांदच्या कुडांत चायचे तयारेर आसत म्हण चिंतचेभितर काल घडल्लें सकड उडासाक येवकलागलें. येवकलागल्ल्याखिणा म्जें मन भितरलेभितर एका व्हड निर्धाराक तयार जाता म्हणच तसलें भाग्य: तशें तयार जांवचेंच काणी बरयल्ल्याचे पाटली हुमेद आसुंयता म्हळ्ळी गुमानी उदेवन रावल्ल्या फोरसाक मांदरी सोडन उटोन तोंड धुंवची फुरसतय नातल्ल्याबरी बायलेक सोदून रांदच्याकुडाक धांवलो. ते दिसलेच "गटी एकपावटी तुवेंच सांगल्लें न्हय, ताका आतां हांवय तयार जाला. नास्टा जाल्लाच भायर सरया" म्हळें. ल्हान भुरग्याबरी बडबडल्ल्याचे तकली मुळ कळनासताना म्हाकाच दोळे मिणकायीत पळेवन रावल्ले बायलेची आतुराय निवंवच्या प्रयत्नाक वचनासतानांच सकाळीचीं कामां संपंवक भायर सरलों. नास्टा करूंक बसताना सांगलें: "अनाथाशऱ्याक वचून एक भुरगे हाडयां" म्हणचभितर गळा अरनाल्लेबरी जावन फुडें उलयनासतां बायलेच्या दोळयांनी दीश्ट लावन बसलों. ताणेंय, तेंच चिंतालें म्हळळेबरी मंद हासोन वोप्पीग दिली. टॅक्सी करन परेलकुशीं वेताना कोणय उलंवकना. अनाथाशऱ्याथावन भुरगें हाडचें सुचन बायलेन दिल्लें धा वरसां आदीं. जानकीक तवळ तीन वरसां. परत्यान भुरगीं जांवचीं बायलेचे भलायकेक अपाय म्हणोन दाक्तेरान सांगल्ल्यान ऑपरेशन करयल्लें. बायलेक तरय चेरको भुरगो एक घरांत आसजे म्हळ्ळी आशा. आवय सहज अंतस्कर्णाथावन केल्ल्या व्हड धयराचें ह्या सुचनाक वोप्पाचे धयर म्हाका नातल्लें: हावें पोसूंक हाडल्लें भुरगें सयत म्हज्या गळयाभोंवतणी अरनून आसल्ल्या तीन हजार वरसांच्या माती खेल्ले सरपळेचो आनयेक गांच जावन भोगयेत जाल्ल्या वळवळयांच्या चिंतपाकच भियेवन नाका म्हळ्ळे - तवळ. आतां मात फाटी उरचें नाका भोगलें: सहज उमेदीन लावल्ल्या हे करणचें फळ जावन

घरा आयल्लें भुरगें आमचें भुरगें जावन वाडल्ल्याक कश्टांत पडलें तर भियेंवची गरज ना. खंयच्या कठिण परिस्थितींतय अन्यायाक बागानासतां तकली उकलन रांवची ताकत, झगडचें धयर मनशाचेतनाक आसाच आसता...

टॅक्सी शिवाजी पारकालागी पावताना हावें हाडुंक चिंतल्लें चेडूं भुरगें म्हणोन बायलेक कशे सांगचे म्हळळया विचारान बुडटाना ताणेंच विचारलें: "आमी आतां हाडुंक वेचे चेडूं भुरग्याककि चेरक्या भुरग्याक म्हळळें सांगलेच ना न्हय?" म्हाका जाल्ली विजमीतकाय इतली आनी तितली न्हय. पुण ताचेदिशी गुमान दीनासता बायल "चेडूं भुरग्याकच हाडयां, जायना? ताका जानकी म्हणोनच आपयां" म्हणालें. तशे म्हणटाना म्हजेकुशी मात पळेवन नातल्लें. दोळयांनी दूक भरलां जावयेत म्हळळो दुबाव आयलो...

आकरेक तरय आमचे सांगाता घरा आयल्लें चेडूं भुरगेंच. टॅक्सेर बसोन घरा परतताना स दिसांचो पिंपरो जीव धव्या एका लुगटांत गुटलायल्ली ल्हान पोटली जावन बायलेच्या उसक्याचेर निदल्ले दृश्य आनिकय उडासांतलें माजवोंक ना. ह्या भुरग्याकच आमी हाडूंक कारण जाल्ले म्हातारे नरसिची उतरांय विसरोंक ना: "देवान धाडल्लेबरी आयल्यात. पळेया, ह्या पापावीण जिवाच्या मुद्याक माहीमखाडिच्या झोपड्यांच्या मुकल्या उदका पायपालागी सोडन गेल्यात खंय. कितले सोबीत आसा पळेया. इतल्या ल्हान भुरग्याक पळोंवची वेवस्था हांगा नांच ना. मरोन वचत कितेकि. घरा व्हरोन वांचया. देवाची खुशी तर व्हड जीव जावन वाडत..." आश्र्याक आयल्ल्या हरयेकल्याकडेन सवयेच्या बळानच करचें उलवणे जाल्यारय आमकां मात हालवन सोडल्लें. काणयेभितर आयल्ली माहीमखाडीच आतां निजायेच्या एका घडिताक गांट घाल्ल्याचें आकस्मीक सयत त्या खिणाक तरय मतिक नाटवोक ना.

जानकीक आतां एक वरस. येवच्या आयतारा दीस ताचो पयलो जाल्लो दीस. डॉक्टर आनंद आनी नर्स मेरी भोव संतोसान येंवक वोप्पाल्यांत. तुमीय येया. आमकां दोगांयकय परत्यान जिविताकुशी तोड करूंक लायल्ल्या ह्या चेतनाक तुमीय पळेया. निदायल्लेकडेच निदनासतां उटोन बसजे म्हळळया, नेन्या दोन हातांनी चारीय कुशीक धरिजे म्हळळया ताचे उमेदिच्यो बोबो तुमीय आयका...म्हजी 'चसनाला' तकलेर दवरन नाचल्ल्या तेगां बुदवंतांकय आपयल्लें. पुण ताका तुमी देकचेनांत. 'चसनाला' उपरांत हावे काणीच बरोंवक नातल्ल्यान रागार जाल्ल्या ताणी वेवेगळी निबां सांगोन चुकोन घेतले. फोनाचेर उलयताना **"Wishing the function every success"** म्हणच्या बदलाक **"Please accept greeting number twentyone"** म्हळळें एकल्यान, आपल्या उतरांचे वेन्य आपणेच मेचवोन. ताका त्या दिसा रातफाली. उरल्ल्या दोगांक तेंडुल्कराच्या 'घाशीराम कोतवाल' मराठी नाटकाक वचोक आसल्लें त्याचदिसा. फाटी पळेल्लो नाटकच. पुण खंयच्याकय एका सेमिनारांत ह्या नाटकाचें

सामाजीक महत्वय, इतिहासाच्या पोटांतल्यानच उटोन आयिल्लें हें नवें नाटक जाताना वर्तमानाचेर नवो प्रकास फाकोन आताच्या काळाच्याक अर्थाभरीत जांवची विशेस रीतय दाकयल्ल्या ताच्या विश्लेशणाच्या देगाक भाव मेचवाल्ल्या तेंडूलकरानच सद्याच्या प्रयोगाक दोन कॉम्प्लिमेंटरी पास धाडल्यात खंय. बारी खुशेन आसल्ले. फोन सकयल दवरचे आदीं म्हाका जाल्ली वेजणाय समजल्लेबरी "Tell you what? म्हणाले. "ह्या नव्या अनभागाकय एक काणी कर. **It will be a wonderful sequel to 'Chasnala'.** तवळ येतांव" म्हणाले. तुमी मात येनासतां रावनाकात. चसनाला उपरांतली कृती आमच्या घरच्या पाळण्यांत हासचें पळेतल्यात. घर मातशें ल्हान. जाल्यार कितें खुश! सांताक्रूझांत लिंकिंग रोडाचेर पोस्टाफीस आसा न्हय, ताचे बगलेकच दोन माळयांचें एक परनें बांदप आसा. ताच्या थळावे माळयेरच आमचें घर. इन्शुरेन्स एजेंटाचें घर खंयचें म्ळयार कोणय सांगतात. आनिकय चडनीक वळक जाय जाल्यार घरामुकारच मुसकारूक आसा. ल्हान केंळ्यातोट, आताचीं झाडां आसात. सोप्यार आमच्या जानकीनच लायल्ल्या गुलाबाच्या झाडांच्यो दोन चाट्टयो आसात. तितलें पूरा कित्याक- आंगणांत येवन रावल्यार पुरो, भितर थावन येंवचो जानकीचो उल्लासाचो आवाज आयकाता, येयात.

(1978)

# त्रयोदश पुराण

म्हय तर निदल्लेकडेच खटल्याक बांदून पडल्ल्या भुरग्याची कथा.

## Thirteen:

( "...the number thirteen...is first of all the sum of two serial groups, right and left, north and south, winter and summer...the number thirteen can symbolise, the union of two terms: six and seven, sky and land etc..."

"Thirteen is...the expression of a double human totality: collective, since the tribe is made up of two assymmetrical moieties: one is single, the other divided...one in charge of peace, the other of war...there is a 'thirteen' of sky, a 'thirteen of land, a 'thirteen' of water...)

- Claude Levi - Strauss
In the Savage Mind

## तेरा:

1.आमच्या हातांत ना म्हणोंनय, मुटीक मिरवल्लें म्हणोनय, फकत आकस्मीक जाल्ले म्हणोनय हाका साबार रितिंचे अर्थ सांगोंक जातात. दाकल्याक, आमचो जलम, भास, रूप, रंग, लांबाय, लिंग तशें हेर विशय.

जिविताच्या गुपीतपणाकय, पोकळ गिन्यानाच्या आंशाकय ही कुरू म्हणोन सांगतात.

- पळेया: 'त्रयोदश पुराण'

2.पापावीण तसो भोव तरनो आसल्ल्या अभिमन्युन, म्हलघड्यांनी रचल्ल्या चक्रव्यूहांत बोव वायट रितीर जीव सांडल्लो महाभारत झुजाच्या 13व्या दिसा म्हळ्ळे हे कुरवेचे आनयेक सुरूप दाकयता.

- पळेया: 'चक्रव्यूह'

# पयलो भाग

खेतवाडिच्या खेमराजा भवनाक तीन पत्ते: खेतवाडी 6वी गल्ली; खेतवाडी 7वी गल्ली, न्हय तर खेतवाडी बॅक रोड. तिसऱ्या माळयेवयल्या रूम नंबर 39 त ह्या तिनय पत्त्यांक पत्रां येवचे 13 जण निवासी आसल्ले. एका काळार, खेमराजा भवनाच्या थळावे माळयेर 'कृष्ण निवास' म्हूण नांवाडदीक जाल्ल्या उडुपी रेस्टोरंटाचो मालीक जावनासच्या सीताराम शेट्टीन हेंच खोलीत संसार बांदल्लो. आज, बोंबयत, पांच स ल्हान व्हड हॉटेलांचो व्हडिल जाल्ल्या सीताराम शेट्टीचें गिरेस्तकायेन व्हड अजापाची सोबाय जोडल्या. चर्चगेट स्टेशनाच्या मुकार पोर्टात काम करच्यामटें भोव नाव जोडल्लें 'सम्मान' म्हळळ्या नांवाचें रेस्टोरेंट हाचें. फोरजेट हिल्लाच्या तीस माळयांच्या नव्याच स्कायस्क्रेपर बांदपांत चार कुडां आसचे आयलवारच्या रितिचें व्हडलें फ्लॅट आसा. इतलें आसुनय खेमराजा भवनाच्या 'कृष्ण विलास'चें मालीकपण सोडून दीनासतां आपल्या गांवचोच जाल्ल्या एकल्याक चलवंक दिलां: आपल्या आतंच्या उंचल्या स्थितीक बळादीक बुन्याद घाल्ल्या ह्या हॉटेलाचो संबंद कातरचें मन ना ताका. त्याच कारणाक, तिसऱ्या माळयेवयलें म्हयन्याक तीस रुपय भाडें आसल्लें, तें ल्हान कूड आपल्या नावारच दवरून घेतलां. 'कृष्ण विलास'चे 13 जण भुरगे आतां थंयसर रावतात: सरवांक थंय निदांक जागो मेळच्यार नातल्लोजाल्यारय, आपलें वस्तूर, ल्हान ल्हान सामान दवरूंक तें जागो दिता. कुडाच्या कोनशांनी, आट्टोळिचेर हॉटेलाच्या धानियणाचे बटाट, कुका भरल्लीं गोणयेपोतीं, पिटाचे करंडेय दाळल्लें. ते उतर वेगळें. हे निवासी चडावत निदताले कुडाभायल्या कॉरिडोराचेर. सकयल, हॉटेलांतच टेबलां एकाकाक जोडून तांचेर हांतुळण हांतुळन निदचेय आसात. तशें टेबलाचेर निदच्यांनडे ह काणयेचो नायक गणेशय एकलो.

गणेश ह्या जम्याक नवो. येवन सेरवाल्ली रीत सयत तितलीच विजन्तिकायेचें. थोड्यावेळापयलेंच आपल्या प्रायेचोच जाल्ल्या गोपाला सांगाता रातच्या सिनेमाच्या आकरेच्या खेळाक वचून येवन, टेबलां जोडून हांतुळ्ळेले मादरेर इश्टाच बगलेन आड पडला. गोपाला त्याच होटेलांत काम करचो मराठी चेडो. रावान आसल्लो गोलपीठांत. बापय लुगटाचे गिरणेंत कामगार. रातचो वेळ जाल्ल्यान इश्टासांगाता होटेलांतच निदचें म्हणोन चिंतुन आयल्लो.

आतांच पळेवन आयल्ल्या सिनेमाचो परिणाम जावनकि न्हय तर घरांत ह्या पयलेंच आयकाल्ल्या उतरांचो परिणाम जावनकि, अशे एकाकडे निदच्या निबाकच राकोन रावल्ल्याबरी लांब तोंड उगडलें गोपालान: "आमचो बाब सांगता: तुमची जातच चड वायट खंय...तीन हजार वरसाथावन तुमी उरल्ल्या

सकड जातिचें शोषण करनच आयल्ल्यान खंय..." गोपालाचीं उतरां गणेशाककरिलागली. उतरांच्याकय तांतुं आसा म्हण भोगल्लो द्वेश चडीत धोशिलागलो. कशी जाप दीजे म्हण समजनासतां "कितेंरे आपा... म्हाका आतां फकत तेरा वरसां प्राय" म्हणालो. ताळयांत ताका कळीत जांवचेआदीच एके रितिचे भोळेपण, भंय येवन भरसाल्लें. गोपालाक मात ताची समजणी जालीना. मुकल्या आपल्या उतरांक हे जापिची गरजच नातल्ली म्हणचेबरी - "तुमी हारयांचे? उतरांनी जाणटे" म्हणालो. गणेशाच्या उतरांचो अर्थ समजनासतां करकरे जाल्लेबरीय आसल्लें. ह्या उतरांचो अर्थ स्वता उलयल्ल्या गणेशाकच जाल्लो म्हणोन न्हय. इतलेच, तुज्या आरोपाचो अर्थ म्हाका जायना हाबा म्हळळे रितीन आयल्ली उतरां, ती उबजाल्ल्या संदर्भाथावनच आयल्ल्या ल्हान प्रायेचे बुदीक झळकाल्ल्याच्याकय चडीत अर्थ रुपेल्ले: तीन हजार वरसांच्या इतिहासाची कल्पना तेरा वरसांच्या ल्हान चेरक्याच्या अनभोगाच्या गिन्यानसकतेभायलें जावनासल्ले. गोपालान पाटी काडूंकना. कूस बदलून इश्टाकुशीन पाट करताना: "कुबदी - शुद्ध ब्राह्मण रांडेपुत" म्हणालो. आयकाल्लो गणेश विजमीत जालो; आयकाल्ले फकत पांच सब्द जावनासल्ले म्हणोन भोगलेना. कित्या म्हळयार ताचेपाटल्यानच काळजांत भरल्ली कांप आडांयक वोल पोटाक घट दांबून धरिजे जालें. सबार वेळ पासून नीद येनासतां लोळळो.

सकाळी जाग जाताना गोपाला तवळच उटोन आपल्या घरा वचोन जाल्लो. राती चलल्ल्या उलवण्याचो उडास परत येताना ते जाल्लें तरय व्हय? ईश्ट हांगा येवन म्हजेंसांगाता निदल्लो तरय व्हय? म्हळळेविशीच दुबाव उबजालो. आयतार जाल्ल्यान होटेलाक सुटी. वेगी उटची ओत्ताय कितें म्हणोन मांदरेर तसोच पडलो. फिनेल भरसिल्ल्या उदकान धुल्ल्या टेबलांचो, धरणीचो वास; आरशांच्या कबाटांनी जमवन दवरल्ल्या मिठायिंचो वास; सगळ्या होटेलाकच विचित्र रितीन चिटकाल्ल्या - चण्यापीट, कुकां, बटाणी आनी हेर वस्तुंचो भाजल्लो परमळ; लोकडाच्यो धारी आसल्ल्या फोळडिंग दाराभायल्यान रसत्यावयल्यान येवन आसल्ली - सगळे खेतवाडीकच लेपल्ली विशिष्ट गलीज घाण वाळच्या वाळयांत पसरून नाकाक मारताना कांटाळो भोगच्या बदलाक इतल्यारच हाका सकड वरगाल्ल्या जिवाक एके रितिचे सुखच भोगलें. परत्यान झेम पडजे म्हणच्यावेळाक गलीज व्हावयन व्हरचें मुनरिसपालिटिचें ट्रक एक होटेलाच्या दारामुकारच रावोन गडबड सुरू करताना निदोन आसचें असाध्य दिसोन उटोनच बसलो. होटेलाचे हेर भुरगे उटोन तिसरे माळयेककि, हेर जाग्यांककि तवळच वचोन जाल्ले...

कोल्हापुरांत, मोगाच्या मांय - बाबाचे पासळेत सुखान आसल्लो आपुण सगळें सोडून बोंबयक कसो येवन पावलो; बोंबयत ह्या होटेलाकच कसो पावलो म्हळळे लांब काणयेचो विवर गणेशाच्या उडासांत सारको उदेंवक नातल्लो -

आयलेवारच घडल्ली काणी जाल्यारय हांविशीं विचार करताना मागीर कितेंकि उडास जावन मन भियानं कांपतालें. मायबाब उडासाक येवन दोळे भरान येतालें. एकदम उटलें: गोपालाक हांव ब्राह्मण म्हणोन कळोंक जाल्लें कशें? गळयांत जनवें आसल्ल्याकच हांव ब्राह्मण न्हयमू? बुडून उडयन सोडल्यार कशें? मांयबाबाच्या उडासाक आमचें तें एकच. जानवें सोडल्यार वांचिक सुतायेदी चेयनय आसल्ली. कितें जालीकि गणेश नेणा. ययल्यान हॉटेलाचो म्हाली शेट्टीक आपुण ब्राह्मण चेडा म्हळ्ळेविशीं अभिमान आसल्लेबरी दिसतालें. कित्याक म्हण मात कळ्ळेना. आयल्या हॉटलांनी ह्या पदरा जाग ब्राह्मण भुरगे आसात पळेया म्हणोन कोणालागींकि वारीं खडवींकायन सांगल्लें आयकाल्लें - बोवशा आपणाक चिंतून सांगलां जायज.

गणेश उटोन तिसरे माळयंक गेल्लोच कुडाचे धरणीर, खाली आसल्ल्या कुसकूट जाग्यारच मांदरी सोडवन आड पडून, मांयबाबाक आटीं केदनाय चिंतिनातल्से तितले चड चिंतून गळगळयां रडोंकलागलो. बाळकिच भुरगे सगळे खंयखंयकि गेल्ले. 'ते' ह्या वेळा नीज जावन आपोवक आयल्यार भायर सरन वेचें म्हण चिंतून कितेंकि उडास जाल्ल्याबरी भुडक करन उटोन, सकाळिच्या गरजो संपंवक गेलो. वचूंकि, सोडूंकि म्हळ्ळया इतल्या दिसाच्या गाट पडल्ले शिरकोणेन, आसल्लेबरी पडल्ल्यों सगळया गांटी सोडयताना - 'ते' आयल्यार पुरो म्हळळे तसले आतुरायेक वाट करन दिली. 'ते' येवच्या भितर तयार आसाज म्हळ्ळो आमसर ताचे चटावटींत भरसाल्लो. काल सिनेमाक वचून आयल्याउपरात गोपालालागीं हें सकड उलंवक आसल्लें. पुण धयर जांवकनातल्लें. जाल्यारय आतां, आशेनातल्ले रितिरच जांवक साडिनायं, कित्याक गोपालाच आतांच्या निचेवाक कारण जाल्लेबरी आसल्लो.

'ते' कोण म्हळळें गणेशाकच कळीत नातल्ले. पोर आपणालागी उलयताना हांकां ह्या पयलेंच ह्या होटेलांत पळेलां म्हळळें चिंतप उबजाल्लें. त्या उपरांत: पळेल्लें मात न्हय - आपणाकच पळेवन कितेंकि उलवन आसल्लें पळेल्ला उडास. तितलेंच. आतांय तांची तोंडां सारकी दोळयांमुकार रावानातल्ली: काळीं वोकलां; लांब दीघ मिश्यो (तेगांपयकी ऐकल्याक मात आसल्ल्यो): लांब सोडल्ले केस (एकल्याची थकाथका परजळचेबरी तासल्ली तकली); निळशाबणाचे जीन्स; लांब हातांचें बणाबणांच्यो चवकापट्यो आसचें खोमीस (एकलो मात खास तांबड्या बणाचें जरसी न्हेसल्लो) खंयच्या तोंडाच्याक खंयची तकली आसल्ली, खंयचें खोमीस आसल्लें - कळनातल्लें; साबार इमाजिंची भरशीक पिंतुरां आसच्या दोळयांमुकार. पोर येताना तेगय कोनशांतलें एक टेबल धरुन बसले. तांतल्या एकल्यान टेबलाचेर बळान दांबून धरल्ले हात हालनासताना एकाभितर एक वोळल्ल्या बोटां भितरल्यान एकच एक बोट - 'हांगा य' म्हण दाकंवचे रितीन हालयलें. ताणे आपयल्ले आपणाकच म्हण कळ्ळें कशें म्हणचे

गणेशाक केन्नांय स्पश्ट जालेंना. आपयल्लें मात ताकाच आसल्लें म्हळ्ळें त्याउपरांत चलल्ल्या उलवण्यांत खंडित जाल्लें. आतां एकदम उडास जालो: आपयल्ल्यान तांबडजरसी घाल्ली, तकली तासयल्ली. मिश्यो सोडल्ल्योकि नाकि म्हळ्ळें मात कितलें प्रयतन केल्यारय उडास जांवकना. पुण आपणा विशीं उलंवक आसचें आपणाथंय किते देकलेंकि - गणेशाक समजोंकना. खाणाक, काप्येक ऑर्डर दीवन खाणाचे पट्टेचोच भाग म्हळ्ळेबरी - 'तुका पगार कितलो' म्हण विचारिलागलो, तोच तांबडी जरसी न्हेसल्लो. गणेशाक विजमीत जांवकना. कित्या म्हळयार हें सवाल हाचे आदीच एकल्या दोगांनी विचारल्लें. पुण आतांच्या सवालाची रीत मात दुसरीच आसल्ली. तुजो पगार आतांचे आतां आतांच्या धा वांस्यांनी चडयजे म्हणोन होटेलाच्या म्हालीकाक सांगोंकच आयल्यांव म्हळ्ळो ताळो आसल्लो. ताचें सवाल आयकातां आयकाताना गणेशाक वायट दुबाव: ह्या तेगांयकय आपणें ह्या पयलें खंयच्याकि सिनेमांत पळेलां. बोवशा असल्याच एका सन्निवेशांत. मजा भोगली. हासोनच "जेवाण, न्हेसण दीवन म्हयन्याक पंदरा रुपय" म्हळ्ळें गणेशान, तोंडपाट करन हाडल्ल्या पाठ सांगचे रितीर. लांब केस सोडल्ल्यां पयकी एकल्यान दोळयांक घाल्लें काळें वोक्ल काडीनासतां - "जेवण, न्हेसण दीवन म्हयन्याक शेंबर रुपय दितांय, येतायकि?" म्हण विचारलें. भोव तगसाल्ल्या ताळयान विचारल्ल्या सवालांत 'खिणान भायर सर' म्हळ्ळी हुकुम करची व्हडवीकाय उदेल्ली. गणेशाक आतां ताचो उडास जाताना, हिंदी सिनेमाचो खळनायक शत्रुघ्नसिन्हा उडासाक आयलो. खाण, काप्यांच्या ऑर्डरा सांगाता रांदपाकुडाक चलताना मनांत नानांती पिंतुरां उदेवन रावली. विचारल्ल्या सवालान उगतें केल्ल्या थरावळ साध्यतांवरवीच आकांत भरल्ले हुमेदीन मनाक पोटलून धरलें. सिनेमाचो मनीस न्हयमू? म्हळ्ळी पातळ गुमानी सयत उसवास बांदंवच्यातितल्या मट्टाक फुलोंक कारण जाली; विचारन पळेजे भोगलें. ऑर्डर केल्लें खाण, काफी, टेबलाचेर दवरताना, तांबडे जरसिचो - "भायर सरचें तर, पोरवां आयतारा सकाळीं नोव वोरार आमचे पयकी एकलो तुका येवन मेळता. 6वे गल्लेच्या पोंतार कम्युनिस्ट पार्टिचे ऑफीस आसा न्हय, थंयच्या टेलिफोन बूतालागी राक. आतां परतयान उलवणे नाका. तुजें नांव?" म्हणालो. गणेश आपलें नांव सांगोन थंय थावन भायर सरताना सगळोच गोदळल्लो. तांणी आपणाक थवळथावन बलात्कारान वोडून (वा व्हाववन?) वेल्ले जाल्यारय भिरांत जातीना. ह्या निचेवाची जवाबदारी व्हाववचे धयर मात सासवायेदें नातल्लें, तवळ.

सकाळीच्यो गरजो संपवन, ड्रेस बदलून आसल्लें थोडें वस्तूर ल्हानशा पोत्यांत भरताना: धन्याक आपुण होटेल सोडून वेचेविशी सांगजे? म्हळ्ळें सवाल फुड जाले. ह्या म्हयन्याचो पगार मेळोक आनेकय धा दीस. फाटल्या स म्हयन्यांनी खर्च करिनासतानांच उरल्ले 60 रुपय गोपालालागीं आसल्ले.

धावान अडचणीक जाय म्हणटाना ताणें आपणाथावन पयशे घेवच्या निमत्ताक मट्टाक मयपासवण दाकयल्ल्यानच, फुगीन, घाटलो मूकलो विचार करचेआदींच दीवन साडल्ले. काल हाचेविशीं उल्लेख आसल्लो. आतां मात ताका धयर उरोंकना. तशें पळेल्यार गणेश पयशांखातिर लबाडल्लो मनिसच न्हय: आतां ताणें स्वीकार करुंक तयार जाल्ल्या नव्या साहसाक ताका घाडल्ले पयशांच्या बळान न्हय. साहस म्हळळ्या कारणानय न्हय. कित्याक म्हणल्यार स्पश्ट जाल्लें तरय आपणाक सद्या भशटावन आसल्ल्या कसलेंय भियाक कारण जाल्ल्यान पयस धावोन वचजे, धावान गेल्यार भंय उणें जातलें कितेंकि म्हूण आशेलें. अशें आतां आपणाक लायल्लें असल धावान वचचें करणीत आल्ल्यान कोणाकच सांगिनासतां वेचें ताचो गरजेचो अंश म्हूण लेकून. कित्याक सगळें ताका म्हूण चिंतून, सद्या आपले पॉकेटींत आसल्ले पयशे मेजून पळेलागलो. स रुपय उरल्ले पयशे. पयशे मेजताना, शेबर रुपय हाताक मेळून कितें करचें म्हूणूनच समजनासताना खिणाक अजाप पावलो. आनीयकपावटीं, धावान गेल्यार जालें म्हूण चिंतून अस्कत रितीन हांसलो. आकेरकय आपणाक धांवून आसल्ल्याक उपाय झळकालो न्हय म्हळळ्या संतोसान तोंड परजळ्ळें.

## दुसरो भाग

तशें पळेल्यार धांव गणेशाच्या जिविताक कांय नवी न्हय. तरो म्हयन्याचो भुरगो जावनासतानाथावनच ही फरारी सुरू. ताचे आवयनच तवळ तवळ हे फरारिची काणी सांगल्ली:

तांचो थळावो गांव उत्तर कन्नड जिल्ल्याचो हनेहळ्ळी म्हळ्ळो ल्हान गांव खंय. भाव खुशेन आसताना मांय हनेहळ्ळीविशीं उलयताली. मदेंच रडटाली: तवळ तवळ गणेशाक सुचोन येता: कोल्हापुरांत आपणाक साडल्यार मायक लागशिली म्हळ्ळी कोणच आसोक नातल्ली म्हणोन. मराठी उलवक मायक आकरेकय सारकी येनातल्ली. आपली सुखांदुकां वांटूंक ताचें जाय, आपल्या उतरांचो अर्थ समजोंची प्रायच न्हय ताची म्हणोन कळीत आसुनय. हनेहळ्ळेंत तांचेंच जाल्लें हिताल, नळे घालले घर. दिसाकय पाचवी सावळी दिवताल्ल्या हितलांत माड, केळबे, माडयो, एक आळ उबारायेच वोयेत कितल्या सकड जातिची झाडां- चिकळयो, कागदाफुलां आनी कितेंकि. हितलांतच कान्नाळुच्या वोळी, व्हाळचेभाजयेचो माटव, थरावळ फुलांची झाडां. ती नावां सकड कशी उडास आसजे. मांयच्या तोंडांत आयकाताना आंगार काटे उबे जाताले. हरदें फुलतालें. कान उबेताले. आतांय - आनिकय हाताक मेळानातल्ले सकेत करच्या तांकां चिंतानांय. ह्या हितलाक लागुनच एक ल्हान शेत. ताचेविशी सांगवळी करचो होन्नप्पा - परमेश्वरीविशी मांयथावनच आयकाजे...हें शेत, हितालें, घर...सगळें आतां मोनप्पानायक म्हळ्ळयान 'गुलुम' केलां खंय. तशें म्हळ्यार

किते म्हळ्ळें गणेशाक आतांय सारकें कळीत ना तरय, इकरा वरसां आदी जाल्लें सकड कालच जाले म्हळ्ळे रितीन तिणे सांगचे आयकाताना मजा जाताली. मायन करच्या वर्णनान ताचे रूप चितरांवक कितलेंय प्रयतन केल्यारय इतले दीस साध्य नातल्ले. पुण आतां, आपल्या नव्या कामाद्वारी देकल्ल्या गुपीत मनशांक सकड - जीन्स, लांब मिश्यो, तांबडी जरसी, बणाबणांच्यो चवकापटयो आसचे खोमीस, तासयल्ली तकली, लांब केस - करगोन खडो वोतून तयार केल्लो तसले नवेच एक रूप दोळयांमुकार रावताना भियेंवच्या बदलाक हासजे भोगले. दुसऱ्याखिणांच, जोर किंक्राट मारिजे म्हणच्या तितल्या मट्टाक भंय दिसोन कांपलो. गोपालान आपणाक सांगल्लेच न्हय तर तसलेंच मोनप्पानायकान बाबाक सांगल्ले: गोपालान भियेवन तो आतां धावोन आसतानांच मोनप्पानायकाक भियेवन बाब हनेहळ्ळी सोडुन कोल्हापुराक धांवल्लो. तितलेंच, आपलो तशें गोपालाचो सांगात तीन म्हयन्यांचो जाल्यार, बाब - मोनप्पाचो सांगात पंचवीस वरसांचो. तांचे तितले गळयाक लागचे ईश्ट हनेहळ्ळेतच नातल्ले खंय. तांच्या घरा पाटल्या हितलांतच मोनप्पाचें घर. तांचेय व्हडले हिताल. नळयांचें घर. बांयक लाटो आसल्लो. गोट्यांत दूध दिंवच्यो तीन म्हशी. गावांत भोंवतणीच्या हळ्ळेनी दुधाचो खातड. घरांत लग्न जावन आयल्ली बायल, विधव आवय मात. येदोळय भुरगी जांवक नातल्ली. बाबाक ताचेतितलो मयपासी ईश्ट आनयेकलो नातल्लो. बाबाक, घरा लागी आसल्ल्या राजरसत्याचेर - गोकर्णाक वेचो रसतो खंय तो - ल्हान चायेचे दुकान आसल्लें खंय...

एक दीस दोनपारां मांय आंगणांत आसतानांच मोनप्पान , आगेरा एंकूक आपवन, बांय लागशिल्या माड्डाक चडवन, पांपांच नारलांची दोन शिमटीच काडयली खंय. मांयक खंयचेय अर्थ जायनातल्ले. बोवशा बाबानच सांगलां जायजां, आपणाक सांगोक विसरला जायजे म्हण चिंतून वोगी रावली. आगेरान राती रुकार चडोन चोरी केल्यार बाबान ताका भेश्टायजे म्हणोन विचारचें मोनप्पालागीच आसल्ले. राती बाब दुकानाथावन आयल्याउपरांत खबर मेळोन झिट उडोन पडलो. ताकाय अर्थ जांवकना...फाटल्या थोड्या दिसां थावन मोनप्पा त्या एका नमुन्यार उलयतालो खंय. एक दीस "किते विश्वनाथा, पेपर गीपर वाचतायकि ना?...फकत काळी आयदानां धुंवच्यांतच पाड जालो तुजो जल्म...काळ कितलो तुरतान बदलोन आसा पळेलाय कितें..." म्हणालो खंय. आनयेका दिसा मोनप्पाच्या उतराक भियेवन बाबानच विचारले "किते करिजाय म्हणताय मोनप्पा...सकड जाणा आसच्या तुज्या सल्या इश्टानच अशे म्हळयार कशें? च्हा करची सोडन..."

"वयल्यान अभिमान आड आयलो न्हयकि किते?...च्हा करची सोडन बाबान दुसरे कितेय शिकंवकना म्हण सांगताना जीब वोडन धरली न्हयकि किते? भुयक भार तूं... तुका आतां खंयचेय मोलच उरोकना...मोरन वच..." म्हणालो

खंय. पियेवन आसजे. तशें म्हणान बाबान विचारल्लें. आतां पियेवनच आयल्या जायजे म्हण चिंतून बाब वागो रावला. मांयक मात हें कितेंय सांगांक नाकल्लें. फाल्यां सकाळीं मोनप्पाक आपवन विचारल्यार जालें. सकाळिच्या वेळाक तरय पियेंवक ना आसतला म्हण चिंताना सकाळिच्या च्हायेच्या वेळाक मोनप्पा आपुनच हांच्या घरा आयला. सोप्यार बाबा सांगाता कण्याफोव चाकोन च्हा पियेताना मोनप्पान तोंड सोडलें खंय, मायच्या मुकारच. आपुण कोणाविशीं उलवन आसां म्हळळें सोडवन सांगची गरज ना म्हणच्याबरी - "विर्जमिनकायेच धखो जाला न्हय? तुमी तीन हजार वर्सांथावन करून आयल्लें कितें म्हणून दाकवन दिलें - तितलेंच" म्हणाला खंय.

"वो तितलेंचकि? हांव कितेंकि म्हण चिंतून भियेवन गल्लों. हें सकड म्हाका - तुका सांगल्लें न्हय. सोड मानप्पा... तुवें चिंतल्लें तसलें हांवें कितेंच करंकना. तुकाय जालेंना सोड..."

"हेय हारव्या, सोडयलेय कितें? आतां तूं तूं न्हय. हावय हांव न्हय - समजलें कितेंकि. इतिहासच आपणाच्या मनांत आसल्लें आमचेथावन करयन मारटा. कितें?"

हे उमिणिचो अर्थ समजनातल्लो बाब:

"तशें म्हळयार कितें मोनप्पा?" म्हण विचारले.

"पेपर वाचूनच: न्हयकि कितेंकि - लंवडच्या पुता" म्हण गुडगुडला खंय. बाब फुटोन गेल्ली रीत पळेंवक जायनासतां मांय भितर वचूंक घुंवल्लींच आनल गाळी सोवे सोडवन सांगचेबरी आनयेकपावटी सुद्धब्राह्मण रांडपुत म्हणान नेटा देंवोन गेल्लो खंय.

हें जाल्ल्या थोड्याच दिसांनी गाब हिताल, घर, शेत सगळें मानप्पाक ताणें दींवक ओपल्ल्या मोलाक विकून ताचेथावन घेतल्लें 500 रुपियांचें रीण मारून हातांत उरल्ल्या एका हजारातितल्या रोकड्या पयशांसांगाता कोल्हापुराक आयलो. च्हायेचें दुकान आसल्लें झोपड्याबरी सोडून आयल्लो खंय. तें आतां कोणाच्या हाताक गेलां म्हळळें मांयक कळीत नातल्लें. गणेशाक आतां तरी म्हयने. गांव सोडटाना कोणाकय तोंड दाकंवचें धयर सयत जांवकना.कांत्यार लोक आनिकय निदेंत आसतानांच हळळी सोडल्ली.

○ ○ ○ ○ ○

बाबाचो देव उगडावो जाल्लो कोल्हापुराक आयल्या उपरांतच. पुण आयल्या तक्षण न्हय. भोव उण्या भाड्याक मेळटा म्हळळया एकाच एका कारणाक गावाभायलें एक घर भाड्याक घेवन, मुकलो सोपो तशें एक कूडच च्हायेचें दुकान जावन करून "जै भवानी उडुपी होटेल" म्हण बोर्ड घालयलो. आतुरायेककि, असल्या दळिद्र जाग्यार होटेल उगते करचें धयर केल्ल्या बाबाचें पिशेंपण पळेवन वेच्या तमाशेककि लोक आयलो सोडल्यार इडली वडें खावक

म्हणोन न्हय. तमासो पळेंवक आयल्ल्यां पयकी - कशेंय करनच आसाय, खावनच गेल्यार कितें? म्हळ्ळया तसल्या भोगणांनी खावन, पयशे फाल्यां दितांव म्हण सांगोन गेल्लोलोकच चड जालो. दिसाथावन दिसाक बाबाची स्थिती कंगाल जावनच गेली. चेरको भुरगो एक घरांत धावोन खेळोन आसा म्हळ्ळया एकाच कारणान सुखान आसल्लो क्रमेण तगसालो. हासचें उलंवचें दोनय उणे जाले. मांयच्या आंगावयले दागिने सयत करगाले. आनी कितें बाबाक पिशे लागचीच स्थिती: दुकानाच्या मुकारच एस.टी. बस स्टोप उगतें जाले. हा हा म्हणचेभितर ताचे भोंवतणीच्या प्रदेशाचें सुरूपच बदलालें. बाबाचें उडुपी रेस्टोरेट सयत. मुकलें पूरा रम्य अद्भुताचे सोभायेचें. धाच वरसांनी. कोल्हापुराच्या त्या वांट्यांतच तसलें होटेलच ना म्हणचे तसले स्थितीक तें पावले: भाड्याक घेतल्लो जागोच मोलाक घेवन बेंकाथावन रीण घेवन उटोन रावयले नवेच बांदप. भेऱ्याबरी दिसच्या बाबाथंय असली करतुबकाय आसल्ली म्हळ्ळें स्वता बाबाकच कळीत नातल्लें...

पुण थंयसरय कितल्याकि वरसांचें इतिहास हगें धरल्ल्याबरी आसल्लें. शाळेक वचोन पाटी येंवच्याभितर एकदीस कितल्याकि लोकांच्या दोळयांक तोपल्ले ताच्या बाबाचें दुकान-घर उजो पेटोन भगाभगा पेटतालें. मांय बाब ताच्या दोळयांमुकारच उजयांत लासोन गोबर जाताना भोंवारीं जमल्लो लोक पिशे लागल्ल्याबरी बोबो मारून नाचतालो: अर्थच जायनातल्लें. कोल्हापुरांत तितलो एक लोक आसल्लो, एकाकडे जमताना क्रूरपणान इतलो एक पिसो जाल्लो: रडोकय भंय दिसच्याबरी गणेशाची धात चुकल्ली, पोलीस सयत क्रूर रागान मत फिरवल्ल्या जम्याक कितेंय करूंक जायनातल्लेबरी उजो पळेवनच रावले. कोल्हापुरांत त्या एकेच सांजेर सात उडुपी होटेलां जळोन गोबर जाल्ली: मडकेत गुंडेफातर घालन हालयताना उबजोंच्या आवाजा तसल्या कन्नड भास उलंवच्या - 'अंडा गुंडा थंडा पाणी'च्या विरोध आसल्लेबरी लोक उप्राटल्लो. 'बेळगांव, कारवार सयत महाराष्ट्र जायजेच' 'कर्णाटकाची राजवटकाय नास जायजे' म्हळ्ळे तसली बोबाट ह्या उज्याच्या अनाहुताच्याकय कितल्याकि पयलेथावनच आयकोनच आयल्लो गणेश. पुण जिव्या मनशांकच हुलपांवच्या पऱ्यांतल्या विश्यारागाक हो गलाटो पावत म्हणोन कोणेंय चिंतल्लेबरी नातल्ले: धातीथावन जागोन दोळे सोडटाना कोणकि मराठी उलंवच्यांच्या घरांत आसल्लेबरी जाले. आपणाक थंय कोणे हाडलेकि गणेशाक समजोकना. तांणी उलवचेय अर्थ जायनातल्लें. मुकारी आपणाक बोबयक कोणे हाडलें म्हळ्ळें गणेशाक कळोकना. दोळे सोडन पळेंवचो गणेश मतिरच येवकनातल्लो...बोबयक हाडन सोडल्ले बोवशा बाबाक पयशिल्यान भाव जायजे आसल्ल्या नारायणा रायान जायजे. घरात उलवन आसल्ली सुद्ध मराठी. बोव बुदवंत मनीस. मराठी

लोकामदें मराठी जावनच जियेजे म्हळळें तत्व चुकानासतां पाळून आयल्ला. गणेशाच्या बाबाक हाणेंच एकपावटी हिशारो दिल्लो खंय: हॉटेलाच्या नांवांत 'उडुपी' हो सब्दच नाका म्हणोन..

## तिसरौ भाग

गणेश आपल्या नव्या कामाक सेरवोन यदोळच तेरा हफ्त जावन आयल्यात. एकाच जाग्याक बांदून पडनासतां, भेश्टावन आसल्ले कुशीक दोळे परतीनासतां केदळाय एका जाग्याथावन आनयेकाक थंयथावन दुसऱ्याएकाक धांवोनच आसोंक साध्य आसताना हें जिवीत कितलें एक सोबीत भोगता. धाक्ट्या गणेशा थंय तोंड सोडूंक अतरेंगच्या तत्वगिन्यानीक तो सेरवाल्लें नवें काम हिंदुस्तानाच लांबाये रूंदायेकय ताका व्हरन वेता. बोंबंयत लोकल ट्रेन सयत चडान कळींत नातल्ल्या गणेशान - फ्रंटीयर मेल, कलकत्ता मेल किते कितेकि दैवीक नावां आसल्ल्या लांबदिगायेच्या ट्रेनांनी बसून विचित्र नावां आसल्ली स्टेशनां पळेल्यांत. राती निदेंतय मंत्रमुग्ध जाल्लेबरी ग्वालियर, इटारसी, झसी, नागपुर, एरनाकुलम...म्हणोन सबार हजार विशणुनावां आयकोच्यावळाच विजमितकायेन उचारता. वाऱ्यावेगान धांवच्या ट्रेनाच्या फस्ट क्लास कंपार्टमेंटाच्या मावाळ उशें आसचे सिटिचेर बसोन जनेलाभायर दीश्ट फांकताना भायली दृश्यां त्याच वेगान दोळयांमनडळयांचेर उदेवन उदेवन बुडटाना चर्डीत खुशालकायेन वळवळटा. जीव भरोन वोमतोंचीं पाचवी शेतां; पाचवेंकि, निळशेकि पारकूंक जायनासचे मांय आसच्या सपणांबरी दिसचे - पयशिले दोंगर. मळबाचेर भोंवची कुपां; नमुन्यावार रितिंनी अलोकीक सोबाय परगट करून आंग दाकंवचो सुर्या, चंद्र, नखेत्रां; परजळचें चान्नें. मदें मदें मांय बाबाचो उडास. उतराक पावानासचीं, उतरांच नाका जाल्लीं भोगणां - वांकडें तिंकडें व्हाळच्या रयलापाट्यांबरी टेलीग्राफ, विजेखंब्यांच्या तकलेथावन तकलेक पाशार जाल्ल्या सरियांबरी. विविध भाशेंचो लोक, विविध वेसांचो लोक. मदें मदें टिकट कलेक्टर, च्हा खाण विकच्या चेड्यांचो गलाटो. दोळे कान धरल्ली हजार पिंतुरां एकाभितरल्यान एक पाशार जाताना उबजोंच्या वायट अनभोगाची भ्रांत: सपण खंय संपोन हकीगत खंय सुरू जाली म्हळळेंच कळानातल्लें: असल्या सपणांच भरल्ल्या, आपल्या दोळयांकच एकानेक पळेंवची बायल एक आपल्या घोवालागीं विचारताली - "मस्तु कोंडाट्याचो चेरको न्हय? भोव सोबीत दोळे" मराठी सब्द आयकाल्लेच कान उटोन रावल्ले: कोल्हापुर. उडासांत उदेंवचे घडयेच आनी कितेंकि उडास जाताना मन धावोंकलागल्लें... कॅन्सर पिडेविशीं उलोवच्या दोगां मानेस्तांपयकी एकलो डाक्टर जांवकपुरो भोगताना आपणाक डाक्टर करची सपणां देकल्ली मांय उडासाक येंवचें भंय जावन डाक्टराच्या उतरांक कान दीवन बसलो. अरधें इंग्लीश, अरधी हिंदी भास: उतरांचो वाळोच अर्थाभरीत संसारातेवशिल्या गावाची पिंतुरां मनांत हाडवन लोव उबी करूंक

कारण जातालें... पुण हांचेपयकी कोणय एकलो शीदा आपणालागीं उलयल्लो न्हय. एकदम म्हळ्ळेबरी एक दीस एक विचार आयलो: आपणे चडीत उलंवकनजो म्हळ्ळेच आपणाक ह्या कामाक लागयल्ल्यांचो इरादश जांवकपुरोकि? थर्डक्लास म्हळयार लोकाचो गोंदळ चड. उलंवचे, उलंवक करचेय चड. तवळतवळ ट्रेन चड वेळ रांवच्या स्टेशनांत देंवताना पळेल्लें. ह्या विचारा फाटलो उडास जाताना आनयेक संगतीथावन गणेश थकलो: आपुण एकाच ट्रेनाथावन एकाच गावाक दोन पावटीं वचूंकचनातल्लों. डेल्ली, कलकत्ता, मद्रास, बोंबय...बोंबयक पाटीं परताल्लों केदळाय रातच्यावेळाक. बोंबय सोडल्लें दिसाक! अरे ह्यो सकड एकाक एक संबंद आसच्यो संगतीकि? चिंतून आंगांत जुम जालें. आपणे पयण केल्लें सयत हरयेकपावटीं वेवेगळया वेसानींच: पँन्टशर्ट एकपावटीं जाल्यार, जीन्स कोट आनयेकपावटीं: खाकी चड्डी, त्याच बणाचें खोमीस दुसरेपावटी, पायाक एक पावटीं काळयारंगाचे लेदरबूट्स जाल्यार आनयेकपावटीं केनवास शूस! तकलेचे केसय तशेच: सुरवेर पयलेंथावनच दवरल्ल्या क्रॉपाबरी जाल्यार, सद्या मँशिनान कातरल्ले ल्हान केस: वेगळे वेगळे जाताना विजमितकायेन आंग काडच्याक कारण जाल्ल्यो संगतीच आतां एकाक एक संबंद जोडटाना गुपीत भियाक इडें दींवक लागलें: कोणाक तरय विचारन पळेजे: कोरियर सरवीस म्हळयार खंयचो धंदो? म्हणोन. आपणाक कामाक दवरल्ल्या बाँसानच (गणेशान हें नांव खंयच्याकि मारामारीच्या सिनेमांत आयकाल्लें) सांगल्लें: चडीत उलंवकनजो. कोणे तरय सांगोंक ओत्ताय करताना मात - कोरियर सरविसांत काम करतां ब्रेक वँनांत म्हजें पारसेल आसा म्हणोन सांगजे - तितलेच. आपणाक पयलें पयलें भेट जाल्ल्या तेगांतलो एकलो परत्यान भेट जाल्लोचना. कंपेनिचें ऑफीस आसल्लें काल्बादेवीच्या भरल्ले एके गल्लेंत. थंयथावन स्टेशनाक, स्टेशनाथावन थंयसर केदळाय टँक्सिचेरच धांव - कंपेनिच्या एकल्या कामेल्यालागींच: होय हरयेकपावटीं नवोच. ब्रेकवँनांत घाल्ले पारसेल केन्नांय देकल्लो न्हय. टँक्सीत आपणासांगाता आयल्लो आपणे चडजे जाल्ले ट्रेन रावल्ल्या प्लेटफोर्माक आपवन व्हरता; आमक्या कंपार्टमेंटांत बसयल्लेच थोडो वेळ नपयीच जाता. ट्रेन सुटची घडी चड लागीं येताना आपली टिकेट, पारसेलाक संबंद जाल्ल्यो रशिद्यो हातांत धरल्ल्या उपरांतच - देंवजे जाल्ल्या स्टेशनाचें नांव, तें येंवचो अदमास वेळ इतलें सकड सांगोन, जागरूतकाय घे म्हळ्ळेंच थंयथावन भायर वेता. हांच्या सकड जाणविकायेन भुरग्या गणेशाचेर चडीत प्रभाव फांकल्यारय सयत हांचेपयकी एकलोय चडीत उलयल्लो न्हय; हासल्लोय न्हय म्हळ्ळें आतां मनाक आयल्लेबरी आसड्यो रूंदायल्ल्यो; स्टेशनाथावन भायर पडतच वेचें आसल्लें शीदा एका होटेलाक. बोबंयतय तशेंच. पयलें पयलें बोव गम्मत दिसल्लें, मुकारी 'हें सकड कितें?' म्हण समजोंची आतुराय उबजाल्लीच, अस्पश्ट भियाक कारण जाताना ह्यापऱ्यांत

विचारीनातल्ल्या सवालाक जागो करन दिलो: आपणाक देवक अयल्ल्याक आपूण आपुणच म्हण कळतालें कशें? अिग म्हळ्ळेवरी सगळ्याच्या वयर उजू प्रकास पडटा: आपली ड्रेस, यतल्याक संकेत जाता जायचे...सकडय अस्पश्ट. गुपीत, भिरांकूळ. आपूण वाडान आयल्लोच असल्या वातावरणान: इतलें इतलेंच सोडवन दाकयतानाय कितलें सकड लिपयच्या मस्क उजवाडा तसल्या, दुस्कुरा तसल्या, आकंताच्या दोळयां तसल्या, धापल्ल्या वोटांचेर केदळाय दवरल्ल्या वोटां तसल्या - मांयची वायट उतरां निरमाण करन आसल्ल्या गुपीत समानात - उतरांनी फांकयल्लो अर्थ मिरवान रावल्ली चित्रां दाकयामुकार:

उजो उजो म्हण बोबाटुनच गणेश मांदरेरथावन उटान बसलो. बसून दोक घश्टीताना समजणेक आयलें: आपूण आनिकय ट्रेनाचेरच आसा म्हणून. सकयल दोन, वयर दोन सिटी आसच्या त्या ल्हान कम्पार्टमेंटात आसल्लें आनयेक व्यक्तीन तकलेवयली वोल काडीनासता 'कितें तें' म्हण एक पावटी विचारून, कूस बदलून परत्यान निदोक गेलो. कम्पार्टमेंटाच्या जनेलाचें दार उगडून भायर पळेलें गणेशान. काळक शिंदून गांवच दिसनाल्ल्या वयल प्रदेशांत धांवतालें ट्रेन. पाटीं सोडल्लें स्टेशन खयचें, मुकार येवचें खयचें म्हळ्ळेंच समजानातल्लें. आपली धांव मात समजणेक येताली. उरल्लें सगळें काळख. व्होरां कितलीं जालीं म्हळ्ळें सयत कळानातल्लें. भरल्ल्या मळबाचेर मिणकुच्या अपार नखेत्रांक पळोवन बसताना जाल्ले वायट रितीक कांपलो: 'हो धाव अकेर नातल्लीकि गणेश' खंयथावन आयल्लो ताळो हो? जनेलाचें दार धांपून परत्यान मांदरेर आड पडटाना आपुण धामेलां म्हळ्ळें मतीक आयलें. उजो उजो म्हण बोबाटून आपुण उटल्लों म्हळ्ळेंय उडास जालो.

निदोन आसचें असाध्य दिसताना गणेश उटान परत्यान जनेलार आयलो: काळकांत एकचपावटी धांवच्या ट्रेनाची गत पळेवनच बसचें मन जालें: तवळथावनच मतीक येनातल्ला ट्रेनाचो आवाज आतां पयलपावटी कानाक रिगल्लेबरी जालो: सबारांनी सवालां मतीक भोंवाडो घालूक कारण जालीं. तांकां धरची भास गयणेशालागी नातल्ली जाल्ल्यान सगळें अस्पश्ट, गोंडळभरीत: आपूण कित्या असो धांवोन आसां? आपणाक धोसच्या भियाक निवरावणी म्हण दिसल्ली धांवच आतां वेगळे रितीन भियाक कारण जाता न्हय? मनीस मनशाकच इतलो एक द्वेसूंक कारण कितें? बाबाचो बाव लागशिलो इश्ट जावनासल्लो मोनप्पा नायक आसल्लेबरी बाबाचेर घुंवोन रावोंक कारण कितें? मांयबाबाच्या मरणाक ताणे आपल्या आवयबापायथावन शिकल्लो भासच कारण? आपले भाशेक पावानातल्लो असले सकड उबजायिल्ला आकांत मात मतीक रेवडोन रावलो. नीद येता म्हण दिसतानांच खंयचेंकि स्टेशन लागीं जांवचें दिसलें. खंयचें स्टेशन म्हळ्ळें गणेशाक समजोंक साध्यच नातल्लें. काळकच झगझगच्या दोळयांक सोडन रावल्लेबरी भास जायनातल्लें - पयस

बोव पयसथावन लागीं जांवचें - तें स्टेशन दुकीक कारण जांवक लागलें. खंयचेय स्पश्ट कारण नासतानांच: दुसऱ्याच एके धांवेक कारण जांवचें कितेंकि - हांव, हांव न्हय, तूं, न्हय म्हण फेरावन, चरित्रे भितरल्यानच उदेवन आयल्लें कितेकि - थंय धावली मारन बसलां म्हळळया भोगणांनी काळजांत कांप भरसाली: परत्यान पुसपुशे; इतले रूंद उगते रावल्ले दोळे; वोंटांचेर धरून 'जागरूत' म्हण हिशारो दिंवचें बोट! ट्रेनान गरजेविणे शिळोणी घाली. खंयसरय पडसाद उटयनासतां काळकांत करगोन गेली. बसचें असाध्य जाताना तकलेपऱ्यांत वोलवोडून निदलो. हिंव खेल्ल्याबरी गडागडा कांपोंकलागलो.

कितलो वेळ तसोच कांपोन निदल्लो म्हळळें गणेशाक कळळेंना. पुण मध्यानरातीच्या सुमाराक आयल्लें स्टेशन खंयचें म्हणोन कळानातल्लें जाल्यारय खंयच्याकि स्टेशनाक येवन पावल्यांव म्हणच्या तितलें कळीत जातालें. अरनिदेंतय, कूलिंचो गलाटो आयकातालो. कंपार्टमेंटामुकारच रावोन, पयलें व्हडल्यान, उपरांत एकचपावटी ताळो तगसून उलयल्लो टी.सी. न्हय गार्ड जायजो: 1313- बी. हांगा आसा पळेया. दोगच आसात. सकयले सिटीचेर निदल्लो तुमी सांगल्लो चेडो जांवकपुरो. डब्याक मारल्ले लिस्टीत नांव सारकें खंचोकना. अनिलकुमार म्हळे न्हय? भितर वचोन विचारन पळेया. पारसेल थंयीच आसुंदी...कूली पळेतात". धोंकळून उटयल्लेबरी आकांतून जागलो गणेश. अनिलकुमार! ह्या धंद्याच्यांनी म्हाका दवरल्लें नवें नांव. आतां पयलेपावटी मतीक आयल्लेबरी विजमीत जालो: मदें स्टेशनांत आपणाक अशें कोणेय पळेल्लेना, पारसेल दिल्लेना. तो ट्रेन चडल्लो डेल्लीत. ब्रेकवँनांत दवरलां म्हण सांगल्ल्या पारसेलाची पावती दीवन जाल्या. जाल्यारय 'चेड्यान' म्हळळें 'अनिलकुमार' म्हळळे सारकें आयकालां. दुबावच ना. गणेश उटोनच बसलो. बसल्याउपरांतच आपणें आतां गणेश जायनासतां अनिलकुमार जावन सोडल्ले, मांयबाबाच्या उडासाक दवरल्ले जानवें सयत वचोन येदोळच दोन म्हयने जावन आयल्ले उडास जाताना हें सकड बऱ्याककि वायटाककि कळानासतां दूक येवचेबरी जाले. टीसी उलयल्लो मनीस भितर आयलो. हाका पळेवन - "अनिलकुमार?" म्हण विचारलें. "ब्लूडिस्क तेरा?' "न्हय" "म्हजी ब्लूडिस्क सर्विस. हे पळे" म्हणोन कोरियर सरविसांची वोळकेचीट काडन दाकयली. कूलिंनी पारसेल भितर दवरल्लेंच तुजे सटिपोंदाकच दवरयतां. ग्लासाचो सामान आसा. ब्रेकवॅनांत सुरक्षित न्हय म्हणोन हांगा हाडलां. पेट करतक अवकास मेळोकना. हांगा तसली वेवस्थाच नातल्ली. बॉसाक सांग. हे तुका डेल्लीत दिल्ले पावतीचेर पारसेल जाल्ले. ब्रेकवॅनांतले पारसेल हांगा देवयतां. समजालें न्हय? भिरांत नाका. आयकालें न्हय?"

दोगा कूलिंनी लांबायेचे पारसेल सिटी पोंदाक जोगासाणेन दवरलें. चड जड आसल्लेबरी आसल्लें. सिटिचे लांबाये रूंदाय्येक आंग पातळावन निदले. नाराचें

पातें करच्या ज्यूट लुगटांत ग्वडायल्लें. भाय आसमंतान नदार करून हाडल्लेवरी आसल्लें. निदच्या दोळयांनी आयल्ल्याकडि 'पारसेल निदलें' म्हळळ्या विचित्र चिंतपाक कारण जावयेत जाल्ली ताची अकारमावां मतीक मारून गेल्लें रितीककिपाटिच्या कण्यांत बर्फ व्हाळच्या अनभाग जावन अर्ध्याखिणांतसून झल करून कांपलो. आयल्ल्या पिशा विचाराक आपुणूच हांसलो. एकसरसून वोल वोडून निदलो. निदल्ल्या खिणा विचित्र गुमानी: पारसेल दीवन गेल्ल्या मनीस उलयल्ली रीत पळेल्यार ता उलयल्लो आप्पाल्ल्यांनी न्हयकि कितेंकि. दुसऱ्या कोणाच्याकि सांगाता जायजे भोगता. किंव्हा म्हळ्यार आदीं केदळाय कोणेंय पारसेलाविशी उलयल्लो उडास ना. आदीं केदळाय ह्या बसल्ल्या कंपार्टमेंटांतच पारसेल व्हरचीं घडी येवकनातल्लीं म्हळळेंय नीज. सकयली सीट खालीं आसतानांय ही व्यक्ती वयर निदल्ली किंव्याक? पारसेल दीवक आयल्ल्यान आपणाक "आयकालें?" म्हण विचारतान्ना आनी कांयकि 'हूं' म्हळळेवरी आयकोकनातल्ले. ह्या सकड एकाळाक संबंद आसल्ल्या मनशें न्हय न्हय? गणेश उटोनच बसलो. पारसेल आनयकपावटी पळयजे म्हळ्ळी आतुराय जाली. वयर निदल्ल्याक त्रास जातले म्हळळ्या विचारान दिवा पेटवचें मन जांवकना, हात लावन पळेल्यार कशें? आयल्ल्या विचाराकच किंक्राट मारिजे म्हळळें भंय जावन गणेशान परत्यान आड पडोन, वोल वकान पोटाक दांबून धरली. वयले सिटीक गेल्यार कशें म्हण विचार करचेभितर पारसेलाचे सुरक्षितायेचे दिश्टीन सकयल निदचेंच बरें भोगलें. दुसऱ्याखिणा व्हडल्यान एकपावटी शिळोणी मारन, उसवास बांदून रावल्लो धुंवर भायर घालून झणघुण आवाज करून बारी दवलतेंन ट्रेन भायर सरलें म्हणचभितर कोणकि दोग धांवोन धांवोन येवन ट्रेनाचेर चडले. भितरथावन खिळ घालूंक विसरल्लें दार लोटून ताच्या कंपार्टमेंटाकच आयले. हातांतली हांलडरां एकल्यान वयल्या, आनयेकल्यान सकयले सिटिचेर दवरून आकरेकय धरलें न्हय म्हळळ्या समाधानान दीग स्वास सोडीलागले. दार धांपून खिळ शिरकायलो. घडघडान मांदरी सोडवन आड पडोन वोलीभितर रिगले. एक उतर ना कांयी ना. एकामेकां वोळक आसल्ले म्हळळें सयत दाकंवकना. व्हावन हाडल्ली हांलडरां मात सांगाता आयल्ले म्हळळो दुबाव उब्जायताली. कंपार्टमेंटांतल तेगय परकी कसलीय परवा नासतां निदल्ली रीत पयलें एक पावटी मोसराक कारण जाली जाल्यारय सवकास भियाक कारण जांवक लागली. निदचेंच असाध्य दिसान जनेलाचें दार उगडून भायल्या थंड वाऱ्याक तोंड दीवन बसलो.

o o o o o

फांत्याउजवाडाची पयली किरणां तवळच उदेवन येवच्या वेळाक दोळे उगडल्ल्या गणेशाक आपूण जनेलाच्या सरळांक तकली दीवन बसल्लेकडेच निदोंक गेल्ल्याविशी गुमानाक आयलें. खंय पावलां म्हळळेंच समजानातल्लें:

रात सगळी नीद खळून फांत्याफारार दोळो आड जालो म्हण चिंतचेभितर नीद खळूंक कारण जाल्लें एकदम उडासाक येताना आपूण कितें करन आसां म्हळळें मनाक येंवच्या पयलेंच जनेल सोडून उटोन बागवोन सिटी पोंदा आड पडल्ल्याचो आकार आनयेकपावटी दोळयांत दोळो दवरून पळेलागलो: मंद उजवाडाक दोळे वोंदोन गेल्ल्याबरी स्पश्ट जाल्लें पळेवन काळीज तोंडाकच आयल्लेबरी चिंताना तळहातान तोड बळान दांबून धरलें. उरल्ले तेग आनिकय तकलेपासून पांगरून निदोनच आसल्ले. तेगय एकेच रितीन, न्हय तर आपणाकच तसली भ्रांत जावन आसाकि: पायांथावन तकलेपासून पांगरून उदारेंच निदल्ल्यांचे हात मात वोलीच्या भायल्यान येवन हरद्याचेर रावल्ले. ते तशे निदल्लें देकल्याउपरांतच सिटीपोंदा आसल्लें पळेवन भियेलोंकि न्हय तर सिटीपोदा आसल्लें पळेवन भियेल्याउपरांतच हे तेगय निदल्ली रीत गुमानाक आयलीकि...कितेंकि वेळ गेल्ल्याबरी कंपार्टमेंटांत आपणाशिवाय आनिकय चवग जण आसात, ते चवगय पायांथावन तकलेपासून वोल वोडून एकेच रितीन आड पडल्यात म्हळळें नीद खळून दणसाल्ल्या मनांत फांकल्लो प्रकास न्हय म्हळळो विचार काडन उडंवक असाध्य जालें: सिटिंचेर निदल्ल्या ह्या तेगांबरीच सिटीपोदा आंग पातळायल्ल्या पारसेलाकय ट्रेनाचे हालवणेन स्पश्ट जावन दिसतापऱ्यांत - ही तकलेची कूस, ही पायाची कूस म्हण सांगचेभितर - तकले पऱ्यांत पांगरून निदल्ल्याचो आकार उदेल्लो! हो विचार येतच गणेशाक तकलेपऱ्यांत पांगरून निदचेंच असाध्य जालें. वोल काडल्यार दोळे उगडीनासतां आसचें, दोळे उगडल्यार पांगरून निदल्ल्या आनि तेगांक पळेनासतां आसचें, पळेल्यार सिटीपोंदा आसल्ल्याचो आकार मारनासतां रांवचो असाध्य जावन उटोन परत्यान जनेलाक आयलो. भायर विशेस हिंव नातल्लें तरय उबजाल्ले कांपीक दांत कटाकटा आवाज करिलागले. काळक शिंदून आयल्लो उजवाड भोवतण परजाळवन गेल्ल्याबरी भितरलो दुबावच फातरेंवक लागोन, गणेश आपणायतल्याक बडबडोंक लागलो: ह्या कंपार्टमेंटांत सिटिंचेर आसचे आनी चारय जण सिटिपोदा आसल्ल्याक संबंद आसल्ले! गणेशाचो बडबडो आवाज व्हड जायत गेलो. हनेहळळीथावन आमकां धांवडायल्लो मोनप्पा, मांयबाबाक जिवेच हुलपायल्लो कोल्हापुरचो मत नातल्लो लोकाजमो; आपणाभोंवतणी निदल्ले हे चवगय एकेच सरपळिचे गांच; पारसेल जाल्लो मेल्लोकि खुनी जाल्लोकि? बोब मारच्या तितल्या व्हड ताळयान आवाज करून पिशे लागल्ल्यांबरी गणेश जनेल सोडून उटलो. नीद नटन करून निदल्ल्यांबरी दिसच्या तेगय जणाचे तकलेवयले पांगरण बडाबडा करून वोडले. तेगय गोंदळळयाबरी दडबडोन उटोन बसताना आपल्या सोधान भियेल्ल्याबरी सांगालागलो:

"पळेया, पळेया, सिटिपोदा कोणकि खुनी जाल्ल्याचें मडें दवरून गेल्यात... स्टेशन आयल्लेच पोलिसाक कळयांकि...?"

# चवतो भाग

उपरांत कितें जालें तें समजोंच स्थितीर उरलोंचना गणेश. दोळे उगडचें ताकत येवन दोळे उगडताना आपुण एका वडल्या आसपत्रेंत आसा म्हळ्ळें कळळें: `परजळीत हांतुळण आयची गजाली. परजळीत पुनीफाम भींतल्यो नरसां; वोणद,सिलींगाक साफ धवो रंग. सगळ्या जनेलां थागलाक निळे धवे पडदे, धव्या वणाची नितळाय, - एकाच आग्यार - इस्पत्राक दिसप तितीं गणेशान आदी केदळाय भोगल्लीना. नरसाथावनच एकेकच इल्ली इल्ली समान समजोंकलागली. तो हे आसपत्रेक येवन हो तिसरो दीस. तो आता आसल्लो तिसरे माळयेर, वार्ड नंबर सात, कॉट नंबर स... स. सात तेरा: ल्हान गणेशाच्या विचित्र परिणाम करन, इतिहासाकय हाकाय जिवो संबंद आसुकच्या जाय म्हळ्ळें चिंतप उदेशें केलें. नरसांथावनच समजालें: डेल्लीथावन बोंबयक येवच्या 'पंजाब मेल'च्या एका कंपार्टमेंटांत आपणाक सुरयेन घाय करन, चेन वोडून ट्रेन रावयन तेग जण रेलवे पाट्यांच्या बगलच्या कांबाशेतांनी धांवन गेले म्हणोनय; रगताच्या कोडांत पडल्ल्या आपणाक आसपत्रेक भरती करच्या वेळाक कठिण रगत व्हाळून धातीर नातल्लो म्हणोनय; पोटाक जाल्ल्या गंभीर मारान व्हडलें ऑपरेशन करिजे पडलें म्हणोनय (मनशांचेंच रगत म्हणोन उडोन पडल्ल्या गणेशाक समाधान करतालें, नर्स आनुरपिकें हांसून). ह्या वेळाक एकूण पावटीं थोडें तरय उलंवचे तितली, उलयल्यार समजोंचतितली नव आयल्या म्हणोनय, घडिताची तनखी करन आसल्लें पोलिस खात्याचे आपणा नतीर येंवकच राकताले म्हणोनय, आनी थोड्या वेळान ते आपणाक भेटतले म्हणोनय कळळें. हेच भेटेचो फुडले तयारेचो वांटो जावनासल्ली आताची उतरां म्हणोन मात गणेशाक समजोकना: नरसांनी उलयल्ल्या थोड्या वेळाउपरांत तेग पोलिस ऑफिसर, तांच्यासांगाता आनी सबार जणांचो व्हडलो जमोच भितर आयल्लो. तांचे पयकी एकले दोग आपणाक पळेल्ल्याखिणा फकफक म्हणोन तीन चारपावटीं दोळे फांकचो उजवाड फांकवन क्लिक क्लिक आवाज उटयन थंड जाले. एकल्या दोगांनी वरंवचे तयारेर नोटबुक, पेनसिल्या हातांत धरल्यो. घुंवची, दोन रोदांची विचित्र यंत्राची एक पेट आपणानुकार बोंव लागीं जावन एका स्टूलाचेर येवन बसली. दोळ्यांक दिसुनय, मतीक समजनासच्या ह्या गुपीत चाली भोंवतणी चलोन आसताना जमल्ल्यांच्या तोंडांचेर आतुराय पळेवन आपुण आसल्लेबरी अपरूप मोनजात तरय जालां कांय म्हणोन विजनीत जालो. एकल्या ऑफिसरान तोंड सोडल्या उपरांत एकेकच संगत एकाकएक संबंद वोळून घेताना सकडाचें नीज सुरूप भायर पडोंकलागलें:

ताणें काम करचें कोरियर सरवीस व्हडल्या स्मगलरांचो संस्थो खंय. ल्हान प्रायेच्या चेरक्यांक वापरची तांची विशिष्टता खंय. येदोळ्वरेंग बोंबयच्या

पोलिसांच्या गुमानाक आयल्ल्या चेरक्यांपयकी हो तेरावो खंय. पुण हांचेपयकी एकलोय ह्या संस्थ्याक सोदून काडचे तसली म्हायेत दिवच्यांत उपकाराक पडल्लो न्हय. देकून गणेशाथंय तांकां विशेस आसक्त आसल्ली; कंपार्टमेंटांत आसल्लें पारसेल कोणे दिल्लें, खंयच्या स्टेशनांत दिल्लें, कंपार्टमेंटांत आसल्ले तेग जण कोण, कितें सकड उलवन आसल्ले, पळोंवक कशे आसल्ले, घायाक कारण कितें- ह्या सवालांक जापी मेळ्ळयार ह्या सगळ्या गेंगाक गेंग धरूंक सलीस जाता. तांकासोदून काडल्ले नांव महाराष्ट्राच्या पोलिसांक मेळटा. ताणे मरणाशें वांचंवक काडल्ले इतले सकड नप्पटनाार सार्थक जातात...आनी कितें आनी कितें...आपणे आपणायल्ल्या ह्या धांवणेक आसल्लेबरी महत्व आयल्लें पळेवन सुरवेसुरवेर तमाशे भोगले तरय पोलिस अधिकारिन विचारल्ल्या एकाय सवालाक आपणालागी जाप नातल्ली पळेताना ताचे दोळे विपरीत रागान परजळचे रितीक गणेश कंगाल जालो. अधिकारीन दिल्ल्या हिशाऱ्याक जाप जावन कुडाचें दार उगतें जालें. निळशा रंगाचो दाटवेश घाल्ले चवग जण कान्सटेबल कंपार्टमेंटांत पळयल्लें पारसेल व्हावन हाडन आयले. पांयां कुशीक दोग, तकलेकुशीक दोगांनी धरून हाडल्लें कॉटालागी व्हरून पायांचेर रावयन बगलेक सरोन रावले: पारसेलाकुशी एकफावटी ताचेकुशीं एकपावटीं पळेवन अधिकारी गुडगुडलो -"पळे, हाचे भितर आसल्लें पळेल्याउपरांतय सकड उडास जाताकि पळे. पयलें तुवें हाडल्लें पारसेल हेंच म्हळ्ळें तरय स्पश्ट कर" गणेशाक उदकाबरी घाम सुटचें भंय जालें. आसपत्रेच्यांनी वदगायल्ल्या ड्रेसापशंदा 'ओपरेशन जालां' म्हणचे तसल्या पोटाचेर शिंवल्ले घाय सुटतलेकि म्हणचेबरी दूक भोगली. रगत सगळें पाजरोन गेल्ल्याबरी तोंड एकचपावटी फांटरेलें. वोंट कांपोंक लागले: "पारसेल सुटंवचें नाका. तांतु कितें आसा म्हळ्ळें हांव जाणा. पुण ताकाय म्हाकाय कांय संबंद ना. जिवशी मारल्लो कोण म्हणोन खबर ना. मेल्लो कोण म्हणयी कळीत ना. देवाच्या नावान पात्येया..."

गणेश बडबडतानांच पांयांचेर रावल्लें पांच फुट उबारायेच्या पारसेलाचें तोंड उसवन नाराचे पोतें सकयल वोडल्लेंच सय, दोळयांमुकार पात्येवकजायनासचें पिंतूर. जमल्ल्यांथावन 'देवा!' म्हळ्ळो विजमितकाय भरल्लो उदघार एकाच काळाक भायर पडलो. आमच्या ल्हान मुखेल्याचे उगते जाल्ले दोळे-तोंड, येदे रूंद उगतेच उरले. नाराच्या पोत्याथावन भायर येवन परगट रितीन रावल्ल्यान आपल्या अलोकीक वैभवान देखच्यांची दोळे मनां वोडून धरून सोडली. हातांत शख, चक्र, गदापद्मा, तकलेर कुरोव 'माळल्ल्या' पांच फुट उबारायेच्या वरणूंक असाध्य जाल्ल्या देवीक कांती आसल्ल्या सोबीत विष्णुची इमाज. सगळी भांगाराचीकि, भांगराचो लेप काडल्लोकि. भांगराचे कांतीन लकलकताली. पोलिसांनी उटयल्ली बोबाळ पळेल्यार सगळी भांगराचीच आसल्यारय आसली. खंयच्या नांववसत्या दिवळाथावन चोरलीकि, इमाज पळेल्ल्याखिणा, सरवांचे

हात, आपणायतल्याक नमस्कारारुपान जोडी जाले. तकली बागायली. मनशान्क तशेंच करुंक वेताना, बोलो बांदा आसल्लो दोनय हातय फाटल्याक बांदून घाल्लें मनाक आयलें. निदेंत ऑपरेशनाच्या घायाक लागनासतां नर्सानी घेतल्ली जागरूतकायची मेटां म्हळ्ळें समजनासतां विजर्मीत जालो. पोलिसानी आपणाक एकपावटी पळेल्ली रीत उडासांत येताना आनिकय विजर्मित जालो. आतूण शिरकाल्ले परिस्थितिचो अर्थ आतां सारको जालो म्हळ्ळेबरी हातलो एकपावटी वांचय म्हणमागलागलो. मागण्यार आसतानाच भोंवतणीं जमल्ल्याच्या दोळ्यांनी आपणाविशी तिरस्कार उबजोंचो; उबजाल्लो तिरस्कार मवकास रागांत बदलुंचो; आपल्या दोळे, नाक, वोंटांच्या आकाराविशीं, दोळ्यांतल्या नेटपणांतय भरसाल्ल्या भियाविशी, चूप नाकाच्या पोंतार हुशारकायेच्या परजळाविशीं, आसड्यांच्या धोणवाविशी, देवाचे पुजक रावल्लेच देवाक खुनी जाल्ल्याच मदें म्हणोन आपंवच्या तितले, चोरन विकच्या तितल भुरश गतीक देवल्ल्याविशीं चलल्ल्या गुजगुज्या उलवण्यांत परगट जाल्ले असाधारण क्रूरपण पळेवन एकचपावटी किंक्राट मारिजे म्हणच्यातितलें भंय जालें. हाच्या मानेगातच आपली सलवणी देखोन क्रूर जाल्लेबरी दिसच्या पोलीस अधिकारीन दांत वोंट चाबोन जमल्ल्या सगळयांक सांगलें: "बेल्टाची पुजा केल्याउपरांत नाका म्हळयारय तोंड उगडचें पलेतल्यात. असल्या चोराक पळेवचें हेंच पयले पावटी न्हय न्हय?" दुसऱ्याखिणा कॉन्सटेबलान पारसेल भायर व्हरूंक आडखळ ना म्हण सांगलें. पारसेलाचें नाराचें पोंतें एकच पावटी वयर वोडल्लेंच इमाज पयली पेंकटापासून, उपरांत गळयापासून आकरेक सगळी धांपून गल्ल्या तक्षण पोत्याचें तोंड दोरयेन बांदून आसताना तशें धांपल्लें आपणाकच म्हळ्ळें भ्रांतीन उसवास बांदल्लेबरी जावन "अम्मा..." म्हळ्ळे वळवळे आपापीच तोंडांतले सुटले. ते आयकाल्लेच सय, व्हडली झुजाजीक आपणायल्ल्या संतासांन: "आयकालें? आयकालें? आण घालन सांगतां. हो चेडो आमचो न्हय म्हळ्ळी गुमानी म्हाका पयलेंथावन आसल्ली. गुमानी कित्या, - नख्खी कळल्ले. पळेया, मराठी कितली एक सोबीत उलयता म्हणोन. जाल्यारय कितें: असल्याचो अनभोग आसच्या कानांक ताचेभितरलो अपसब्द आयकानासतां रावता? आमच्या मुत्तूस्वामीक विचारल्यार हें खंयच्या प्रांताचें "अंडागुंडा थंडापाणी" म्हळ्ळें समजातलें. बेल्टाचे पुजेचें भेशटावणे घाल्लेंच गुट कसो भायर पडलो पळेया. हरयेकपावटी जांवचें अशेंच. हावें तुमकां पयलेच सांगोंक नांकि? -ताचें नाक, नाकाच्या पोंतावयलो परजळ; आसड्यो, दोळे, दोळयांच्या परजळांत लिपयल्लें भंय, कपाल, वोंट - हे सकड पळेतानांच म्हाका एकदम कळल्लें: हो कांय असलो तसलो चोर न्हय; जलमान गुन्यांवकार म्हणोन! असल्या सुक्षीम संगती कळानातल्यार म्हजे तसल्यांनी पोलिस खात्यांनी कित्याक सेरवाजे पळेया" पोलीस अधिकारीक बोव संतोस जाल्लेबरी आसल्लो.

विशेस भियाच्या खिणा मांयक चिंतल्ली रीतच आपल्या अपराधाक रुजवात जावन येता म्हळ्ळयाचें चिंतप गणेशाक नातल्लें. तवळथावन अधिकारीन मराठीत विचारच्या सवालांक नितळ मराठींतच जापी दितालो. आपल्या तोंडाथावन भायर पडल्लो उदघार कन्नडाचो आसल्ली म्हळ्ळी प्रज्ञा सयत ताका नातल्ली. आसल्लेबरी जमल्ल्यांच्या तोंडांचेर परत्यान उदेल्लें क्रूरपण पळेतां पळेताना मात फक्करन कळोनय शिकल्ले भाशेच्या तेवशिल्यानच रावल्ल्याक भियेवन वस्तुरांतच मुतोंक जालें: ताणे जलमांतच पळेनातल्ल्या रानांतेवशिल्या, दोंगरांतेवशिल्या दिवळांतल्या एका दुबळया पुजारिकय ताकाय संबंद उबजोंक सुरू जाल्लो. काडन उडयल्ल्या जनव्याक, बदलायल्ल्या नावाक, शेंडी नातल्ल्या मटव्या केसांक, दोळयांमुकारच देवाची इमाज उगती रावतानांय सकडांबरी नमस्कार करनासतां वोलीभितरच रावल्ल्या हातांक - सकडा सकडाकय आतां नवे अर्थ मेळोंकलागल्ले. मुख्य जावन तो, कोणाथावनकि खुनी जाल्ल्याचें अनाथ मडें म्हणोन चूक समजाल्ल्या, देवाचे इमाजिच्या चोरपणाचे सगळे विवर ताका कळीत आसुनय लिपयता म्हणोन पोलिसांक आसल्ली गुमानी बळ जांवकलागली; तो आतां तो न्हयच न्हय...फकत दोन पाय आसल्लो चुकिकच इतिहासाचो लांबायेक धावोन आसल्लो...धांवडायल्लो...भियाथावन भियाक...

धांवणेच्या विचाराककि, एकाच जाग्यार एकेच रितीर निदोन पाय सलवोन आयल्ल्याककि, पाय दोडूंक गेल्यार खणक म्हळ्ळो आवाज आयकालो शिवाय पाय बागालेनांत. पाय खटल्याक बांदून घाल्लेबरी आसल्ले. खणक म्हणोन आवाज उटयल्ल्यो लोंकडाच्यो सरपळयो पायांक घाल्ले खोडे जावनासल्ले म्हळ्ळयाची कल्पना आयल्ल्या फोरसाक काळोक मांडूंक लागल्ल्या भुरग्याच्या दोळयांनी आनयेका इतिहासाचो आरंभ उडकेतालो. खटल्यार बांदून पडल्ल्या नेंट्या पायांभोंवतणी नवोच पुराण एक जलमोन आसल्लो.

"पाप! चेड्याची धात वेते आसा. तुमी सकड हांगाथावन थोडो वेळ शिंपडचें बरेंकि कितेकि...डॉक्टराक आपयतां..." व्हडल्या माट्याभितरथावन आयल्ल्याबरी येवन कानाक रिगल्ली नरसाची उतरां मेंदवाक पावोन अर्थ जांवचे आदींच, गणेशाची मत चुकल्ली.

(1978)

# भाग तीन : पुराण

अश्वत्थाम

मुखामुखी

चक्रव्यूह

उद्धार

थालें आनी चावी

"Art gives us a unity of intuition; science gives us a unity of thought; religion and myth give us a unity of feeling. Art opens to us the universe of "living forms"; science shows us a universe of laws and principles; religion and myth begin with the awareness of the universality and fundamental identity of life".

- ERNST CASSIRER in
The Myth of the State

# अश्वत्थाम

राती, आपणें कितल्या व्होरांपासून बरयलें म्हणोन रामचंद्राक कळ्ळेंना. सकाळी जाग जाल्ली - रांदपाच्या चेड्यान सदांचे सवयेपरी च्हायेचें कॉप हातांत धरून कुडाचें दार बडयताना. दोळे उगडल्यार फक्करन खंय आसां म्हळ्ळेंच थोडो वेळ कळ्ळेंना. आंग सगळें अरनून बांदून घाल्लेबरी, हालूंकय जायनातल्लें. खिळ घालूंकना. तशेंच दार लोटून ये म्हणयां म्हळयार जीब सुटना जाली. वासू, आपुणच दार लोटून भितर आयल्लो हाका पळेवन एकदम रावलो. "आसा! रात सकड कदेलारच नीद केल्याकि पळेतां" म्हणताना, सवकास दिश्टीक पडल्लें: रात सगळी पेटल्ल्या दिव्याच्या उजवाडांत परजळोन रावल्लें निदचें कूड; मिरयो पडनासतां उरल्लें हांतूळण; मोगाळ पुस्तकांचें कबाट; आराम कदेलार बसून पायांचेर दवरून बरयल्लो बूक ताचेथावन पयस उसळोन धरणीचेर पडल्लो. ताकाच मिणकोन पळेवन आसल्लो वासू विजमीत जावन "सगळी रात बसून केल्लें बरंवचें काम हेंच कितें चिंतां. तें कित्याक सायबाचें बंजाण करयेंत बुडोन गेलां?" म्हणटाना पळेलागलो: व्हय, उगतेंच आसल्ल्या पेन्नाच्या निब्बान बंजाणाच्या हरद्याच्या जाग्यार शिरकायल्ल्याकडेच इतल्या व्हड चाकाबरी करयेचें खत केल्लें: वासुचे तमाशेबुदीक हासो आयलो. कदेलारथावन उटचें प्रयतन करनासतां बसल्लेकडेथावनच पेन्नाखातीर उड्डालो. बूक पडल्ल्या जाग्यालागीच पडल्लें. वासुनच बूक आनी पेन्न दोनय काडून लागशिल्या टेबलाचेर दवरन च्हायेचें कॉप हाताक दीवन हरशेंचेबरी रुमाथावन भायर वचनासतां वणदीक वोणकोन हात बांदून उकाड्यां बसलो. आपल्या सायबाथंय देखल्ली खंयचीकि विशेस बदलावण आदी केदळाय झळकानातल्ले सळगेक इडें करन दिल्लेबरी आसल्ली. वाचचे कूड, निदचे कूड दोनय एकच जावनासल्ले तें व्हडलें कूड पयले पावटीच पळेवन आसां म्हणचेबरी अजापी दोळयांनी पळेत "सायबांनो" म्हणालो "तुमी इतले सकड बूक वाचल्यात?" म्हण विचारिलागलो. "ना वासू, सकड बूक सगळे वाचूंकनांत. वाचचे आनिकय जायते आसा" म्हणोन रामचंद्रान सांगताना, वासू बुकांक पळेत बसलो.

वासू ह्या घराक नवो. येवन एक म्हयनो मात जाला जावयेत. रामचंद्राच्या गांवचे कुशिलोच. बोंबयच्या एके उडुपी होटेलांत माणिचें काम करन आसल्ल्याक ह्या पयलेच्या कुजनेरानच आपुण सुटयेर वेताना हाडन दिल्लो. वासू एदोळवरेग आपणालागी अशे उलयल्लो रामचंद्राक उडास ना. आपल्या तोडाचेर ती कसली बदलावण पळेवन हे रितिचे सळगेक धयर केलेंकि म्हणोन आतुराय भोगली. चार निदची कुडां; व्हडलो सोपो; तीन बालकनी; चार न्हाणयो, इतल्या व्हड घरांत आसल्ले आमी दोगच. आपुण प्रिंटिंग प्रेस्साक भायर

सरन गेल्याउपरांत तरय 'चीं' करन आसल्ल्या घरांत वासू एकसुरो. ताका उबगोण जांवचीनाकि? वयल्यान, पाटल्या थोड्या दिसांनी, [illegible] सदांय चुकनासतां वचनासतां तवळ तवळ गरज पडटाना मात [illegible] घरांत आसल्ला उणेच. ह दोन दीस मात घराच्च आसल्लो. पुण ताका दीस म्हळ्ळेबरी बुकांनी तकली बुडवन बसल्लो आता उलवक मेळना म्हणोन भोगला जाव्येत: रामचंद्र आपुणय वासू सांगाता कालो मातक तयार जाल्लो:

"काल राती कितेंकि बरयतां म्हणोन बसल्लं न्हय? कितें बरयलें?"

"एक काणी बरयली वासू"

"कोणाविशी? ते काणयेंत हांवय आयल्लाकि कितेंकि?"

"थोड्या दिसां आदीं हांगा एकली वायल आयल्ली न्हय? तिचेविशीं"

"हो! काशीक गेल्ली म्हातारीकि? तिचेविशीं कितें हावं बरयचें तसलें आसा? ती मरताना कित्या तितलें एक रडल्यात? वार आयल्ली न्हय ती?"

"कोण आयल्ली वासू?"

"तिच - गोरीच सोबीत आसा न्हय?" वासुचें तोंड तांबडें. वासू म्हणोन आसल्लो इश्टीण वीणाविशी जांवकपुरो म्हळ्ळें कळींत जावन.

"ती कि? कितें म्हणाली?" म्हणोन विचारलें रामचंद्रान, तोंडाचेर कसलेंच भोगणां भायर घालीनासतां.

"तीय सांगताली: ती म्हातारी मेल्ली तुमी तितलें एक कित्याक मतीक लायल्लें म्हणोन. तिणे सांगचेंय फट न्हय. ती म्हातारी मेल्ल्याथावन तुमी एकाथरान्च जावन गेल्यात..." म्हणालो. रामचंद्रा तक्षण कितेंय उलंवक ना. थोड्यावेळाउपरांत काणयेंत आपणाविशी कितें आयलां म्हणोन वासून विचारल्लें सवाल आतां मतीक आयल्लेबरी.

"पळे वासू, तूंय म्हजे काणयेंत आयल्लय. ते म्हातारेच [illegible] अनें कोणकि जायजे - सारको उडास ना" म्हणालो अमुरपिकां हांसून. हें परककुडींत रिगचे विद्येचीं तकलीमुळां कळनासताना विजमीत जावन तोंड सोडन बसलो वासू. त्याउपरांत क्रमेण ताची सवालां वीणाकुशीं; ताचें आवयकुशीं घुंवल्ल्यान तळगी चड जांवक दीवक मन नातल्ल्याबरी "वासू, त्यामागीर तुका काणीच वाचून सांगतां, जायना? ब्रेकफास्टाक कितें तरय स्पेशल कर पळेयां" म्हणालो, ताका थंय थावन धांवडायजे म्हणोनच. तशें म्हळ्याउपरांत आपणाक चड भूक लागल्या म्हणोनय भोगलें. वासूक उटचें मन जांवचेंबरी दिसोकना. तरय काणी वाचून सांगतां म्हळ्ळयाकच मेण जावन खाली जाल्ल्यो म्हळ्या असाया उकलून रांदपाकुडाक चल्लो.

कुडिच्यो गरजो संपवक चल्यां म्हणोन आरामकदेलाथावन उटताना वरत्यान बंजाणावयलें चार इंच रुंदायेचे व्हडलें खत पळेवन - "सगळे राती बसोन केल्ले बरंवचें काम हेंचकि कितेंकि म्हणतां" म्हणोन तवळ वासून म्हळ्ळें उडास

जावन,रामचंद्र आपणायतल्याक हासलो. बूक उगतो करन पळोंवची आतुराय जावन तो हातांत घेयां म्हळयार सरशीन वेचेभितर - आतां नाका, ब्रेकफास्ट संपल्याउपरांतच- म्हण चिंतून, बरयल्ले वाचुन पळोंवची आतुराय दांबुन धरुनच न्हाणयेक गेलो...हरशेंचेपरी एक दुसऱ्याक, दुसरें तिसऱ्याक, तिसरें वेगळयाच एकाक प्रतीक जावन हुमाणी जाल्ल्या पिशे आशेबरी, कितेंच लिपयनासतानांच सांगलां म्हळळया भकतीक भोगणांनी मन चड हळू जावन, एका थराच्या भुरग्यापणान जीक जाल्ली.

वीणाक पळेनासतां कितले दीस जाले. मतीक चडीत घेतलां आसतलें चेडवान. ताचे आवयन सयत. फाल्यां गेल्यार जालें. कित्याककि आतां पयलेंचो जोप उरोंकना. ताच्याकय चडीत वीणा म्हाका लागल्ले रितीक एका थराचें भंय जाता. खंयचेंय बंधन नाका म्हळळयाच्या पायांक हाच्या मोगाची काळजावाल आडखळ जांवची नाका देवा! म्हजें घर, वोडको नासतां चलल्लें प्रेस, बेंकांत आसल्ल्या पयशांचे आशेक म्हजो मोग करतां म्हणोन समजोन आपणायल्लें धयर आतातां कुसकाता. वीणाच्याकय पयलेंच्या चेडवांक केन्नांय घरा आपयल्लो न्हय. जाय म्हण भोगताना हांवच ताचेलागीं वेतालों. पुण वीणा मात इश्टागत जाल्ल्या पांच स वरसांनी अपरूप एकपावटी आयलां. तेंय दिसावेळा मात. रात केन्नांय हांगा पाशार केल्लें न्हय. पुण सातक्का मरताना सगळें घरच खांवक उटोन आयल्ली रीत कावजेणी उटयताना चार दीस हांगाच आसल्लें. एकाच हांतुळणार निदोनय ताका आपडुंकनातल्लें. कारण कळीत आसुनय सगळी रात रडल्लेबरी दोळे तांबशे सुजवनच उटतलें. ताका पोशेवन समाधान करचेबरी कितें तरय उलयजे भोगल्यारय कितेच झळकनासतां मन पोकळ जाताले. सातक्का आसपतरेंत आसताना सयत म्हजे सांगाता धांवोन आसताना चडीत करून उलयल्लो उडास ना. एक दीस तरय "तें कुरूपी म्हातारी जांवक नातल्ले तर ते तुमच्या भुरग्यापणाची प्रेयसी म्हण दुबाव पावती" म्हणोन राग परगट केल्लो... सातक्का विशी वीणाक भोगल्लो मोसोर उडास जाताना, रामचंद्राक हासो आयलो. न्हाणयेतथावन भायर येताना एकदम झळकाले: वासू आपणाकडे वागताना परगटचे सळगेचें कारण बोवशा आपणाकय, वीणाकय आसल्लो संबंद कळल्लो म्हणोन. रांडेपुता म्हणालो.

नासट्याक बसताना वासूसांगाता सळनेनच उलयजे म्हण चिंतल्यार वासू एकचपावटी आपल्या पयलेचे चालिचे रितीक परतल्लेबरी आसल्लो. हाका कितें जाले हाबा म्हणालो. वीणाविशिं उतर काडटाना अरध्यारच रावल्ल्याक वायट दिसलां जाव्येत. ना, आपले चालीविशी आपणाकच भंय दिसलां जावयेत. रामचंद्रान तक्षण उलंवच्या हाऱ्याहुऱ्याक वचनासतां नासटो संपवन वाचच्या कुडाक वचजे म्हणचेभितर वासू दारार उदेवन "सायबांनो" म्हणालो, दूक भरल्ल्या ताळयान "तुमच्या गांवचो नागप्पा तो कसलो चेडो?" खंयचो नागप्पा

म्हण कळनासतां रामचंद्र कालुबूलो जाल्लो. जाकन आपणें [illegible] [illegible] स्पश्ट करून, "तवळ तुमच्र काणयेत म्हाका नागप्पा जायन केल्लो म्हळ्ळें [illegible] ता नागप्पा. तुमकां म्हजोविशीं कितेंच कळ्ळोंना सायबाना" म्हणोन [illegible]. थोड्यावेळान त्याच गभीरपणान "म्हजो बाप आमी घर. तो एकलोच म्हजो मान करतालें आमच्या घरा. ताचेविशीं...हांगा आयल्लें न्हय. ताका सकड सांगल्लें त्यावेळा. बायकच तुमच काणयेत घाल्ला" म्हणालो. 'मिकणायदा' हो वासू थंय उतरांनी परगट जांवक आशेवचा एक ससार लिपल्लो मतीक घेवन भेव जाल्लो. तशेंच, "जांवदी हावा, एक दीस तूंच सकड सांग; बरयता जायना?" म्हण भरवसो दिलो. वासू खुशेन दांत दाकवन हांसलो.

दारवट्याचेर कोणेंकि बडयल्लो आवाज आयकोन - दारार कापोन आल्ले नय अशें दार बडयतलो कुशिल्या घरचो पारसी वरकार नोशीर खंबाटा न्हय आसना आनी कोणय न्हय म्हळळ्या भरवस्यान आमसरान दार उगडून. "ये, ये नोशीर-ये" म्हणोन आपणाकच अर्थ जायनातल्ले खुशेन नोशीराक भितर घेवन ड्रॉयिंग रुमाक आपवन व्हरून वासूलागीं आनी दोन कॉपां च्हा हाडूंक सांगलें. "हांगाच बाल्कनीरच बस्यां, आज दऱ्याचें उदक तरन्या वातात कितलें एक सोबीत दिसता पळे" म्हणोन नोशीराक एक डेक चेर दीवन, आपुणय एकाचेर बसलो. रामचंद्राची ही उमेद, जीक नोशीराक बळान आपटाली. "काल सगळी रात तुज्या कुडांत दिवो जळल्लेबरी आसल्लो. हावें राती जाग जावन बातरूमाक वेतान दोनयपावटी पळेलें. कितेंय जांव सबार दिसां उपरांत एक व्हडली कृती उबजाल्या जायजे" म्हणोन नोशीरान संतोस परगट केलो.

"म्हजो Masterpiece नोशीर, म्हजो Masterpiece. तुका कन्नड अर्थ जाल्लें तर सगळी काणीच वाचून सांगतो. रातचें जेवाण संपल्लेंच बरयंक बसल्लों सकाळी कितल्यावेळार निदलोंकि उडास ना पळ. आदीं कदळाय सगळी काणी अशी एकचपावटी बसून बरवन संपंवकनातल्लों. हो एक चड करून नवो अनभोग. काल सांजेर असोच हो दऱ्यो पळेवन बसल्लों. तुवें हें पातयेजे नोशीर. पळेवनच बसल्ल्या वेळार ल्हारां उटोन उटोन पडच रितीक मन एका थरान उमाळल्ल्याबरी; हांवच दऱ्यो जाल्लेबरी, थळांत आसल्लों आपुणच उटोन आयल्ल्याबरी...

वासून च्हायेची कॉपां हातांत दिताना रामचंद्राचें मन नीजपणाक देवल्लें. हो हरशेंचो रामचंद्र न्हय म्हण भोगलें नोशीराक. आतुराय, कुतूहल भरल्ले दिश्टीन ताकाच पळेवन "काणी खंयचेविशीं आसा?" म्हण विचारलें.

हुन हुन च्हायेचो घोंट वोडून "जाप दिंवची कश्ट...पोर आमच्या घरा आयल्ली एकली म्हातारी मेली न्हय...तिचें मोरन, हो दऱ्यो पळेवन कितेंकि विचित्र परिणाम केला जायजे. काणी तिचेविशींच आसा. ह्या दऱ्याविशींय आसा. तशें पळेल्यार ती हावें बरयल्ली न्हयच दिसता...विचित्र पळे: तूं हांगा येताना

सगळी काणी सारकी करून उडास आसल्लें चिंतप, तुका ती सांगजे म्हण आतुरायेन भरल्लों सयत. पुण आतां सकड विसरोन गेल्लेबरीच आसा. आजाप. आतां उडासांत आसल्लें - दोनच: सद्या आयलेवारचें सातक्काचें मरण तशेंच जल्म नातल्लें ह्या दऱ्याचें उदक..."

नोशीराक हें खंयचेंय अर्थ जांवकना. सगळे लेखकच अशे जांवकपुरो म्हण चिंतून च्हा पियेवन आमुरपिको हांसलो. रामचंद्र कळीतनासतांनांच आपुणय आमुरपिको हांसलो. दारावयली कांपीण व्हाजल्ली आयकोन वासून वचोन दार उगडलें. नोशीराची धुव टेलिफोन आयलां म्हण सांगोंक आयल्लें. नोशीर ह्या टेलिफोनाची वाटच राकोन आसल्लेबरी "मागीर परत्यान येतां. बरयल्लें आनयेक पावटी वाचून पळे. हरशेंचेबरी तुजी काणी आयकोंक आतुरायेन आसां" म्हणोन ताचे थावन वेगळो जावन घरा चल्लो.

नोशीर भायर सरल्याउपरांत कदेलार बसल्लेकडेच आतां, एका खिणापयलेंच भोगून आसल्ली जीक मायाग जांवक सुरू जावन त्या जाग्यार अर्थ जायनातल्ले, रूप नातल्ले तळमळे राज करतात म्हळ्ळया तसल्या भोगणांनी हरद्याघुडांत वोलो अनभोग जावन पिडेस्त जालो. काल राती बरयल्लें वाचून पळेजे म्हणोन कुडाक वचोन बूक उगतो करूंक गेल्यार आपणाक भोगच्या भियाचें मूळ थळच थंय आसा म्हळ्ळेबरी बुकाक हात घालचें धयरच जांवकना. कदेलार थावन उटोन वचोन आड केल्ले दार उगडोन, वासू, ये काणी वाचून सांगतां म्हणोन, ताका आपवन मुकार बसवन बूक उगतो केलो. उगतो केल्यार आपल्या दोळयांक आपुणच पातयेना जालो: शेभराच्याकय चडीत पानांनी बरयल्ले सकड गिचिल्लेंच सोडल्यार वाचूंक जांवच्या अक्षरांबरी नातल्लेंच! जाल्ल्या धक्यान कळवळोन घामेंवकलागलो. पयलें पयलें हुमेदीन, त्या उपरांत एकाथराच्या कांटाळयान, आकरेक हे सकड मिरवोन रावल्ल्या तळमळयांनी पारकून आसल्लो वासू हाचेथंय तवळ घडोन आसल्ल्या अतीमनीस म्हळ्ळे प्रक्रियेक संपूर्ण प्रतिस्पंदी जावन आसल्लेबरी भियेवन भडक करन उटल्लोंच सब्द सयत काडीनासतां भायर चलतच रावलो. जाल्ल्या धक्यान सारको जांवक रामचंद्राक जायतो वेळ लागलो. त्याउपरांत एकेकच पानां परतोन गेल्लेबरी खंयच्याकि शिलायुगाची, आमकां अर्थ जायनासचे गुपीत लिपीन बरयल्लेबरी आसल्ली, गिचिल्ल्या बरपांत सयत थंय हांगा वाचूंक जांवची अर्थ जांवची थोडी अक्षरां गुमानाक येवन, विजमितकाय भरल्ले आतुरायेन वाचताना मतीक मेळल्लें इतलें:

पान 1:

"...आज म्हजे पार्वतिचो 'श्रद्ध'चो दीस. तें मरोन आजीक पंचवीस वरसां...पातयेंवक कश्ट..."

पान 3:

"...पार्वतीक खुशी जायत म्हण चिंतून मुंबादेवीक वचून ताच्या नांवार एक पुजा दीवन आयलों..."पान...10:

"...विसरोंक नजा जाल्ल्या ह्या दुरंतांत स पात्र आस्सात: बाप, माय, पार्वती, हांव आनी एक बांय. तशेंच हांव आनिकय बरयनासता उरल्लें एक पत्र..."

पान...30:

"एक म्हयन्याकाटी गावाथावन काशीयात्राक भायर सरल्ली सातक्का अस्थींक आयल्ली...असल म्हातार प्रायेरय तिका अगल्या पर्यशिल्या व्यणाक कडेचें धयर कशें केलेंकि...काशी थावन पाटीं येताना वाटेर न्युमोनिया जावन हांगाच्याच आसपतरेंत सरली...भगभग जळची तिची सारी पळताना...कित्याकींक म्हाका विशेस रितीन कांतवन आसल्लें हरयेका मरणाक हांवच कारण कित्याकि म्हळी तसली भ्रांत जाता आतातां..."

पान 35:

"...मेल्ली सातक्का न्हयकि? पार्वतक्का म्हणून कित्याक सांगतात म्हण वीणान विचारताना हरद्यांत धस जालें..."

पान 66:

"...म्हज्या मोगाळ पार्वती. तुजो माग करन काजार जाता म्हणून भरवसो दिल्लो हो धयरादीक बोंट तुका दीस गेल्यात म्हण कळल्याखेरीज - भियेनाका, भियेनाका - गावाक गेल्ल्येतक्षण मांयबापाक आपवोन तुका पत्र बरयतां, नातर खुद हांवच येवन मेळतां...हातार हात दवरून भास दीवन गावाक आयल्लो...आटट दिसांक एक न्हय एक नीब सांगोन तुज्या गावाक येवन आसल्ल्यान एकच्यावटी आपलो प्रेमसंचार रावयन चडीत वेळ पुस्तकां वाचचे पिशें पांगरून मुल्यांपास्ट जालों न्हय..."

पान 80:

"...म्हातारो जावन येतां पार्वती...तकलेचे केस, लांब सोडल्ले खाड, निज्या सकड धव्यो जांवक लागल्यात..."

पान 82:

"...गावांत आतां कोणच ना. मांयबाब केदळाकि मेल्यांत...घर हिताल सकड विकून बोंबयंत प्रिंटिंग प्रेस घालां...दुडू दिसानादिसा पिलां काडून बेंकांत वाडोंक लागला...दुडू कसो खर्च करिजे म्हण कळनासतां बोंगल्याबरी व्हडलें घर बांदयलां...जिल्ल्याचे कॉलेजिंत पार्वतिच्या नावार होल बांदयलां...हांगाच्या सबार बायलांच्या संस्थ्यांक कितलो सकड दुड देणगी दिला. पार्वती कोण म्हणोन मात कोणाकय कळीतना..."

पान 87:

"...काणी बरंवचें केदळाकि रावयलां...बरयल्यारय प्रकट करचें...बरंवक बसल्यार म्हाका कळीत नासतानांच पार्वतिच्या मरणाची सावळीच उठोन

येता..."

पान 89:"...जिविताचो अर्थ सोदचोच चूककि कितेकि...आसल्यार न्हय सोदचो?...तो आमी दिल्लो जलमयल्लो...तूंआयल्लेंच म्ज्या जिविताक अर्थ आयल्लो...तुज्यासांगाताच गेला...तुका म्हजेवरवी जाल्लो घोर अन्याय धयरान ओपवोंच्या बदलाक न्याय-अन्याय; बरें-वायट; पाप-पून असल्या तफावतांक अर्थच ना म्हळळेबरी जालां. तसले तफावत निराकरशिल्लेबरी आसा आज हावें जियेंवची रीत...हे सकड मांय, बाब, गोडडू ब्राह्मणा सुद्धाचारा विरोध हांवे उटयल्लो बंडाय जाववयेतकि? म्हज्या सभावाक मनाधर्माक वरगोंचे तसलो न्हय म्हण कळीत आसोनय एक क्रांतिकारी राजकीय पाड्त सेरवोंक चिंतलां..."

पान 95:

"स्वता कामूक, दुश्ट जावनासल्लो बाब, म्हज्या तुज्या संबंदाची खबर मेळल्ल्याखिणा तुका, तुका, तुका...शिंदून माटव बांदतां म्हणोन जमदग्निचो अवतार जावन आसल्लो न्हय...हांव जलमल्लोंच बाबाक वेराग येवन तीर्थयात्रेक गेल्लो तर न्हय सुदरांच्या तुजेलागी काजार जाल्यार बांयक उडोन जीव काडन घेतां म्हणोन चंडिचो अवतार जाल्ली मांय हांव जलमल्लोंच मेल्ली तर...न्हय जानपद काणयानी घोड्यासवार जावन येंवच्या दाट मिश्यांच्या सरदाराबरी हांवच हरदें घट करून तुका असल्या असल्याकडे येवन राव म्हणोन गुपीत निरोप धाडून...तुजे सांगाता धावोन गेल्लों तर...न्हय...तुज्या गुरवाचाराक कारण जाल्लों हांवच नपुंसक जावन आसल्लो तर...देवा...म्हज्या पातकांचे पिंड गरभांतच व्हाववन बायक उडोन पार्वतीन जीव काडन घेतल्ल्या कराळ सताक दोळे दांपूक कितल्यो एक भितरल्यो वाटो..."

पान 96:

"...म्हज्या हातांत चलल्ल्या ह्या शूद्रहत्याक आतां कितलो काळ जालो? हजार वरसाकि? ना, हजार मिनुटांकि?...काळाची प्रज्ञाच सावळेवन आयल्या..."

पान:...

मुकल्या धा पंदरा पानांचेरय वाचूंक जांवची थोडी अक्षरां आसल्ली. पुण रामचंद्राक ती वाचूंक जालीनांत; दोळयांनी तवळच थेंबे भरूंक सुरू जावन दीश्ट दाट जाल्ली. बूक धांपून रडजे म्हळळी बळादीक आशा प्रयत्नाच्या बळान मुटीत धरन दोनय हात बळान हरद्याक दाबून बसलो; ना ना ना पार्वती म्हजो तुजो नीज संबंद म्हज्या हातान जाल्लो क्रूर अपराध शीदा, स्पश्ट उतरांनी सरवांकय सांगचे धयर आनिकय येवकना ह्या भिंवकुन्याक...तसले धयर जलमतावरेग असले नवे नवे खेळ रचतां. खेळ खेळतापऱ्यांत हो खेळ म्हळळो म्हाकाच कळीतनातल्लेबरी, म्हाका हावेच ठकंवचेबरी नवे नवे उपाय सोदता. काळाकाळाक तुज्या मरणाचे दूक पयले पयले भोगल्ल्या तवळच्या उमाळयानच परत्यापरत्यान भोगचेबरी असले नवे नवे तंत्र चितून आसतां. पाटिच्या कणांतच

# मुखामुखी

सकड सांगतलोंच म्हण निचेव केला. तकलेर हुलोप भरचो उजो व्हाववन शाती समाधानाक आशेवन भोंवतल्या, शाप लागल्लेबरी, व्यर्थ भोंवचेबदलाक, म्हाका दुकंवच्या, घायेंवक करच्या सगळयाक एक रूप दीवन पळेजे, तें उतरांनी धरन घालिजे म्हण बरंवक बसलां. हें कितें मरचे भ्यें? नवोच जलमल्ल्याक भोगची अपधयराची दूक? समजोंक करिजे. माजवल्ल्या आनी गोंदळल्ल्या, आडखळशी पडच्या भोगणांक आसल्लें, अर्थ जायनातल्लें भियाचें मूळ सोदून काडिजे म्हण आदी जायतेपावटी सलवल्यारय आतां परतून तें सोदच्या कामार पडलां. सबार दीस थावन चलोन आयल्ल्या ह्या सोदनांक पाटिंबो म्हळ्ळेबरी थिर आसचो आनी हावें म्हाकाच स्पश्ट करूंक आसचो विसवास म्हळयार: हावें भोगचे पिडापिडेक कारण जाल्ल्या ह्या दुरंतांत पांच मुख्य पात्र आसात म्हळ्ळो. दोग दादले, एक बायल, एक बांय आनी एक कागद. तशेंच हांचेमदल्या परस्पर आनी लागशिल्या संबंदाचें सारकें सुरूप कितें म्हण स्पश्ट, उगतें, कळल्ल्यावेळारच म्हजें उदारण म्हळ्ळो.

आमी बोबय घर केल्ल्या धा पंदरा वरसांनी आमगेर एक दीस पुणय पाय दवरून येनातल्लें इंदिराबाय पाटल्या धाच दिसांनी दोन पावटी आयल्ले. दुसरेपावटी आयल्ल्या वेळार हावे पळेल्लें, अनभोगल्ले हावें सासणाक विसरानशे केले मात न्हय जिविताविशांत मनशासभावाविशांत हावें केल्ले अभिप्राय, सांबाळन हाडल्ले विचार पूरा पाळां मुळां सयत हालवन सोडले.

सांगनासताना करीनासताना म्हळ्ळेबरी इंदिरक्कान हेणे येवन करन उगती जाल्ली दोगां व्यक्तिंची मुखामुखी जायनासताना दोन इतिहासांची, दोन पाप प्रज्ञांची मुखामुखी जावन आसोकपुरो म्हण दुबाव जाता.

० ० ० ० ०

दीस बुडोक जाल्लो. तेदळाय आतांचेबरीच बाल्कनीवयल्या ह्याच आरामकदेलार ओणकोन बसल्लो. मुखल्या रसत्याच्या कोनशाक आरबी दऱ्यो, उटोन उटोन येवन पाजेतले काळे पाजोक आपटुंचो फेड वोकचो ल्हारांचो खळानातल्लो आवाज. पयशिल्या उदकाचे ते बगलेन सुऱ्याच्या आकेरिच्या किरणांक उजळचे तांबशेल्ले मळब. काळोक किण्ण भरल्ल्या बांयच्या तळाच्या काळोकांत रुपेल्ल्या पडबिंबाबरी मतिचे गुंडायेत व्हयकि, न्हयकि म्हणचेबरी दिसची मया मया जाल्ली हनेहळ्ळी. मुखल्या कदेलार तेदळाथावन बटबटोन उलवन आतांच म्हळ्ळेबरी एकदम गंभीरायेन मोनी जाल्ल्या आनी थंड बसल्ल्या इंदिरक्कान उबजयल्ले कितलेशे उगडास ताच्या आतांच्या मोनेपणांत परतून परतून जिवाळूकलागल्ले: तांच्या शेजारा हितलांत घर केल्लो परमेश्वरिचो देर दुरगझडयताना काटो मोडून सकला पडोन गोकर्णाचे आसपतरेंत पडल्लो खंय!

तीन दिसांउपरांत मल्लो आनी मल्ले ह्यवन गांवच्या रुंदाक रानच्या कुंय! दुरगुक काजार जांवक नातल्लो. तारीच पिरगुटो जल्मून चड आसल्लो. परमेश्वरीक आनी ताका आसल्ल्या संबंदाविशीन किते पूरा जाणाय! परमेश्वरीक जाल्ली भुरगी पूरा दवी, म्हाकाळी सयत दुरगुक जाल्ली म्हळ्ळी गुमानी पडीक ताच कातिचा रंगच कारण जावकजाय. परमेश्वरिचो घोव हाङ्गा काळो कुरूपी. मरणान आनी कामान एकामेका गाच घालून उटयल्ल्या उगडासान एका मूळ अनभागाची इमाज उबजान आयल्ली - हावं कशेंच इस्कोलाक वेच्या दिसांनी पळेल्ली इस्कोलाकाटली ती परनी बाय!

विचारलें हावें:

"तुका उगडास आसा? तें बांयत एक म्हातारी पडान मल्ली? परनी, सांडकर बांय जायती अशीर जाल्ल्यान तांतूं देवचें वयर काणाकय आयनासल्ल्याना एके मुटयेक दोन कुशिनी राजू बांदून मुण्यामाजराक वयर काडल्ल्यवरी त म्हातारेचें मडें वयर काडल्लें!"

इंदिरक्काक उगडास नातल्लो.

"पंचवीस तीस वरसां आदला उगडास आतां जिवा करन विचारताय. एकपावटी आमचेकुशीन येवन वचनाय" म्हणालागली.

"तुजी मावशी सरल्ल्या वेळार आमचे तरी आयल्लोय. मागीर आनका पूरा विसरलोय. बापल्यो मेल्ल्यावेळार तूं खंय पयस आसल्लोय खंय - कलकत्तात या आनी खंय - तुज्या नावार सोडल्लें हितल, घर खयचे दशेर आता पावल्यात म्हण येवन पळेंवकय जायना?...किते पूरा सवालां! अरध्या पाक्याक कालू शिंवल्लें, आनी उरल्लें नळे शिंवल्लें आमचें घर आतां कोसळोन, पंचांगाचे वोणटिंचे फातर पूरा नपयंच जावन, तें घर आसल्ल्याचो धुर्त जावन आता उरला म्हळयार मातयेचो ल्हान गुडो. परमेश्वरीक चरब मातल्या आनी तो नीत नासताना वाडोन ती भुंय पूरा आपणाची म्हळ्ळ्या रुबाबान थंयचूरा 'हितलाचें रांदय' केल्या खंय. धाकट्या धनयान ती पूरा आपल्या नावार केल्या म्हळ्ळी खबर सगळ्या गांवार केल्या खंय. म्हालघड्याथावन आयल्ली ती अस्त सकटांक सोडन परमेश्वरिच्या स्वाधीन जांवकजाय? अशें म्हण तिणें परतून परतून विचारलें. परमेश्वरिचो सोर्क, धिमाक इंदिरक्काच्या अभिमानाचेर एक सवाल जाल्लें म्हण दिसता. तेदळाथावन ताचेविशांत उलवनच आसा...इंदिरक्का म्हजेकडे उलंवक आयल्लीच परमेश्वरिचे बाबतीन म्हळ्ळो दुबाव जालो म्हाका.

म्हजे बायलेन रांदच्याकुडाथावन आपयताना इंदिरक्का उटोन भितर गेली. दीस आमोरी जाल्लो बाल्कनीर हांव एकलोच, पेंकटा तिच्यून उबार आनल्ल्या ग्रादिच्या सरळांतल्यान दिसचे तिनसांजच्या तांबशल्ल्या उजवाडात धांवचन पडचें सागोराचें उदक. खडपाच्या म्हऱ्यांत आडास बसोन कामकळी आयल्ली दादले रूक चडोन फळां बायलां. बाल्कनिचो लायट् पालूंक आयल्ले धुवक

लायट् इतले वेगी घालीनाका पुता म्हळें - अशेंच आनी थोडो वेळ कदेलार बसोन रांवचे मन जावन. लायट् घालीनासताना आपल्या कुडाक वेताना म्हजे प्रज्ञेच्या पाताळांत परतून हनेहळ्ळी. कन्नड इसकोलाच्या हितलांतली बांय. मुटयेंत वयर काडटाना मुडकोन पडल्ल्या कडतर म्हातारेचें मडे!

म्हाका दिसलें:

बोरे ल्हान प्रायेर आमकां धरन हालयल्ले अनभोग, फुडें एक दीस उतरांचें रूप घेवन समजणेचें पाताळ भितर रिगोंक सकता पऱ्यांत,- ते तसले सकतेचें मुहूर्त पडोंक राकोन, अस्पश्ट प्रतिमेचे रूप जोडन मतीभितर अगड निदोन पडटात आसतले. स्पश्ट उतर जावन, जागोन फुलचें अनभोगाचें बी म्हळ्ळेबरी हांव सातकि आट वरसांचो आसताना पळेल्ली ही बांय, हे म्हातारेचें मरण, ताचो उगडास पूरा एकाच्छाणे आंग फापडून उटोन उगडासांत आयल्ले हे पयले पावटी कांय न्हय...

तशें पळेंवक गेल्यार म्हजा जलमाचो गांव हनेहळ्ळी न्हय खंय. अंकोलेच्या लागसारची एक हळ्ळी म्हळयार बोबरू वाडो खंय. मांय हांव जलमताना पयल्या बांळटेरांतच सरल्ली. हांव तीन कि चार वरसांचो आसतानाच एक दीस, दीस उजवाडचे पयलेंच निदल्लेकडचोच बाब नापत्तो जाल्लो खंय. तो शीदा गेल्लो म्हळयार पर्तेगाळिच्या मठाक. थंयथावन तीर्थयात्रेक भायर सरल्या हेरां सांगाता आपुणय मेळ्ळो. उत्तर हिंदुस्थानाच्या एका क्षेत्राक भायर सरन रावल्ल्या वाटेरच कोलेरा रोग येवन सरलो म्हण घरा मेळल्ली खबर. कशेय आसो, हांव जांटो जाल्ल्या उपरांत घरच्या व्हडिलांनी म्हाका सांगल्ली रीत ही. बाबाक पयलेंथावनच जीवनांत आशा या आस्त बी कांय नातल्ली खंय. एका थराच्या विरक्त भोगणानंच व्हड जाल्लो खंय. काजार केल्यार कांय सारको जातलो म्हण लेकून बलात्कारान म्हळ्ळेबरीच ताका काजार केल्लो खंय. खरी आजापांची संगत म्हळयार तो काजार जाल्या उपरांत सगळोच बदलोन गेल्लो. ताका मांय म्हळयार जिवाची गांट. दुसऱ्या कोणाचोय तितलो पत्तो लागानातल्लो खंय। पूरा खबरोय थोड्यो कांय उगत्यो, थोड्यो कांय लिपत्यो अरधुकुऱ्यो संगती! अनाथ जावनय अनाथ म्हण कळनाशें म्हाका ल्हान व्हड केल्लें मावशेन, म्हळयार मांयचे व्हडले भयणीन, हावे तिकाच मांय म्हण आपवचे आसल्लें. बापल्योच म्हाका बापूय जालो. तांकां भुरगी नातल्ली. नीज आवय बापायक विसरोन हांव वाडलो म्हण घरांतल्या व्हडांनी चिंतल्यारय खरी श्थिती तशी आसल्ली म्हण म्हाका आतातां भोगना. तशे म्हणोन ह्या विशांत हांव कांय विशेस रितीन बारीकसाणेन चिंतुंकय वचोकना. म्हजी भोगणां हेरां मुकार उगती केल्लोय हांव न्हय. तरीपुण आदल्या जलमाचो उगडास म्हळ्ळेबरी मनाच्या काळोकांतल्या लोकाथावन उटोन रूपित जाता बाबाची मूर्ति - सांगल्यार कोणय पातयेवचेनात म्हळ्ळे भीरांतोन म्हजे भितरचइरयल्ली - हांव चार पांच वरसांचो

आसताना सयत ती पळेल्ली उगडास म्हजी. जिवितान्च्या अर्थाविशयान [illegible] हरयकपावटी उटच्या सवालावरी, जिवांत अगदीं [illegible] घेवक जायनातल्ल्या घुटावरी. हळ्ळी सोडून आयल्ल्या पयलीस वरसा [illegible] सयत, हळ्ळविशांत चिंताना गप्प करन विचार करचें [illegible] म्हळ्यार: [illegible] आसल्लवरीच उटोन घर सोडून गेल्लो कित्याक? ना [illegible]? सरल्लो पुणय क्हय? तुरतुरीत एक दीस - आज आता इंदिरक्का आयल्ल्यावरी - येवन घरच्या दारार बडयत? इतल्या तूरा [illegible] बापल्यो - मावशच्या मरणाग्रास चड विचार केल्ले बाबाच्या निगूढ निर्गमनाक...

काजार जावन बोवंयत आयले घरदार सुरू केल्ल्या पयरा वरसानीं इंदिरक्का आमगेर आयल्लें हेंच पयलपावटी म्हण चिंताना म्हाकाय अजाप. [illegible] गेल्यार हनेहळ्ळीथावन कोण आमगेर एदोळ म्हणसर आयल्ला म्हण? इंदिरक्का येत म्हण आम्मीं चिंतूंक सयत नातल्लें. आयल्लीं रीत आल्यारय तशींच: बापाच्या शृद्धाक गोकर्णाक गेल्ल्या एकल्या म्हज्या बालकिच्या [illegible] सांगात करन, आमच्या घराचो पत्तो कळीत आसा म्हळ्ळयाचेर हांगा सोदीत आयल्लें, कागद सयत बरयनासताना. बरयल्लेय जाल्यार तेंच तांचें पयलें कागद जातें. हावें ताकाय कागद बरयल्लो म्हाका उडास ना. ताकाय चड अजापाची गजाल खंयची म्हळ्यार हांव प्रायेक पावल्या उपरांत अशें लागीं बसान, सुद्धां, ताचेलागीं उलयल्लों हेंच पयलें पावटी. ना जाल्यार ताच्या सांगातान म्हाका खंयचोकि अर्थ नातल्ला शिरशिरा. मणांवेळा तसलो, काम करतना तसलो. मोनजाती तसलो; तिनसांज जाल्ल्या तक्षण मणायर तादूक, चुडन्या सगळ्यान शिंपडावन हो हो हा हक म्हण ताळा काडच्या आगरा एकुच्या घाडिण्या तसलो; कन्नड इस्कोलाच्या पोरण्या पोणकुल बांय तसलो - हजार रितिनीं वर्णिल्यारय उतरां भायर उरच्या, काळोकांत कांबोळ गोंगडी घालन भशटावक रावल्लेवरी, काळोकिट्ट जावन मिस्तेराभरीत लिपल्ले उगडास हाडची, ताका म्हजेर आसल्लो शाणेपणावीण प्रभाव - हावें एदोळपऱ्यात बरयल्ल्या धावीस नमुन्यांच्या स्त्री रुपांनी मूळ वस्त जावन म्हजे समजणे भायरच उरलां.

हाका म्हाका दिसल्लें कारण म्हळ्यार: ओंठार मिश्या फुटच्या वेळार हावें पळेल्ली तरणाटपणान मुसमुसोन उसळची ताची आंगां जावयत; डोळ्यानी, बारीक पेंकटान, काडच्या हरयेका मेटांत ताणें घमंड दाकवन उबजंवचे कान पाशांवांच्या उलक्यांत जावयेत; दिसनातल्यारय दिसल्लेवरी लिखावन सगणा खळणेक कारण जाल्ली ताची स्थनां जावयेत; ल्हान आसताना 'ए चारा! तुज किराचें पील पळेयां' म्हण विचारल्ल्याचो, आवडल्ल्याचो अर्थ समजोंच दीस येताना तकलेपऱ्यांत वोडन गोंगडीघाल्ले वांलिभितर ताचेविशांत चिंतल्ल्या दिसाउजवाड्या सपणांच्या गर्भातलो व्याभिचार जांवक पुरो.या...

आतां उगडास करूंक सयत पाटी मुकार करची संगत:

इस्कोलाथावन आयल्लोंच इल्लो पेजनीस पियेवन खेळोक म्हण इंदिरक्काच्या घरा गेल्लों. इंदिरक्का पाटल्या सोप्यार बसोन आसल्लें. खांब्याक वोणकोन आरस्या मुकार धरणीर बसोन केस उगयतालें. कापड चड पाटी वोंदल्ल्यान सफाय जावन लकलकचे ताचे धवशे मासाळ पाय पळेवन घाबरलों. धरणीर पूरा धुळ. पोरच हाडल्लें कापड म्हण ताणे घुणघुणल्लेबरी उगडास. हांव लागी बसोन ताणे केस किसंवचे पळेतालो. जाल्यारय ताणे कापड मुकार वोडन समा केलेना. तेदळाच्या मट्टाक ताणे आरस्यांत पळेंवचें आपले तोंड न्हय बगर विणगे पाय म्हळ्ळो दुबाव मारन अजाप जालों. मुकल्या थोड्या घडयांभितर, कितें जाता म्हण कळच्या पयलेंच एकाच्छाणे म्हाका वोडन पळे पळे हे काळे शिब कितले ऊब आसा पळे म्हण म्हजो तळहात उसक्यार दवरन घश्टिलो. व्हय गोऱ्या कातिच्या उसक्यामदें पावण्या तेदे काळें-हरवें रंगाळें शिब. ऊब आसल्लें या थंडगार आसल्ले ताचो उगडास ना. उगडास आसल्लो इतलोच:

ह्या आपेक्सूक नातल्ल्या घडितान धोवाट जावन थंयचो धांवल्लों; पाटी घुंवोन पळेताना तसलें कांय घडोकना म्हळ्ळया रुबावान इंदिरक्कान आरस्यांत पळेवच्यांत गर्क जाल्ले; एदोळ म्हणसर गुपीत उरल्लो एके बायलेच्या उसक्याचो पयलो स्पर्श हाचो सगळो अर्थ जांवच्या वेळाच्या मुकल्या जाणट्या दिसांचेर घुंगरोन म्हज्या काजारी जिविताचेरय सावळी घालूंक पावल्लो...इंदिरक्कान मात हे पूरा विसरोन सोडल्लेबरी या हे कांय घडोंकचना म्हळ्ळेबरी नटन करन - हे पूरा म्हजीच कल्पना या सपण म्हळ्ळो दुबाव उटोन म्हाका सतयल्लें...

न्हय -

तेय मुख्य न्हय. न्हयच न्हय. सगळे कळीत आसोनय गुट कित्याक करचो कित्याक? सगळें सांगोंक भायर सरल्ले आयिन्न घडये फाटी करचे कित्याक?...

इंदिरक्का केदळाय तशेच. एक उमीण जावन म्हज्या जिवितांत आयल्लें. तें शंकररायाकडे काजार जावन आमचे हळ्ळेक आयल्ल्यावेळार हांव कांय आट या नव वरसांचो. चिंतून पळेल्यार कन्नडाचे तिसरे क्लाशीत आसल्लो उगडास. वीस वरसांची व्हकल म्हजे मतिच्या पडद्यार स्पश्ट खंचल्ली - हो परिणाम घडोंक कारण म्हळयार, हनुमाट्याच्या महामायी देवस्थानाच्या कलवंतांक सोडल्यार इतले सोबायेच्या आनी रुपेस्त चेडवाक हावे पळेवनच नातल्ले. थोड्याच दिसांभितर शंकरराय ताका सांगल्लो नवरो न्हय म्हण लोकान खोड काडूंक धरली. आनी वरसां पाशार जाल्लेबरी शंकरराय खोजो, देकुनच इंदिरक्काक भुरगी नांत म्हळ्ळी अर्थ येवची उतरां हळ्ळेत वसतेक रावली. व्हडांच्या संसारांत पाय दवरूंक कावजेवच्या म्हाका आनी तितले भ्ये भरले: भुरगी नातल्ल्याककि कितेकि हांव ताका कोडाट्याचो जालो. चड लागशिलो जालो...तसल्याच वेळार हें घडल्लें:

आन नेल्ल्या तितल्याच मिस्तेराभरीत थरान तो लांब मिश्यांचो आयलो. लांब

आन गेल्ल्या तितल्याच मिस्तराभशीत थरान तो लांब मिश्याचो आयल्लो. म्हज मिश्यांचो म्हणटां कित्याक ताच्या लांब मिश्या मात म्हाका उगडास आसात - ताचें रूप नियाळटाना ताच्या मिश्या दोळ्या मुखार रावतात. खंयच्यान आयल्लो? कित्याक आयला तें कांय खबर ना, तरिकय आयलो. आयल्लोच मंदिराच्या चिट्यार - शटी तराच राती मिरगाच वाटेक धर्ची जाडी पिपळी काटी आसात न्हय? ताका लागी आसल्ल्या दासप्पाच्या च्हायेच आंगडी जडो यालो. दासप्पाचो पूत सरवोत्तम म्हजो इश्ट. ताणें सांगीनच कळ्ळें म्हाका: पाटल्या तीन दिसांथावन च्हा पियवच्या निमान येता म्हण. काळोक मया मया आसल्ल्या कोनशाक बसोन एकलोच च्हा पियता खय! बिडी ओडटा खय! कोणाकडे जाल्यारय एक चाचू सब्द ना. काळोक जाल्लोच उठोन वेताला. कुडे एक दीस गुसू गुसू खबर जाली; ताणें रावल्ले घर गांवकाणांतल्या एका भोटाचें. तो हनेहळ्ळीक इंदिरक्काक मेळोक येताला म्हण कोणेंकि खबर केली. कान ताचे पातयेले. आयकोन म्हाका मात्याक चडलो. भियलो. तेदना म्हाका काय तेरा वरसां प्राय. हांवच खुद्ध दासप्पाच्या आंगडी गेल्ल्यावेळार दोळ्यामुखार जाल्लें. दोळ्यांक दिसल्लोच दुसऱ्यो काय साक्षी नाकात म्हळ्ळी मन गजाल स्पश्ट जाली. ताणें येंवकय आनी इंदिरक्काक संबंद आसल्लो व्हय म्हण जालें. म्हाका कित्याक तशें भोगलें तें म्हज्यान समजोन घेंवक साध्य नातल्लें उतर. तशेंच उरलां. हो संबंद फट जांवदी म्हण भितरल्या भितर आशिल्लेंच संबंद आसल्लो व्हय म्हळ्ळी भिरांत जांवक पावल्ली? शंकररायाविशांत आसल्ली गुटाची जुगुप्सा हो संबंद खरो जांवदी म्हळ्ळी आशा जांवक पावल्ली? तें खबर ना. गावार जाल्ली खबर पातयेंवचेबरी जाल्लें या पात्येंवचबरी जाल्लें तें हांवच खबर करन सोडल्लें? सगळी संगत एक करताना, घडोंक नातल्लेंच घडलें म्हण पातयेवन मुकार निजाकय घडल्लें ताका दोळे धांपून सोडूंक चलल्लें भितरलें झुज जायज म्हण भोगता. ताचें मुशकर पळेवन बसचें मन जायनासताना जायते दीस थावन वचोंक नातल्ल्या कपिल तीर्थाक या म्हण आंगड भायर सरोन ईश्वराच्या देवस्थानाची कुशिची वोण रिगल्लोच, पाटल्यान कोणकि 'ए चेड्या' म्हण आपयच आयकोन फाटी पळेतां जाल्यार तो लांब मिश्यांगार फाटोक लागल्लो. तो इतले दीस नदर दीवन बसल्लो म्हाकाच राकोन जायज म्हळ्ळी आलोचन मतीक आयल्लीच थर्थऱ्यांनी कांपलों. पाय धरणीत रोबल्लेबरी तो येवक राकोन रावलो. तो आयल्लोच 'धप्प' करन म्हज्या खांदार आपलो इतलो रूंद हात पातळायलागलो. पोरच्यापोरच म्हळ्ळेबरी दिसता त्या हाताफाटल्या प्रचंड धयराचो अनभाग. 'तू इंदिराच्या सेजारचो चेडामुरें? नांव किते तुजे?' विचारिलागलो. ताच्या उतरांच्या व्हडपणाक अजाप लागोन, 'रामचंद्र' म्हळें गांगेवन. 'रामचंद्र! हो लोकाटो पळे. हो तुरतुरीत वरन इंदिराक दी' म्हणलागलो आयणें सांगल्लें हांव करनच सोडटा म्हळ्ळया कांय सासवातितलों अपधयर नातल्ल्या स्पश्ट ताळयान. तांचें दानांयच

घुटमळेंत वांटो घेंवक तयार आसल्लेबरी तो लोकाटो हातांत घेतल्लोच थंयथावन धावोंकलागलों. इंदिराक तो वरन पावंवची आतुराय या ताच्या व्हडपणाथावन पयस धांवचो आमसर? तशें तशें म्हण चक्रखंडेश्वराच्या दिवळालागी पावतां म्हणसर धांवलों. घरा पावोंक चक्रखंडेश्वर दीवळ उतरजे म्हळ्ळी कांय गरज ना. पुण हावें मात त्याच वाटेन मेटां काडल्ली. नरमनीस नासताना पणगिल पडल्ली ती गुडी रिगल्लोंच धावणेची पुरासाण काडूंक तांबडो चुनो काडल्ली पेळी चडोन बसलों. आतुरायेन म्हळ्ळेबरी लोकाटो उजवाडा आड धरन पळेल्यार थोडीच उतरां बरयल्ली धाकटी चीट. ती खंयची हडबी बूद आयलीकि? हांव कितें करतां म्हण चिंतचेपयलेंच लोकाटो फोडन चीट भायर काडल्ली वाचल्ली. 'राती जेवाण जाल्लेंच तुमच्या गोट्या बगलेन ये. राकतां' म्हण खबर व्हाववंची चीट. राग आयलो. हळशीक म्हण भोगलें. सरवोत्तमान सांगल्लें सत तर! तरिपुण ही चीट फोडन वाचूंक म्हाका खंयचो अधिकार म्हण जायनाकाये? धामेलों. हेरांचे कागद अशें चोऱ्यां वाचचें पाप म्हण भोगलें. या फाल्यां कांय म्हजो घुट भायर पडत म्हण भियेलों - म्हज्यान सांगोंक जायना. म्हज्या इंदिरक्काविशांत लोकान उलंवचें सत व्हय न्हय करूंक, खात्री करन घेंवक वाचूंक ना म्हण कशें सांगचें? हाचें समर्थन करन घेंवक प्रयतन केल्लें तितलें असमाधान चडोन शिरशिरलों. धत्त! म्हाका कित्याक जाय आसल्लें हें काम? चीट लोकाट्यांत घालन बंद करन दिल्यार सय म्हणटाना लोकाटो पिंजल्लो दिसलो. आशा खंडोन फाटी मुकार पळेनासताना लोकाटो आनी पत्र दोनय पिंजून देवस्थाना फाटल्या सुक्या खोलयांनी उबयल्लीच, म्हज्या खोट्या करतुवाक साक्स जावन उबो रावोन आसल्ल्या चक्रखंडेश्वराचो राग सरोप जावन धांवडावन हाडल्ल्या जिनसार धांवलों. धांवोन धांवोन सावेराच्या घाण्यालागी येवन पावताना इंदिरक्का आनी ताचो मीड दोगांय मतिंतली भायर पडोन म्हजें पाप करतूब मात दोळयांमुकार उबें जाल्लें. रातीं जेवाण जावन निदोंक गेल्यार नीद येना. ताणी एकमेका भेटचो वेळ लागी आयल्लेबरीच मन सगळें पिडेस्त जावन कळवळोन भिचाण्यार लोळ्ळों. आकेरीक, म्हजें इंदिरक्का पुणय बरेंच, करमी होच. कशेय घडयेत आसल्ल्या एका व्हडल्या पाप कृत्यांतलें ताका राकलें म्हळ्ळो म्हज्या कृत्याक आस्येत जाल्लो एक नवो अर्थ मतीक येवन निराळ भोगून स्वस्थ निदलों. सकाळीं उट्टाना मात दोळे उगते करच्या आनी उजवाडच्या संसारांत कोणाकच खबर नातल्ल्या पापाचें व्हजे व्हावयल्ले मन जड जाल्ले. तेदळाच सुरू जाल्लो आसतलो - जीवनभर गूण जायनासताना म्हाका लागल्लो, म्हज्या विचारांक, भोगणांक ऊब दिंवचो खोटो अभ्यास या सवय. एदोळपऱ्यांत कांय धा हजार रितिंनी ते कागद पिंजून उडयल्ले कृत्यें हावें विश्लेशिलां. तशे पिंजून उडयल्लेवरवी घडल्लो परिणाम पळेवन, तशें केल्ले सारके म्हण समर्थन

केलां. तरीतूण कागद उगते करच्यावेळार, वाचून पिंजून उडयल्ल्याबद्दल ता उद्देश नातल्लो म्हय म्हण चिंतून दुखाय मारून तळमळलो. कोणाकडेय मयन सांगोंक जायनातल्लो गुट. ताची दूक उस्तल्या सवार धूडाक लोटखून भरल्या आनी मनात हुलपाच्या घायावरी चिमीचिमी आताना मकड उडून बडबडला पिंजल्ल्या कागदांचे कुडके परतून सदयल्लेवरी, ते सगळे लोकाक्याच घालून बंद केल्लेवरी, परतून उगते केल्लेवरी, भोंटड्यार आकरयल्याच आपल्या विळासाक पावानातल्ल्या त्या सदभावरी म्हजी भोगणा, भावना, यात्रेणी, विचार पूरा हावें एदोकऱ्यात बरयल्ले पूरा एकाकएक विरोध दिक्कानी विस्कळून जावन, खंयच्याय एका स्थानाक येनासताना अंतर पिशाचेवरी उडल्याच.

झग करन पेटल्ले रसत्याचे दिवे म्हज्या भोगणासमाधीक भंग जाले. काळोक पडल्लो जाल्ल्यान खडपाचेर बसल्लो लोक उटोन चल्ले. वेदना रसत्याच्या कोनशाक आसल्ल्या बसस्टापात गर्दी सुरू जाली. काटल्या दुस्यात सुदरूप दिसानातल्यारय आपलें अस्तित्व राखयनास्ताना सागच्या इणातला हुळवुळोन उसमडच्या उदकाचो आवाज परतून कानांत पडलो. 'आता तुगी दिवे पेटंवकि बाबा?' म्हण विचारल्ले म्हजे धुवेन जापीक राकनास्ताना बाल्कनीवयल्या आनी होलांतलो दिवो जळयलो. कांय घुट सांगतलेवरी लागी येवन 'बाबा, इंदिरक्कान तुवें तिचेविशांत बरयल्ली काणी वाचल्या खंय!' म्हणाली. हांवें 'व्हयकि?' म्हण विचारलें मात. रातीं जेवाण जावन निदोक गेल्लेकडे भिचाण्यार आड जाल्लेकडे बायलकडे विचारलें: 'उटाउटी इंदिरक्का वाबय येवक कारण कितें कळ्ळें?'

"व्हय, तुका पळेंवक आयलले न्हय. पारवा हांगाथावन काशीक वचे एक स्पेशल ट्रेन आसा खंय. जातऱ्याक वेतल्यां बाबतीन. आमचे कुंजिचो लोकच पंचवीस तिसां वयर आसा खंय. सकाळी ताका हांगा सोडूंक एकलो चेडो आयल्लो न्हयये? तोय वेता खंय! तांचे बराबर जातऱ्याक भायर सरलां; तुवेंच वी.टी. वचोन ट्रेनाक पावन येजे खंय!" खबर सांगचेवरी बायलेन सांगलें. ताच्या येण्याचें कारण नीज खंयचें म्हण कळल्लेच भितरल्याभितर भरून आयल्ली सगळी जडाय करगल्लो अनभव जावन एक पावटीच्याक मनाचान जालें.

"ताणे हावें बरयल्ली काणी वाचल्या खंय, व्हयकि? तुवे कित्या कांय सांगोंकनांय म्हाका?"

"तुजो सभाव म्हाका कळीत आसल्ल्यान, ताचे नाव पुणय बदलून परगट कर म्हळ्यारय तूं आयकोंकनांय. थंय आयल्ल्या अनभवाथावन भायर पडाज जाल्यार ताचें नांव अवश म्हळ्ळी व्हडली व्हडली उतरां उलयलाय. ते खय ती काणी वाचूंक पावता म्हण जायनाकाये? म्हणानय सांगालानलांय. आतां ताणे वाचल्या म्हळ्या उपरांत ताच्या मनाक कांय दुकलेकि म्हळ्ळी भिरांतमू? कांय

भ्ये नाका. तसलें कांय ताणे सांगोंकना. 'काणी वाचली' म्हण मात ताणे सांगले, म्हणलागली.

हाच्याउपरांतलो दीस सुखानच पाशार जालो म्हणजे. तो दीस सनवार जाल्ल्यान ऑफिसाक अरध्या दिसाची सुटी. सकाळीचें काम सगळें काबार करनदोनपारांच्या जेवणाक घराच आयल्लो. इंदिरक्का आयल्लें कारण स्पश्ट जावन कळल्लें म्हळ्ळयानकि कितेकि ऑफिसाथावन येतानांच बारी एक 'मूड'. जेवाण जावन ल्हान एक नीद जाल्याउपरांत इंदिरक्काक च्हा पियेवन भायर या, भोवतणिचो गांव दाकयतां म्हळ्ळयाक 'नाका' म्हणलागलें. आमकांय तें सारकें म्हण भोगल्ल्यान भायर वेची आलोचेन सोडली. बाल्कनीर कदेलां घालन थंय मुकार विस्तारल्ल्या उदकाच्या प्रचंड उत्सावाक मन उगतें दीवन बसल्यांव. आनिकय बावोंक नातल्ल्या स्पश्ट सांजेच्या जवाडांत प्रजळोन उडोन पडचीं व्हडली व्हडली ल्हारां. तीच पळेवन बसल्ल्या म्हज्या मनांत उगडासाची ल्हारां उटोकलागली. देकून विचारनच सोडलें: पोर फेस्ता दीस एका हातांत लोभनाचें हरवण, आनयेकांत म्होराची पाकां धरन मंत्रवादीबरी चलच्या बुडाणसायबाविशांत, शिवरात्रीदिसा अभिषेकाक आयल्ल्या उत्तर हिंदुस्थानाच्या जोड्याविशांत, बायलेच्या आंगावयल्या भांगराचे दुराशेन जिवेशी मारन रांदच्या कुडांतच मडें पूर्न फाशेक गेल्ल्या भोटाच्या घरच्यांविशांत, मूळगेणिचें वोकल, कुंटाच्या घरचो बीरा, काणी गावडाविशांत, आमाशे पुनवेक पिशें लागोन सुकी भाकरी दियागे म्हण गांव सगळो भोंवच्या चोर हनुमाविशांत, गांवचो पटेल•सणतप्पा नायक, कलयगार करीम, शेख फरीद, आचारी सण्णप्पाचारी, घाण्याकार सावेर, मडवळ महादेव, बाळंत करताली संतान, ल्हान प्रायेचे ईश्ट बसत्यांव, आंतोनी, दिन्नी. चेडियो नागम्मा आनी बीरम्मा, गांवचे आंगडीकार, इस्कोलाचे मेस्त्री, पूजारी, बियेची पाड, करड, हितलाची वोय, हितलांतली तरकारी, फुलां, दिवळां, इगर्ज, मठ, कीर्तनां, भजनां, तेर, ओकुळी, भोवतणिच्यो हळ्ळयो, नंय, व्होळ, तार, सांकव, फोड, तीर्थ हो पूरा उगडास जिवो जाल्लेबरीच उतरांत जावन मतीक खुशी जाली. इंदिरक्कान आतुरायेन आंबुरको हासो दीवन सांगल्लें पूरा लक्षा दीवन आयकालें. कितले पूरा उगडास दवरलांय हाबा म्हण विचारल्ल्याक पूरा जाप दिली. मदेच एकपावटी, सकड सोडन गांवच्या बांयचो कित्या इतलोय उगडास? म्हणलागलें. म्हाका भिरांत उटली. बांयविशांत म्हाका विचारल्लो उगडासच ना. ताणे विचारल्लेंय म्हाका लक्षाक आयल्लें राती निदोक गेल्लेकडे हो उगडास पूरा परतून खोडयताना!

बांय म्हण विचारल्ल्याककि कितेकि? म्हाका एक उगडास जालो. लांब मिश्यांच्याची गजाल जावन एक दोन वरसांनी गिमाळे रजेर एकपावटी कासरकोडांत आजाळा गेल्लो. मावळ्याचो पुत राघव म्हजेच प्रायेचो. थोड्याच दिसां आदी एका मास्टरान बांयत उडोन जीव काडन घेतल्लो उगडास विवर

सगळा करन, आमी ताका लाव भिरग्याची मास्तर म्हण आपयतल्याय म्हणल्यें. तशें म्हणटाना म्हाका धस्स...जालें. तशें धस्स जातानाय म्हाका दिसल्लें कारण सयत आतां उगडास जावन, तें कितलें अगाध्य, कितलें विक्षिप्त म्हळ्ळ्यांकेवरान हासो आयलो. तशेंच आज सयत ताणं म्हजे काणयेविशीन उभून प्रस्न काडूंक ना म्हळ्ळेवरवी म्हाका समाधान भोगलें.

पुण हें समाधान चड दीस बाळगाचें न्हय म्हण म्हाका कळ्ळें तिसऱ्या दिसा सकाळीं. एका लेखान, म्हज्या आयच्या दुकाक, दुकाक रकम धाडल्लें घडेंत घडल्लेंच तेदळा...

त्या दीस म्हाका सदांचेप्रास चड वेगीं जाग जाली. काल हकलांविशीन दिसल्लें उलयल्ल्यानकि कितेंकि भितरल्या शिरा, गांटी पुण आपणायल्ल्याक हगुर जावन जीवय हगुर जालो. कितें तरी बरव्या म्हण भिचाप्यायवल्ला उठोन सकाळीची निरमळायबि करन बाल्कनीर बसजे म्हण चिंतून लायटाचो स्विच घालूंक वेतां जाल्यार, 'दिवो नाका अशेंच साबता पळ' म्हण बाल्कनींथावन आयल्ल्या इंदिरक्काच्या ताळयाक हावें उडोन पडचेबरी जालें. ताणा थावन बाल्कनीक वेचें दार उगतें आसल्लेंय लक्षाक आयलें. दिवो लावनासतनाच बाल्कनीक गेल्याकडे, आपणा मुकार आसल्लें कदेल दाकवन य, बस म्हणालें. उजवाडचे पयलें हांगा निजाकय बरें लागता न्हय म्हणालें. कित्याकर्कि इंदिरक्काचो ताळो सदांचेबरी नातल्लो. उदकाची शेळ आसान थंड व्हळचें वारें, सपणांचे मायें तसल्या उजवाडांत आत्तां दिसान आत्तां दिसनासताना म्हजेन मात तें आसा म्हळ्ळी प्रज्ञा दिंवचे उदक आपली सदांची तांबाय हातांतांवक पावल्लें. म्हजे काणये विशांत उलोंवक सकड सोडन हो वेळ मळ्ळाकि म्हण चिंताना आंगार'कांटे वोडल्लेबरी जालें. इंदिरक्का कांय भ्यें निरात नासताना शीदा विशय मुकार दवरन तुजी काणो वाचल्या म्हणलागलें. हाची पुरविलो प्रज्ञा आसोनय म्हाका पोटांत थंड उदक वोतल्ला अनभव. हेण तणं उडचे नडचें उदक सयत एका खिणाक रावल्लो तसो उगडास!

"पिंजून उडयल्ले ते चिटीविशांत तुवें भोगल्ली दूक कितली म्हण म्हज्यान चिंतूंक येता. पुण त्या पत्राक तुवें दिल्लो अर्थ सारको न्हय. सारको न्हय म्हण तूंय जाणांय!" म्हणलागलें. पिंजून उडयताना ते ल्हान प्रायेर तुका समजोंक नातल्लें जाल्यारय मुकार व्हड जाल्या उपरांत, बायलेचो अनभोग जाल्या उपरांत कळजे आसल्लें खंय! काजार जाल्ल्ये दिवशिनथावनच ताका घोवा विशांत, ता जीव आसताना आनी मेल्या उपरांत सयत भोगल्लो तिरस्कार, जुगुप्सा चुकिभरीत म्हण ताका भोगुंकच ना खंय. प्राय भरल्ल्या आंगाक बऱ्या वायटाचो अनभोग भोगचो म्हळ्यारय कसो? कित्याखातीर म्हण भोगजे? म्हजी काणी वाचून ताका कठीण संताप आयलो खंय! भिवकुऱ्यांची व्हडलीमांयच्या काळाची काणी म्हण भोगली खंय...'तुका तें कागद पिंजून उडयल्लेंच पाप व्हडल म्हण

दिसलें न्हय! देकुनच म्हजेवरवी घडत जाल्ल्या एका वायट कामाथावन म्हाका राकलें म्हळ्ळे तितलो तुका संतोस जालो. व्हडपण भोगलें!' म्हणलागलें. हावें ताचो मीड म्हळ्ळो तो लांब मिश्यांचो ताचो मीड न्हय खंय! ल्हानपणाथावन ताणे ताचो मोग केल्लो खंय! ताचेकडे काजार जांवच्यारय आसल्लें खंय! पुण तो जातीन पेलो. जाल्यारकितें? भलायकी, घटमूट जीव, बरे गूण ताचेकडे आसल्लेबरी गांवच्या खंयच्या चेड्याक आसल्ले? ताणी एकामेकाक बरें वोळकोन समजोन घेतल्लें. ती एकामेकाक मेचवाल्ली. पुण पाटिचो कणो नातल्ल्या ताच्या बापायन ह्या संबंदाचो गुट कळल्लोच भियेवन रातारातीं म्हळ्ळेबरी एका समजणी नातलल्ल्या खोज्याक काजाराची सयरीक करनय जाल्ली. घोव वोनो म्हळ्ळी गांवची 'ग' खबर मात न्हय खंय. नीज संगत खंय!...'आदल्यांचें पूरा कोट्टळें काडूंक हो जात्रो धरूंक नातल्लो जाल्यार हें पूरा तुका सांगतीकि नाकि? काशीक वेचे पयलेंच हाचें बरें वायट जांवदी. झळझळावन धुंवन मन नितळ जाल्ल्यावेळार विश्वेश्वराच्या दर्शनाक फावो जांव, म्हण आंज उट्टानाच भोगलें, पळे. भोगल्लेंच उटोन आयली' म्हणलागलें. 'ताका कॅन्सर जावन तो सरलो तें ताका कळीत आसोनय त्या विशांत एक सब्द मात कित्या सांगोंकनांय? कित्याक? भ्यें दिसलें?' म्हण विचारीलागलें. घोवाक त्याच आंगार कॅन्सर म्हण कळीत जाल्लें धा वरसां उपरांत खंय. मरच्या सच म्हयन्यांपयलें. कॅन्सरावरवीच तो वोनो जाल्लो. पाप ताकाय ती खबर नातल्ली. पुण आपणावरवी बायलेकय सुख ना म्हण चिंतून एक दीस दोळयांत दूक काडन, 'इंदिरा तूं परतून काजार जाताय?' म्हण विचारले खंय. तशें विचारल्ल्याचो सारको अर्थ आतां जाता. पुण तेदळा मात हीय एक खोजी भिरमत म्हण चिंतून राग आयल्लो खंय. दुसरे जातिच्याकडे काजार जांवक तयार नातल्ल्या जणांनी हाका कबलात दीवक साध्य आसल्ली?... आमकां कोणाकय नातल्लें धयर दाकयल्ले ताणे एकल्यानच खंय! हावें ताचो मीड म्हण आपयल्ल्यान. हांव ताका दासप्पाच्या आंगडी मेळच्या एकाच म्हयन्यापयलें तें आपल्या कुळारा गेल्ल्यावेळार तो एक पावटी मेळल्लो खंय. हाचें काजार जावन पांच वरसां जाल्यारय तो मात आजूनय काजार जांवक नातल्लो खंय. काजारच जांवचोना म्हण ताणे भास आण केल्ली खंय. आपल्या कुळारा गेल्ल्या वेळार हेणे तेणे दिसतालो जाल्यारय उलंवक नातल्लो. एक दीस कितें जालेंकि? आवय बापय घरा नातल्लो संदर्भ पळेवन घरा आयलो खंय. हाका मेळ्ळो खंय. दोनय बावळे धरन गडगडावन, इंदिरा, आनी कितले दीस अशेंच रांवचे म्हणटाय? हातांत चार पैसे जाल्यात आतां. हावे सांगचें उतर आयक. खंय तरी धांवोन वच्यां. सगळी विलेवारी करन मुकल्या म्हयन्यांत येतां. आयल्लोंच तुका खबर धाडटां. हावें सांगल्लेकडे येवन राव. इतले सांगल्लोच भायर सरोन गेल्लो खंय. दोळयांनी भरल्ली दुकां दाकंवच्यार नातल्लो. पुण ती ताका दिसल्ली. एके घडयेक पुणय मन

कळवळल्लें. ताणे सांगल्ल्या म्हयन्यांन तो आपल्या गांवाक आयल्लो जाल्यार ताच बराबर धांवोक आपवणें आयल्लें जाल्यार येतोकि ना? तें आता सांगोंक कश्ट जाता, म्हणलागले. पुण आताच्या मट्टाक तो येता म्हळल्या म्हयन्यांन आयलोच ना जाल्ल्यान रागच आयल्लो खंय. कुडें एक दीस कुडाक दिल्ल्या वेळार हनेहळ्ळेक येतां म्हळळया दिसाच गांवाकल्ली नात्ती जाल्ली खबर कळल्ल्या तक्षण ताच्या भिवकुरपणाबाबतीन काटाळो आयल्लो खंय. हय हेरा दादल्यांबरीच उदक धरनातल्लो काळसो म्हण भागल्लें खंय. याच वरसां आदीं म्हजी काणी वाचल्या उपरांत ताका कळळेंकि ना आपण दिल्ल्या उतराक चुकनासतना हनेहळ्ळक आयल्लो, आपणाक सांगान धाडल्लें. म्हजी काणी वाचून जाल्ला परिणाम इतलोच: ताचेविशांत तें घडये अभिमान भागल्लो. पुण येक उतरान चूक येवन कितें फायदो? खाज्या दादल्याकडे काजार जावन, काजार जाल्ल्या ध वरसांनी तोय मरोन वाट दिसनातल्ल्या ताका म्हजी काणी वाचून काय भागूकना खंय. तांतूं जिविताविशी, ह्या आनी दुसऱ्या लेखाविशी, म्हज्या टाळ अप्राधाच्या प्रज्ञेविशी हावें बरयल्ली व्हडल्या व्हडल्या मापाची उतरां ताचें तें घडयेच मनास्थितीक कांयच लागोंक नांत खंय...

उलोवन जाल्लेंच इंदिरक्का पुरासाण जाल्लेबरी दोळ धांपून आसातशेंच बसलें. ताणे तशें दोळे धांपून बसल्लें ग्राण लागल्लेबरी पळतल्याक म्हाका. ताचे भितर ते घडये चलचें भावनांचें झगडें, ताचो परिणाम जावन काळाक भतुन येंवचें, मतीक पिशें धरंवचें, सकाळिंच्या उजवाडाचें कोंपां. या नितळ आलोचन करूंक सोडीनातल्ल्या उदकाच्या आवाजाक आट्टुवार ताच्या तोंडार दिसल्ल्या अमानुष लक्षणान म्हाका विलक्षणाचो दुबाव; मुकल्या कदलार उलयनासताना बसल्ल्या चेडवाक हांव जाणा म्हण हांव खंडित सांगन? हें निजाकय कोण? कित्याक म्हण ताचेथावन इतलेंय दूक सोसता? म्हज्या दुकाक कारण जाल्ली बायल कि, पत्र हें म्हण धयरान सांगन कि? या मनांतल्या काळोकांतल्या लोकाथावन ततेदोळ तेदोळ उटोन येंवच्या आनी दुकंवच्च परिस्थिताक हाचो काणी एक प्रतीक मात? ना जाल्यार वरसां उतरान ल्हान बाळपणार चलल्ल्या नष्ट्या काळाच्या घडितांक आतां गरज नातल्ली वोंप कित्याक काडटा? आत्तां ताच्या तोंडाथावनच आयकाल्ली म्हण चिंतल्ली काणी, कितलेश दीस थावन तोंडपाठी करन सांगल्ली काणी, नाटकीय रितीन सांगल्ली त्या पत्राची काणी नीज जावन ताणेंच सांगलली? या हावें विसरन सोडल्ली आतां ताच्या तोडांतली आयकातना आत्तां उगडास आयली म्हण हावें दाकयलें? या, ताणें सांगल्ल्याक, ताणें सांगल्ली म्हण हावेंच पात्येनातल्लेबरी आतांचें रूप, नाटकीय रूप दिलें? खंयचेंय समजोंकना. सोडीनासताना मारच्या ल्हारांचो अलौकीक सब्द म्हाका चिंतूंक सोडीच नातल्ले. हें सगळें म्हजी सपणाळी भागणां जाव्यती तरय. तातूं सताचो एक वांटो लिपोन आसल्लो म्हण कोणेकि रप रप करन चाटयेन मारन

त्या मारांक सांपडोन वळवळचो अनभव जावन घामेलों. असली दूक भोगुंकच म्हण इंदिरक्कान सांगललें हावें म्हाकाच दुकंवचे रितीन आरायल्लें जांवकय पुरो. येतां म्हण सांगल्ल्या म्हयन्यांतच गेल्लो तो लांब मिश्यांगार खंय पावलो? मुकार खंय पुणय ताचो पत्तो मेळ्ळो? अशें विचारिजे म्हण चिंतल्लें सयत विसरोन गेलें.

एक विशय मात हावे ओपून घेवचोच पडटा:म्हजेवरवी घडल्ले चुकीक लागोन ताचें सगळे जीवन रितें जांवक हांवच कारण म्हळ्ळी भोगणां उटल्ल्या तक्षण आदलें भ्ये उटोन येवच्या बळाक इंदिरक्काच मेल्ले जाल्यार म्हण भोगल्लें आसा. मागीर म्हजे हे दुश्ट आलोचनेखातीर सगळो दीस चुर्चुऱ्यांनी पाशार केल्लो...

सांजेर इंदिरक्काक वी.टी. स्टेशनाक पावन आयल्लोंच मतीक एका थराचें समाधान जालें, मत हगुर जाली. म्हाकाच वायट दिसचे तितलें समाधान भोगलें. सदांचेबरी एक बूक घेवन बसचें मन येनासताना च्हा पियेवन, ड्रेस बदलून अशेंच भोवून येतां म्हण एकलोच घर भायर सरलो, मन भरल्ल्या, केदळाकि फाटीं सोडन आयल्ल्या काळोकाच्या आदल्या दिसांकुशीन नाका नाका म्हळयारय इंदिरक्काच्या प्रभावाक लोटच्या, ताच्याकय चड, सताक दोळे धांपून बसल्ल्या गंभीर तोडा मुद्रांच्या प्रभृतीथावन थोडो वेळ पयस सरोन, हांव हांवच जावन वेळ पाशार करूंक आशेवन शीदा दऱ्या तडीक वचोन, विशाल खडपार चडोन, चडोन उडोन पडची ल्हारां पळेत बसलों. कितलो वेळ तसो पाशार केल्लो ताची खबर ना.

○ ○ ○ ○ ○

हाका सगळयाक कळस दवरचे तसले घडीत उबजाल्लें आट दिसां उपरांत. काशी थावन येवचें ट्रेन त्या दीस राती इकरा घंट्यार येवचें आसल्लें. ताणे काशी वेचे पयलेच विलेवारी केल्ले प्रमाणे, म्हजी बायल आनी हांव ताका दादर स्टेशनांत मेळोक गेल्ल्याव, सारक्या वेळाप्रास अरधो घंटो गळाय जावन तरय ट्रेन येवन पावलें. आयल्लेच कुलकारांचो, आपापल्यांक मेळोंक आयल्ल्यांचो गलाटो सुरू. आवाज आनी गडदी इल्ली उणी जांवदी म्हण आमी दोगांय व्हडल्या घडयाळा पोदा उबी रावल्यां. वेळ पाशार जाल्लेबरीच गोंदोळ उणो जांवचेबदलाक चड चडच जालो. आकेरीक गडदेन उसवास ना जालो. आमकां किते म्हण कळनासताना घाबरी जाली. थोड्यावेळान काशीक गेल्ल्यांपयकी सबार जण थंय उबजाल्ल्या कोलेरा जातिचे पेस्तीन सिक जावन आयल्यात आनी थोड्यांची स्थिती बारी गंभीर आसा म्हण कळोन आयले. डाक्टरांक, स्ट्रेचरांक आनी अंबुलॅन्सांक म्हण गडदेन हेणे तेणे वेच्या लोकाक स्टेशनच पावानातल्ले. आमच्या इंदिरक्काचो परिस्थिती कशी आसाकि? खंयचे गाडयेर आसाकि? म्हण आमी चिंतूंक लागताना ताचे सांगाता गेल्लो चेडोच आमकां

सादून आयला. ययो, ययो, इंदिरक्का एकदम सीरियस. तीन दीसथावन जेंवक ना. नितम ताप. आता दोन आसचेवरी दिसना. ययो, ययो, काय अमंगलाक व्हरूंक पळटा आसतलें...अशें एक सारकें सांगत तांणी आसल्ले गाडयेक चडून आमकां वाडनच व्हरन गेलो. गाडयेर उक्कल्ले म्हळ्यान पावयेक जालेना. मतीर नासताना, न्हेसल्लें कापड हेण तेण जावन रडल्ल्या ताका हांवें आनी ह्या चेड्यान दोगांनी मळान उकलून प्लेटफॉरमाच्या मुल्यार व्हरयल्ल्या म्हज्या कारार घालिज जाल्यार आमकां जिवार आयलें. कापड सगळें निस्सकाय भायर जायनासताना घाणतालें. तें घाणीक खल्ल्ले धाकानवचेवरी जालें. चेडो परतून प्लेटफॉरमाक धांवोन ताचो सामान हाडच्याभितर ताका आमच्या घरा लागसारच्या नानावटी आसपतरेक व्हरचें म्हण हांवें आनी म्हजे बायलेन निर्णय करन जाल्लें. तेच कुशीन कार धांवडायलें. चेड्याक एक रात आमगेरच रावपाक करूंक सांगलें. सुमारशी रात जाल्ल्यान रसत्यार चड वाहनां धुंवनातल्लीं. दादर ट्राम टर्मिनस उतरोन टिळक ब्रिजाकुशीन कार धांवलागली. म्हजे कुशीन म्हजी बायल, पाटल्या सिटीर निदल्लें इंदिरक्का, ताचें तकलें बगलेन मुटो जावन बसल्लो चेडो. कोणाय उलंवचे परिस्थितीत नातल्लें. मोन्यान वाट सारतालीं. शिवाजी पारकांतले सिग्नल दिवे रात जाल्ल्यान हळदुव्या रंगान दोळे मिणकितालें. तें उतरताना ट्रेनार पळेल्लें दृश्य दोळे बांदूंक लागलें. माहीम गांवच्याभितर तें मनांतलें मार इतलो कठिण जालो कि म्हजे तोलन चुकान स्टियरिंग व्हील घट्ट करन धरचें पडलें: व्हय, सकेशी बायल इंदिरक्का काशीथावन फाटीं येताना केंस बोडकावन आयल्लें. वेळ गेल्लेबरीच तोलन आयलें, तशें पळेल्लो एकेक विवर लक्षांत येवन जीवकळा नशेवन विद्रूप जाल्लें ताचें रूप दोळयामुकार येताना मन परतून कोडशेलें. म्हजे मतिंतले विचार आपणाक कळळे म्हळ्ळेबरी त्या चेड्यान कारांतलें मोनेपण मोडलें. "आमी नाका म्हळ्यारय आयकलीना. काशीत तशें करची गरज ना म्हण पुरोहितान सांगल्यारय आयकालीना..." आपुण कित सांगतां म्हळ्ळी संगत विवरांवची गरज ना म्हळ्ळेबरी तो उलयतालो. "हांगाथावन गेल्ल्या दुसऱ्याच दिसा अशें करन घेतलें. त्याच दिसा गंगेंत न्हावन आयल्लेंच एक नीब जालें, राती बारीक ताप आयलो. परतून येताना नितम जाली. तापय चडलो. परतून परतून दोन पावटी ट्रेनार घात चुकलो. आताची स्थिती तुमकां कळितच आसामू?" म्हणालो. हाची सगळयाची चूक आमी कांय ताच्या मात्यार थापतांव तशें उलयतालो.

आसपतरेक वचोन पावताना मध्यान उतरल्ली. बायलांच्या स्पेशल वारडांत एडमिट केलें. ताची अवस्था पारकिल्ली हेड नर्स ऑक्सिजन, ग्लूकोज ड्रिप सुरू करन दाकतेराक सांगोन धाडीलागली. दाकतेर येवन ताची परीक्षा करन परिस्थिती सीरियस, चिंतून खंतीक कारण नितम न्हय जुण एका थराचो न्यूमोनियाशी दिसता म्हणालो. मेनिंजैटिस जांवकय पुरो. फाल्या एक्सरे.

'एलपी' केल्याउपरांत पिडेचें हेत सोदून काडयेत म्णलागलो.

दिसाक तीन तीन बोतली लेखान ग्लूकोस, सलैन, ब्रॉन्को न्यूमोनिया म्हण कळ्ळयाउपरांत सुरू केल्लें वकत म्हणटाना चारच दिसांनी इंदिरक्काच्या तोंडार जीव भरोन आयलो. डाक्टरानय जिवाक आनी बाधक ना म्हण भरवसो दिलो. चार दीस ऑफिसाक रजा बरवन सगळो दीस आसपतरेंत ताची चाकरी करन बसलों. त्याबाबतीन, ताची चाकरी करन ताचो जीव उरयल्ल्या बाबतीन मतीक सांगोंक नजो जाल्लें समाधान मेळ्ळें.

त्या दीस दोनपारां आसपतरेंत रांवची सरती म्हजी. इंदिरक्काक बारी नीद.उसवास सारको जाल्ल्यान ऑक्सिजन ट्यूब काडल्लो. ड्रिप्स बंद करन तोडांतल्यानच आहार दिताले. च्हा दिंवचो वेळ जाल्ल्यान च्हाची केत्ल, कॉप, पीर घेवन आयल्लो च्हायेचो चेडो निंवच्या पयलेंच उटवन दी म्हणालो. ताणे उलयल्ले आयकोनकि, कितेकि इंदिरक्काक जाग जाली. दोळे उगते करन म्हाका पळेलें. आंबुरके हासली. म्हाका संतोस जालो. नीद जालींकि? च्हा दीव? म्हण विचारलें. हूं म्हळ्ळयाक केतलिंतली कॉपांत वोतून हावेच पिवयली. जायतें समाधान जालें. म्हाकाच पळेवन तें पियेलें. म्हज्या हातांत पियेताना ताकाय समाधान जाल्लेबरी दिसलें. पियेवन जाल्लीच तूं पियेलोय? म्हण विचारलें. घराथावन येतानाच पियेवन आयल्लो म्हळें. चार दीस तुका भेश्टावन सोडलें न्हय? त्रासय दिले. फाल्याथावन तुवें ऑफिसाक वचोंक कांय आडखळ ना कोण जाणा? ना, आट दिसांची रजा काडल्या म्हळें. तेय ताका बरें लागलें म्हण समाधान जाले. "काशीत आसताना आमी हांगा बाल्कनीर बसोन उलयल्लें पूरा चूक म्हण दिसलें पळे. आयल्लीच तुका सांगतां म्हण चिंतल्ले," म्हणालें. वयर गुंय जांवच्या फेनाच्या तारीत होंदोन आयल्ल्या उतरांनी आंगार कांटे उबे जाल्लो अनभव जालो. बाल्कनीर बसोन उलयताना चुकोन सयत म्हजेकुशीक पळेनासताना पयशिल्या उदकाच्या ल्हारांचेर नदर दीवन बसल्लें. तो तो उगडास कित्याककि सट्ट करन लक्षांत आयलो. ताचें तेदळाचे गंभीर तोंड, निधान उद्वेग नातल्ली उतरांची रातय उगडास जाली...सांगचे पयलेंच मरतां कोण जाणा म्हण भियेल्ली, काशीत विश्वेश्वराचे सन्निधित आसताना, थंय भक्तीभरीत वातावरण उबजाल्लेकडे काळे कातर घाल्ल्या थंड धरणीर बसोन हात जोडटाना - एके दैवीक घडये म्हळ्ळेबरी, उतरांनी सांगोक जायनातल्लेबरी सुसतल्ले. त्या दीस ताणे तुका दिल्ले कागद म्हाका मेळनातल्लेच बरे जाले. ना जाल्यार हावें केदें व्हड पाप आधारल्लेबरी जातें?...

हाचें खरें बरे सगळे इत्यर्थ करूंक मेळल्लो हो अनभव सोडिनाये म्हण खंयचें पत्र? लांब मिश्यांच्यान दिल्लेमू? मागीर तो खंय गेलो? अशे विचाऱ्यां म्हळयार जीबच परतना जाली. इंदिरक्काच्या आतांच्या ताळयांत आसल्ले मोवसाणेक या आसपतरेत पिडेत आसल्लेकडे हे सवाल कित्याक म्हण भोगून

जांवक पुरो, हांव उलयलोंच ना...

सकड सांगान आपलें अंतस्करणं हळू करचे आतुरायेन आयल्ल्या मनाचें भार सगळें म्हजार पाशार कल्ले कि, कितेंकि - सगळी रात निदल्लेकडे तळमळलो आनी लोळलो. ताळ ना, तंती ना म्हळ्ळेबरी उटोन उटोन आयल्ल्या उगडासांनी नीद खळ्ळो. उजवाड चिळमिळटाना दोळे जड जावंक सुरू जाले म्हणटना टॅलिफोन वेल्ल. आसपतरथावन जावयतांकि म्हण भियेवन धांवोन वचोन रिसीवर कानांक धरताना तें वाटेन, रातकाली करन आसपतरेंत निदल्ले म्हजे धुवेची घाबरी जाल्ली उतरां: "बाबा, वेगीं य. इंदिरक्काचें जाले कशें. म्हाका भय दिसता"आमकां कितें म्हण कळ्ळेंचना. हांव आनी म्हजी बायल दोगाय भायर सरल्यांव. कार धांवडायताना मुकली वाटच दिसना जाली. सकड खाली जाल्लेबरी...कालच कितलें सुटसुटींत जाल्लें. डाक्टरान सयत आतां भिवंक भ्यें ना म्हण धयर दिल्लें... "अशें कित्याक जालें?" म्हण म्हज बायलेन आसल्लेबरीच विचारलें. त्या दीस हांवें ताका मरूंक सांगल्यान म्हण सांगोंक तोंड काडलें तरी उतरां येनासताना, 'देवाची खुशी' म्हळें, हांवें आजून उच्चार करीनातल्ले भाशेन.

○ ○ ○ ○ ○

बायल म्हजी आतांय दूक उचारूंक आयल्ल्यांक परतून परतून सांगता: डाक्टरांनी, नरसांनी ते अकस्मात सरल्लवरवी कारण विवरावन सांगल्लेबरी - म्हाका एकय उगडास जायना. उगडास जांवचो एकच - हांव एका ल्हान भुरग्याबरी व्हडल्यान रडल्लों. डाक्टरांनी कितले समाधान सांगल्यारय रडल्लों खंय. उरल्ल्या पिडेस्तांक धोशी जातात म्हळयारय तोंड सोडन रडल्लों खंय. समाधान करचे दाकतेर बेजार करनच थंयचे गल्ले खंय. रुमा भोंवतणी लोक भरोंक सुरू जाल्ल्यावेळार म्हजे धुवेनच धयर करन म्हाका सारकें व्हाजयल्लेवरी धेंकणे घाल्ले खंय. मडें काडच्याविशांत म्हाका चतराय दिल्ली खंय. मागीर म्हज्या इश्टांक, संबंद आसल्ल्यांक फोनार खबर दीवन उरल्लीं कामां कर्यलीं. पुण तें सकड सपणांत चलल्लेबरी भोगता. गिजीबिजी जावन गांटलां. पुण स्पश्ट, नितळ, थळथळचे तलवारीबरी, विरमतोवीण इंदिरक्काचें मडें हुलपयल्ल्या उज्या बरी, दोळयांमुकार रावता म्हळयार: मरचे पयलें इंदिरक्कान, शिर्तीभरीत थरान करन दिल्ली, म्हज्या हातान घडल्ल्या भयंकर अप्राधाची वळक!

○ ○ ○ ○ ○

राती कितलो वेळ पऱ्यांत उरयलें कि, दऱ्याच्या आवाजाक मन उगतें करन बाल्कनीर बरवन बसल्लों निदोक कदळा गेल्लों ती खबर ना. सकाळीं जाग जाताना चोत बरें आयल्लें. च्हायेचें कॉप हातांत दीत, आतां धा वोरां, आज एक दीस ऑफिसाक फोन करन सुटी कर म्हण बायलेन सांगल्ल्याक सेक्रेटरीक फोन करन सांगल्लें. परतून येवन रातची आंगाची दूक काडूंक खटल्यार

लोळ्ळों. मन एके रितीन निरंबळ खुशेन भरल्लें. धूव येवन, तुज्या भुरग्यापणाचे इश्टिणीविशांत काल राती कितें पूरा बरयलेंय, बाबा, म्हण म्हजी कबलात घेंवचे पयलेंच मेजा वयलो नोटबुक घेवन भायर चल्लें. ताका विरोध करूंक जाय तरी करचें बळ मेळोकना. तशेच सुस्त पडलों, वयलें सीलिंग फेन पळेत. धुवेन खुशालायेक उलयल्ल्या उतराचो उगडास आयलो. आसपतरेंत नरसांन एक दीस इंदिरक्का आमकां कितें जायजे म्हण विचारलें खंय. कांय संबंद ना. बाबाचे गांवची म्हळ्ळयाक अजाप जावन व्हयकि? तुज्या बाबान तिका लागल्ली रीत पळेल्यार कांय ल्हानपणाची इश्टीण म्हण दुबाव मारता म्हण चेश्टायेन हासल्ली खंय...हांवच एका थराच्या भोगणांनी मोव जाल्ल्या वेळार इंदिरक्कान सांगल्लें पूरा सत म्हणपातयेवन ताका म्हज्यावरवी जाल्लो अन्याय आसल्ल्याप्रास व्हड करन काणघेल्लो जाल्यारय, घडल्ल्यो संगती परतून उगडास जावन त्या जाग्याक मांडावळीन आपलो आकार, मेजाप, परस्पर संबद नितळ सोडवन दाकयल्ल्यावेळार, मनाक एका जाळांतलो सुटल्लो अनभव जाल्लो. असल्या सुखाच्या भोगणांनी झेम पडटा म्हणटाना पाटिच्या कण्याच्या मुळांतल्यान जीव हालंवची अस्पश्ट अस्वस्थता वयर सरोन वेळ पाशार जाल्लेबरीच वयर वयर येवन आकेरीक सगळो भितरलो जीव भरलो. ही अस्वस्थता लांब मिश्यांच्याक संबंद जाल्ली म्हण कळल्लेच, आतां निरमळ बांदून माळयार घालां म्हण चिंतल्ली पाटल्या दिसांची गांट परतून सुट्टा म्हण भोगून कांपोन खटल्यार उटोन बसलो. हो कित्याक हाबा परतून फाटी आयलो म्हण भोगलें. मागीर दुबावच उरोकना. इंदिरक्का जीवंत आसता पऱ्यांत म्हज्या भोगणा-जीवनांत कांय महत्वाचें स्थान जोडीनासताना आसल्लो हो चोर, बडकेचो पुत आतां उटोन, एक दीस पगडी न्हेसोन, हार घालन आहाहा...म्हण मिश्यो वोळावन हाजर म्हण येवन आयल्लो काम सांगता: तुका सतांवचें मूळ सवाल म्हजया मिस्तेराभरीत निर्गमनाबाबतीन न्हय कांय म्हण किस किसावन हासता. सगळ्या सोधनांक सवाल जाता. कासरकोडच्या बांयत पडोन मेल्लों आपुणच, ताका कारण हांवच म्हण पुराव्यांसयत रुजू करता. गांवच्या, शेजाराच्या बांयक पूरा नवी गुंडाय दिता. या,...तोच आमचें घर सोदून येवन दार ठोकता. हांव मरोन गेलोच म्हण गडद आसल्लोय न्हय? पळे, हांव मरोंकना. जीवच आसा म्हण सांगोन या म्हण आयलो. न्हयगा तूं आनी तुजी बायल मेळोन हावे बरयल्ल्या एका क्षुल्लक चिटीक किते पूरा अर्थ दीवन किते सगळें अकांड तांडो काडलो न्हय...हांगा रावल्लेकडे कित्याक? म्हण भितर येता. व्हड पोकुट्याबरी कदेलार बसोन, मुकलो दर्यो पळेत बसता. तेदळा;

परतून सुरू जाता: दुसरीच एक मुखामुखी उगती जावक, नवे नवे अर्थ उबजोक, हाताक मेळनातल्ल्या शांती थंडायेखातीर चलच्या आकेर नातल्ल्या सोदनांक.

(1976)

# उद्धार

अहल्ये मांयची वाट राकोनच बसल्लें.

सांजरथावन धारेर पडचो पावस आनिकय पातळ जावंकनातल्लो. पातळ जांवचे लक्षणय दाकंवक ना. वारें गुडगुड्याचो अख्खर पडल्यार तरय, तो आनिकय चडच जांवचेबरी दिसतालो. एकचपावटी मारुन आयल्ल्या वाऱ्याच्या झोडाक रांदपाकुडाच्या बागला जनेलांची दारां लटलटां करुन आदळ्ळीं. मिणी मिणी जळान आसल्ले चिमणेचो दिवो चिळिपिळी करुन फुक करुन पालयल्लो. जनेलांची दारां धांपतासताना मांय गाकर्णातच गायली कितेंकि, ह्या पावसात ती कशी येतली चिंतून कळवळले. रांदपाकुडांत दिवो नातल्लो. भायर वचून भितरल्या सोप्याचेर उमकाळायल्लो लांप्यांव हाडचें मन जावकना. रांदणीच उज्याच्या तांबड्या प्रकासांतच रांदपाचें काम चलल्लें. सगळी रात ह्या घरात आपुण एकलेंच म्हळळया विचाराक अहल्य शारीक कांपलें. ताचे मांयक काल राती म्हयन्याचें जालें. सकाळी उटल्लेच घराभितरल्या कामाक कांय आयल्ला हात लागंवचेबरी ना. अशेंच दाट्ट्याच्या घरा वचून येतां, म्हणान गेल्ली आनिकय येंवकनातल्ली. पावसावरवी गाक्णांतच उरोक पडलेंकि. ना, पावस मातसो पातळ जाल्याउपरांत आयल्यारय आयली. आपुण एकलीच ह्या घरात आसाक, तेंय असले राती, कितलें एक भियेतां म्हणान तिका कळ्ळीत ना? हीं भुजावण, समाधान हाडचेबदलाक आनिकय भियेंवक करीलागली.

रांदणींत सराग जळोन आसल्ल्या उज्याक आंग उबताना, मतींत रिगल्ल्या एका विचाराक आंग 'शिर्र' करून कांटलें. ना, मांय ह्या रातच्या पावसाक येनातल्यारच बरें हन्नळळी घाटिचे तकलेर रावल्ले तें तांबड मातयचें माट ती एकलीच तरय कशी उतरतली? पयर पयर सांतय्या बाप्पा तशेंच पुरुषोत्तम रातच्या जेवणाउपरांत चूड जळवन साणेकाट्याक गल्ले खंय. घाटिच्या पोंताक पावल्लेंच, तें माटें आसल्ल्या जाग्यार कितेंकि पळल्लेबरी जावन, भियवन तशेंच पाटीं परताले खंय...रामकृष्ण माम असल्या पावसांत मांयक एकलेकच वचोंक सोडचोना. अहल्येची कावजेणी एकदम चडली. भायर वाऱ्यापावसाची जोराय चडल्ली. सगळीं दारां धांपल्ली तरय खंय थावनकि वारें भितर येत आसल्लें. चिमणेदिवो त्या वाऱ्याक उरतलो अशें दिसोंकना, तो परत्यान पेटंवचे प्रयत्न करनासतां, कावजेणेच्या मेटांनी भितरल्या सोप्याक येंवन, थंय उमकाळायल्ला लांप्यांव उकलून, असल्या पावसाचे राती घरा कोण येता म्हण चिंतुनच दुडदुड्या रांदपाकुडाक पावलें.

स्टूलाचेर झेमचो मून. रांदणीत गोबरापोद निवोन आसल्ले इंगळे. रांदल्ले रांदप बशयेंत वाडून, जेवन आसल्लेडारी त्या तांबडे मातयेच्या माट्याचो उडास

नाका म्हळयारय मनाक वेडकोळ घालीलागलो: म्हजेच प्रायेची बायल. गोकर्णाची. तेगां ल्हान ल्हान भुरग्यांची आवय. घरच्या सोप्याक, रांदणीक - सारची ती तांबडी माती हाडूंक त्या गुड्याक आयःल्लें - तो गुडो तसले मातयेक नावाडदीक जाल्लो. माती पोकोरन पोकोरन काडन गेल्लेबरी व्हडलो सुरीग जावन तीस चाळीस फुटी पयस भितर गेल्लो. ते गुड्याक येताना वोताच्या भराचो वेळ. भाटी, कोयत्यो घेवन एकलेंच सुरीग रिगले. माती खोडटाना गुड्याची वयली कूस कोसळोन हे मातयेपोदा शिरकलें. सांज जाल्यारय बायल फाटी परतनातल्ल्यान भियेल्लो घोव येवन पळेताना देकल्ले दिश्टीन कंगाल जालो. कुलकारांक लागवन, कोसळाल्ले मातयेची रास खोडूंक सगळो एक दीस लागलो. त्याउपरांत मेळल्ले बायलेचें मडें! वळक धरूंक कश्ट आसल्ले खंय...

आयल्ल्या उडासान अहल्येच्या जेवणाची रूच बेळशेली. तोंड धुवंक भायर वेचें धैर्य जायनासतां, जेवल्ले बशियेतच हात, तोंड धुवन सुद्दाचाराचें काम करून, लांप्यांव धरून भितरल्या सोप्याक येवन लांप्यांव कोक्क्याक उमकाळावन ग्रादीलागी आयलें. ग्रादीच्या सरळांक कपाल दांबून भायर गोमटी लांब करून तिळीलागले. कितेय दिसानातल्लें. काळकच काळक. पावस एकच लेक दोळे धांपुन शिंवरतालो. भोंवतणिची सकड रूकझाडां तोवून सो...म्हणटाली. धरणीचेर तळें जाल्लें उदक जुळूजुळू म्हणटालें. घराच्या नळयांचेर, लागशिल्या गोरवांगोट्याच्या तगडां धांपल्ल्या पाक्याचेरय उदकाचो विचित्र आवाज. हितलांनी, तिशिल्या शेतांनी काळकाकच तोड सोडल्लेबरी माणक्यांचे खळमीत नातल्ले वोरेसांव. सळ करून फांकल्ल्या झगलाण्याच्या एके शिरेन आकासाथावन धरणीपऱ्यांत काळकाक पोकरले. भायल्या सदां वोळकिच्या भोंवारिचेर खिणाक उजवाड फांकयलो. दोळे धांपले. आंगणांतले तुळशी काटें - आंगणाचे बगलेन रावल्लो काळो पणसारूक, नारलेमाड - हितलाची वोंय - दणपो - हो...अहल्येन खिणान दोनय हातांनी तोड धांपले. झगलाण्या पाटल्यानच येवच्या गुडगुड्याच्या आवाजाबरी आयल्लो - झगलाणे मायाग जांवचे आदीच पळेल्ल्याचो उडास: पावसांत भिजोन, हाच्या घराकुशिनच पळेवन दणप्याच्या मुकारच रावल्लो - एकलो दादलो! थर्थऱ्यां कांपोन धांवोन वचोन अहल्ये देवाच्या कुडाक पावल्लें. देवाचे इमाजीमुकार दोळे धांपून हात जोडून बसताना सवकास उगडास जांवकलागलो: दणप्यार रावल्लो केसखाड वाडयल्लो बावाजी! वाऱ्याचो वेग चड जालो कितेकि. सोप्यावयलो लांप्यांव हिडल्ल्याबरी उबोन शिरकायल्ल्या कोक्क्याथावन चुकवन धरणीक आपटोन फळ्ळ म्हणोन आरसो फुटल्लो आवाज. देवामुकलो, तेल उणे जायीत आयल्लो सोमयेभितरलो दिवोय पालवलो. घरांत भरन, खांवक आयल्ल्या तसलो काळक. मांय आज गोकर्णाक वचोक नजो आसल्लो भोगले. कांपोन, कुडिची काय सोसूंक जायनासतां

धरणीर आड पडल्लकडेच अहल्य, कुड सगळो कान करून मायल्या अवसाक राकले. धा मिनुटांउपरांत आंगणांत कसलोकि खणक म्हळ्ळेबरी आयलें. आनिकय थोड्यावेळाउपरांत जै सीताराम - बावाजीचो उद्‌गार!

देवाच मूर्तिमुकार वाणकाल्लकडेच अहल्य भियान कातर जाल्लें.

## 2

हे कुशीन, गोकर्णांत, पावस सुटाकच राकोन बसल्ले मायचे मतिची बेजाराय काळक जांवच्यावेळा अर्थावीण कळवळयाक उदे दीलागली. अहल्य तशें कांय पुक्केला वाळशेकि? पावसाची रात जाल्यार किते खय. एकादिसाखातीर मांयविणे रांवचेनाकि? म्हणोन दाट्‌टू, थानयेन कुसलायताना भोगल्लें समाधान. आतां दाटेंवच्या काळकावरवी घडयेची फुरसत नासतां थातच्या पावसावरवी घयरे घयरें चलोन, कोटीतीर्थांच्या दांड्यावयल्या केरींनी मिणकाकलागल्ले दिव पळोवन आसल्लेबरी, भाटांच्या घरांचा, दिवळांचा दिसपडटा नावजांगलाटाय बुडवन कोल्यांबरी हुय्यो करून हुयल्यो घालच्या वाऱ्याची बोब आयकाल्लेबरी. सवकास करगोन, 'आज आयल्लीच चूक जाली. साडेसातीबरी लागल्लो पावस सुटांचना म्हळयार!पाप चेडूं कितलें भियेलांकि. ना...सकाळ जाल्लाच एक घडी हांगा रांवचीना' म्हणाली.

थोड्याच घंट्यांपाटी आपलें भंय समजोन आवणाक पुसलायल्ल्या दाट्‌टुचो तोंडाचारो दोळयांमुकार रावताना उदल्ल्या फाटल्या कितल्याकि सगतींच्या उडासा सांगाताच, आपणाच्या घराचेर कसलाकि शिराप आसाकजाय म्हणोन थोड्यांनी सांगच्याचो उडास जावन कळवळ्ळी.

दादले, बायलां, भुरग्याबाळांनी एकपावटी भरल्ल्या घरांत आतां उरल्ली दोगां बायलां मात. पन्नास उतराल्ली विधव आवुण, तशेंच लगनाच पयले रातीच घोवान सोडल्ली आपणाची तिसांक पावल्ली धूव. घरचें दोन तकल्यांचे म्हालघड वायट मरणांक बली जावन मेल्लेंच. अहल्येच्या बाप्पून एका जमनिच्या तट्यांत बायलेलागीं जाल्ल्या मनास्तापावरवी मूट मिरवल्लें मनास्थतींत ह्याच कोटीतीर्थांत न्हयकि जीव काडन काणघेल्लो? तें जावन आतां कितली - वीस वरसां तरय जाल्यांत. अहल्येचो आजो सरल्ली रीत तरय आनिकय भिरांकूळ आसल्ली खंय. कळीत आसचो लोक आतांय ताच्या उडासाक भियेता. आपणाक उस्ट नातल्ल्या चेडवालागी भावाचो पूत काजार जांवक भायर सरला म्हळ्ळेखातिरच कोपून काजाराचे रातीच घराथावन मायाग जालो खंय. तीन दिसांउपरांत करडतणाक गेल्लो गावडा, मुरकुंडी दिवळापाटल्या बाणावयर तण काडटाना मूर येता म्हणोन भोंवती पळेताना जांबळारुकाच्या फांट्यार उमकळचें दोऱ्याच्या पासाक गोमटी शिरकल्लें मडे तेदोळच अरधे गिदांनी गिळल्ले खंय.

एका कालार राशिची फुलां फुलोन आसल्ल्या, पाचवे नाचून आसल्ल्या

हितलांत आतां जीव धरून रावल्ले म्हळयार चार पांच माड; एकदोन आंब्यारूक;आंगणांतलो पणसी रूक. रुकांच्या आंगामुळांक सकड वाळय; धरणीक, हितलांतले बांयक सयत. आडबसरी वाडोन, पाचव्यान सोरकेल्ले वोयेचेर आतां फकत कांट्यांची बोली. तांकांय वाळय. दाट्टूक तवळ हे वाळयेचो विशय सांगते आसताना तिच्यान दूक सोसूंक जांवकना.

ती गोकर्णाक आयल्ली नीज जावन पळेल्यार, आंकोलेथावन आयल्ली खबर सांगोक. दाट्टूकय ही खबर हाचेआदीच पावल्ली...अहल्येलागी काजार जाल्लो आतां सन्नेशी जावन, केस खाड वाडवन कावी वस्तुर न्हेसोन गांवानगांव भोंवता खंय. काशिंतकि, बदरिंतकि आसल्लो आतां आंकोलेलागसारच खंयच्याकि गांवाक आयला खंय. ही खबर कळल्ल्या दिसा थावन अहल्ये एक नमुनो जालां. कसले भांगर चेडूं! चूक आमी म्हालघड्यानीच केल्ली. सकड जाणासुनय ताका ह्या सुडकाडांतल्या जुदासाच्या गोमट्याक..ताचे मतीक चडानचड बेजार जालें. सुडकाडांतलो जुदास म्हणोन आत्तां गाळी केल्लो पयशिलोकि? आपले मावशेचो एकलोच पूत. आंकोलेच्या शेष पैची वोळक कोणाक ना? हनुमट्टेच्या ताच्या रावळेरा तसल्या घरांत कितलो लोक रावोन, जेवन गेल्लो ना! म्हालघड्यांचे आस्तिंतच मुकल्यो दोन पिळग्यो सुखान बसून खावन न्हेसून राव्येत जाल्लें. अशें आसतां एक दीस, पूत प्रायेच्या विसाव्या वरसाकच आसल्लेबरी घराथावन धावल्ली खबर. कितें जालेंकि, कित्या जालेंकि कोणाकय सारकें कळोंकना. धारवाडचे कॉलेजीत शिकोन आसल्लो चेडो. दिवाळेची सुटी म्हणोन गावाक येताना, सांगात्यां सांगाता हासोन खेळोन आसल्लो एक दीस सकाळी घरच्यांक सकड जाग जांवच्यावेळा मांदरेर नातल्लो म्हळळेंच कळीत. दीस घुंवले. म्हयने सरले. वरस सयत पाशार जालें. खंयसरय झळकलोना. दोन वरसां उपरांत यात्राक गेल्ल्या लोकान हाका काशीत खंयकि पळेल्लेबरी जाल्लें म्हण कलयल्ले खबरेवरवीच आशा आंकरेवन, जण धाडून काशी, हरद्वारांनी, बदरीत सयत सोदल्लें जाले. ना, खंयसरय परत्यान दिश्टीक पडलोना. पूत परतो येवची आशा सोडन बसताना, परत्यान ताची भेट जाल्ली धा वरसां उपरांतच. जिळमिळच्या फांत्यारच एक दीस घरचे दार थापडून मांय म्हण आपयल्लेबरी आयकताना, आवयन दडबडोन उटोन धांवोन धांवोन येवन दार उगडल्यार दोळयां सामखार नितळ वस्तूर न्हेसोन, लांब केस खाड वाडयल्लो वाडललो पूत! इतलो दीर्घकाळ खंय आसल्लो, किते करतालो आकरेक एकल्याकय सांगलेना. पूत पाटी आयला म्हळ्ळेवरवीच फुलल्ली आवय बापय तेविशी चडीत उलोवक नेलीनांत. हेरांथावनय उलयशें केलेना. खाड, तकलेचे केस पळोवन खंयच्या तरय आशऱ्यांत आसल्लोकि म्हणोन सरवांक बळादीक दुबाव. ताका सगळोच संसाराकुशी वोडूंक काजारा सारको उपाय कितेकि म्हळ्ळ्या गांवच्या म्हालघड्यांची बूदबाळ आयकोन आवयन काजाराची खबर काडल्ल्यावेळा, ताणे

रागान पेटल्ली रीत पळेवनच, परत्यान घर सोडून धांवोन वचनांकि म्हण भिवोन कंगाल जाल्ल्या आवय बापायन परत्यान तेविशीं मात्र केल्ले ना.

अशें आसतानांच एक दीस चेडी कस्लाक म्हणोन अहल्येसांगाता आपून आंकोलेक गेल्यावेळार मावशेच्या घराय गेल्ली. तवळच अहल्या ताच्या दोळयांक पडल्ले. तवळ अहल्येक फकत सतरा वरसां पिराय. कसलें रूप ह पोरिचें! ताणें ह्या पयले पळेल्ल्यावेळार तें आनिकय सातोट वरसांचें किशोरी न्हसचें भुरगें. आमी गेल्याउपरांत आवयलागीं आपलें मन उगडल्लें खंय. अहल्या आपणालागी काजाराक आयल्यार आपुणय काजाराक तयार म्हणाला खंय. आवय बापायक संतोसा सागाताच दुबाव, आकांत. कुळाचो इतिहास कळान कळोनय अहल्ये तसलें साबीत चेडूं काजाराक आयतांकि? वयल्यान दोगांयचे पिरायेंत चडीत अंतर आसा. खंतिनच मावशी हनहक्कीक आयल्ली - आपणालागी उलोवक. आपणाकय भंय, तक्षण आपूंक. तरय बापय नातल्लें चेडूं. चेडो उरल्ल्या सकड दिश्टिंनी बरो. दोगांय मळान त्याच दिसा दाट्ट्याचो सलहा विचारल्ली. दाट्ट्याच्या मतितय गोंदळ; हो सकड देवचाराचो खेळ. आमी कितें करूंयेता? अहल्येलागीच कित्या विचारून पळेवंकनजा? म्हणाला. आजापांचो विशय म्हळयार अहल्येन कसल्याच आकांताविण आयल्लें. चेडयान सयत आपुणच जावन चेड्याक पसंद केल्ल्याबरी आसल्लें. ना, तवळ आनींच तशें चिंतलेंकि. तशें मुकारी जांवचे सगळे जाले. मुकल्या थोडयाच म्हयन्यांनीं म्हालघड्यांनी ठरायल्ल्या मुहूर्ताक हनुमट्टेंतच काजार करन जाले. पयले रातींच चेडो निदच्या कुडाथावन धांवोन गेल्लेय जाले. जाल्ल्या उडासान मांयचे दोळ परत्यान भरूंकलागले. कसलें भांगर चेडूं. ताच्या खंयच्या चुकीक म्हणान असले ल्हान प्रायेर ही शिक्षा? तो धांवोन वचोन आतां कितली, तेरा वरसां तरय संपल्यांत जायजे. आतां एकचपावटी ही खबर. सन्नेशी जाल्लो परत्यान कित्या हेणे आयलोकि. भुरगें एक नमुनो जालां न्हय. पाप आयची रात कशी सारता कि. आपणाक कित्याक तर आजच हांगा येंवचें मन जालेंकि...

घरची सरवां तवळच सुशेगात निदेत आसल्ली. रात कितली जालीकि मांयक कळळेंचना. पुरासाणेची तिची मत निदेचो आसरो आशेवन, दोळ बावताना एकच पावटीं एक पयशिलो उगडास: त्या दीसय असोच शिरांधारींचो पावस. तवळ सयत अहल्येन त्या दिसाची पावसाची रात घरांत एक्सुऱ्यां सारल्ली. त्या दीस सकाळी उटल्लेंच गंगावळीथावन भयणीच्या घराथावन आपवणें. पयल्या बाळंतेराक म्हणोन कुळाराक आयल्ली तिची धूव, आदल्या दिसा रातीच दूक सुरू जाल्ली ती सकाळ पऱ्यात सुटका जायनासतां रावल्ल्यान अवचीक चितलें खंय. सांजेभितर फाटी येतां म्हण गेल्ल्याक रात जाली तरय बाळंतेर जायनासतां थयीच रावोंक पडल्लो परसंग. वयल्यान सांजेथावन पावस. रात हांगाच पाशार कर बाये, सकाळ जाल्लोंच वच. जाय तर काणीगावडाक धाडया. अहल्येक

भिरांत दिसता तर एके रातीखातीर तुमच्या सोप्यार निदतलो. पोरीन आपणाक भिरांतना म्हळळयाक गावडा फकत खबर सांगोन आपल्या घरा गेल्लो. ह्या उडासापाटल्यानच आयल्ल्या आनयेका उडासाक मात मांयच्या तोंडाचेर वोलिच्या पांग्रणांतय आंबुरपिको हासो उदेलो: नवरात्रेचे दीस ते. गांवच्या मठांत दिसपडटी कीरतनां. कार्कळथावन एक नावाडदीक कीर्तनकाराक आपयल्लें. तो आमच्या गावाक पावल्लो हेच पावस पडल्ले राती. आमच्या गांवच्याच थोड्या जणांनी ताका वोळकोन, मठाक वेची वाट दाकयल्ली खंय. पावसांत वाट चुकल्ल्यान ते राती मठाक पावोंक ना खंय. दुसऱ्यादिसाय ना. त्याउपरांत सगळया गावांत बोवाळ; कीरतनकार तरनाटो खंय. पळेंवक सोबीत खंय. काळक, पावसावरवी मठाक पावनासतां कोणाघरा रावल्लेकडेच 'कितेंकि' जावन सकाळ जांवचे आदीच गावाथावन उसळळो खंय. असल्यांत पूरा आमच्यांच्यो तकल्यो बुदवंत न्हय! कोणागेर रावल्लो म्हणोन मात कोणाकय कळोंकच ना...

सुशेगात निदेंत आसल्ली मांय वायट सपाण सपणेवन जागी जाल्लेबरी दडबडोन मांदरेर उटोन बसोन दोळे उगडताना पावस आनिकय वोतुनच आसल्लो. तें घडीत घडोन आतां चार वरसां उपरांत तरय येदोळपऱ्यांत येनातल्लो एक दुश्ट दुबाव एकदम मतीक रिगोन विराराय जाली: त्या दीस परारी जाल्लो कीर्तनकार रावल्लो आपल्या घरांत न्हयमू!

मांय परत्यान सारकी नीद येनासतां सकाळ जांवकच राकोन आसल्ली.

## 3

मध्यानराती एकदम जागजावन दोळे उगडताना आपुण अशें काळकांत खाली धरणीर कशी निदल्यां म्हळळेविशी गुसपडोन चिंताना आवाज आयकोकलागलो. आयकाल्ले फट न्हय. आनिकय आयकोनच आसा, चडानचड स्पश्ट जावन: रांदपाकुडाच्या हितलाकुशिच्या दाराचेर सुण्यान पायाचे नाक्षेन भोकरललो आवाज तोच! आपल्या सपणांनी धुत करून परगट जावन आपणाक भेश्टांवचे ते काळें करी सुणें...पावस, खाली धरणीचे थंडायेंतय आपलें आंग घामेवचे तितून आनिकय भियेलें अहल्ये. तशें भोकरचें सुणें चडीत काळें आसुंकपुरो, आपणाचेर चडानचड रागार जालां जायजे म्हणोन कारणाविणे चिंतून धरणीक बळान दांबीलागलें. आपले जिणयेत घडल्ल्या दोनय अनवारांच्या संदर्भात हे काळे सुणे आपल्या स्वप्नांनी येवन आपणाक भेश्टायतालें. दोनयपावटी सपनेल्ल्या स्वप्नांतली घडितां एकच: हितलांतले बांयकुशिच्या फातराचेर आपणे उंबळची वस्तुरां झळझळायताना हितलांतले वोयेंतल्यान काळें सुणे एक भितर येवन धरन हुंकून हुंकून शीदा आपणालागी पावल्लेंच रावोन, सोंडी उकलून आपल्या दोळयानीच रागान पळोवन गुरकेता. एकदम किंक्राटल्लेंच

आपणाक जाग. पयल्यापयलेपावटी सपणाल्ल्या थोडक्यादिसांनीच ताचें दर्शन जाल्लें. दुसरेफावटी स्वपन पडल्ल्या दुसऱ्यादिसा, मारको उद्दास जाल्या - असोच पावस पडल्लो. ते राती सयत माय अशीच घरा नातल्ली. गांवचेकडेक गल्ली अबचीच्या घरा. माय पावसाचेरथीं थयींच रावलीकि किने म्हण दुकानांन वाट राकोनच बसल्ले. तवळ कोणेंकि दार बडयल्लें आयकोन मायच म्हण चिंतून दार उगडल्यार लांब केस वाडयल्लो, हातांत एक ल्हान ट्रंक धरल्लो एकलो तरनाटो, पावसांत सगळोच भिजोन हियात आकडोन 'हांव हांगाच्या मठांत कीर्तनांक आयल्लो कीर्तनकार. पावसांत वाट चुकोन हांगा आयलां. तुमकां त्रास जायनांत तर एक रात हांगाच पाशार करयत म्हण चिंतालों. भितर येव?' म्हणालो. ताच्या सवालांच्या नंट निजायेच्या प्रभावानकि, कश तरय आनी थोड्यावेळान मांय येतलीच म्हणोन त्याखिणाक भागल्ल्या भरवस्यानकि ताका भितर घेवन दार धांपल्लें. लांप्यांव दीवन, माळयेर वचून वस्तूर बदलून येवक सांगोन वयर वेची वाट दाकवन भितर वचून आरशाचे नळयेचो दिवो पेटवन परत्यान सोप्याक येवच्यावेळा 'मावश' म्हणोन भायल्या सोप्यार कानोंगावडो हाजर. दार उगडताना, मांय काल्यां सकाळी यता म्हण खबर दीलागलो. 'तुमकां भंय दिसता जाल्यार म्हाका हांगाच निदोक सांगलां' म्हणटाना आपणाक भय ना म्हण सांगोन गावडाक घरा धाडल्लें. तिच चूक जाली कितेंकि. पुण तवळ तशें दिसल्लेंना. थोड्यावेळाउपरांत वस्तूर बदलून.४ सकयल आयल्लो तो घरांत आनी कोणय नांतकि म्हण उलयल्लो. 'तुमकां भुक लागल्या जायज. जेवण तयार आसा' म्हणटाना, आपणाक भुक ना, आसल्यार इल्लें दूद दिया म्हण सांगल्लें. दूद फळां हाडन दीवन मांयविशी सांगल्लें. दूद पियेवन कसलोय दुबाव, आकांत दाकयनासतां उलयल्लो. ताच्या उतरांनी आसच निजायेन ताका पिशें केल्लें. नितळ धवी धोती. कावी रंगाचो लोब. भुजांक पांवच लांबशे केस. उलयताना वोंटां कुशिंनी ल्हान आंबुरपिको हांसो. नितळ दोळयांनी मात कसलीकि अस्कतकाय - बयरागिच्या दोळयांनी आसचेंथरी. ताणें पयल्यापयलें पळेल्ल्या दीसच विचित्र रितीन पिशें लागवन, ताचेंलागी काजार जाल्ल्याच्या दोळयांनी दिसल्ल्या बयरागिची दीश्ट!...

ते राती आमी दोगांय निसराल्ल्यांव. सकाळी जाग जातच सवकास आपणाक वेंगेंतलें सुटवन आपणाचे पाय दुकांनी भिजवन माफ मागल्लें. सकाळ जांवचेआदीच गावाथावन धांवल्लो. नवरात्रेच्या कीर्तनाक आयल्लो मठ देकचेआदींच...देवा देवा...

अहल्ये चडीत घामेल्ले. भायर दारावयलो नाक्षेंचो आवाज हें सपण न्हय म्हणोन वोडको नासतां पाचारताना एकदम बोंब मारिजे भोंगले तरय तोंडाथावन आवाजच सुटनासतां मोनें जावन कांपलें. मायचो उडास जावन रडलें.

## 4

सकाळ जांवक फुरसतच नातल्लेबरी उटल्ली मांय आनिकय काळक आसतानांच उटोन रावताना तिच्या तवळचे मनास्थितिची खबर आसल्ली दाट्टू-वोनी आडांवक गेलीनांत. पावस पूरा रावल्लो तरय वाऱ्यांत आनिकय आसल्लभिजुडपण, हिंव - खंयच्याचीय परवा नातल्लेबरी धांवोन धांवोन गांवाक पावल्ले मांयक, घरच्या आंगणांत पाय दवरच्यावेळाक उसवास बांदून तुळशी काट्यामुकारच परतल्लेबरी जालें. तट्ट्यो बांदल्ल्या सोप्यार पायांगोळ पांगरोन कोणकि निदला म्हळ्ळें मस्क मस्क जावन दिसलें तरय कोण जावयेत म्हळ्ळी आतुराय सयत मतीत हाडीनासतां आमसरान दार बडवन 'चेडवा' म्हण आपयलें जाल्यार तोंडाथावन आवाजच सुटलोना. आनयेकपावटी दार बडयलें, जोरान. भितरथावन जापना. मदल्याकुडांत घट निदेंत आसल्ल्याक हांगाथावन आपयल्यार आयकोचेंना म्हण चिंतून दुडदुड्यां कावजेणी भरल्ली पावलां दवरून पाटल्या सोप्याक पावोन, रांदपाकुडाचें दार बडंवक गेल्यार, तें सगळें उगतेंच रावताना भितर तीळन पळेलें. कांय दिसोकना. आकरेक एकपावटी 'चेडवा' म्हण आपयलें. 'ऊटगो' म्हणाली. भितरथावन आवाजना. वेळ गेल्लेबरी रांदपाकुडांतल्या मंद उजवाडात होंदोन चलल्ल्या दोळयांमुकार कसलिकि अस्पश्ट आकृती. धुंवरी नितळल्लेबरी चडानचड स्पश्ट जांवकलागलें. धरणीथावन सुमार एक फूट उबारायेक उमकाळचे पांय. उपरांत त्या पायांक होंदल्ले कुडिचे हेर भाग. दोळयांक दिसल्ल्याच्याकय नितळायेन घडल्लें मतीक झळकाताना मांय किंक्राटली. कोणेकि उकलून धरलां म्हळ्ळेबरी अहल्ये रांदपाकुडाच्या माळयाथावन उमकाळतालें. तवळच मातसो जागो जाल्लो भावोजी मांयचे किंक्राटेक सगळो जागोन रांदपाकुडातेवशी धांवोन, मांय आनिकय पळेवन रावल्ल्या जनेलांतल्यान भितर पळेताना देकल्ले दिश्टीन गडबडोन अरेरे म्हणालो. आनिकय जीव आसोंकपुरो कांय म्हण चिंतून दारातेवशी धांवोन, पायांचे खोटेन दार फोडुन भितर गेलो. थयीच आड पडल्लें स्टूल नीट करून, चडून, गोमटेक अरनिल्ली दोरी कातरून मडें देवंवच्या वेळाक उजवाड सारको फांकल्लो.

मांयचे बोबेक जागल्लो केरिचो लोक धांवोन आयलो. राम, राम म्हणोन, मडे तवळच देवयल्ल्या भावोजीभोवती जमलो. कितें जाले, कशें जालें म्हण भावोजीलागीच विचारलें. पावसाक कालची एक रात मुकल्या सोप्यार काडल्ल्या आपणाक कांय कळीत ना म्हण पेट पडल्लेबरी बडबडलो भावोजी. वेळ गेल्लेबरी भोवती जमल्लो लोक, आपणाकय ह्या मरणाकय कितेंकि संबंद आसा म्हळ्ळेबरी पळेवचे रितीन भियेलो. सवकास थंयसून निसरोन मुकल्या सोप्यावयली आपली मांदरी कोवळोन उकल्लीच थंयसून भायर पडलो. आमसर आमसरान दण्याकुशी पाय दवरून वोणीक पावोन दिसना जालो.

(1973)

# चक्रव्यूह

लुयिजाच्या मोम्यांक हात घालताना म्हाका पंचेचाळीस वरसां जिव्य. कशीं कित्या मारूं?- सगळे अचऱ्यांनी जावन गेल्ले. हें सकड - पयर सांजेरच म्हज जाल्लें? - नियाळटाना हडसन बाळयाच्या दांड्यावयल्यान दसत्ता. हांव आमच्या 'एपार्टमेंटा' लागसारच्या सान कुलाभागीतल्या शिमेट थाकाचेर. गांवाचें नांव विहाकेन. भोवारीची वस्ती, चडीत करून प्युर्टोरिकानाची. अमेरिकाक परताल्लो आयलेवारचो लोक हो. कातीत चडुण आमकां भारतीयांक लागी. हें रुपान मात- चेडवांविशी सांगत आसां - रगताक हून लावन पिशें लावची. तांतल्यातांतूं लुयिजा मस्त सांबीत चेडूं. पिराय चवीस उतरचीना: काजार जालां. घोवाचें नांव जोन. ताचे सावायविशीं केन्नाय उलयताना म्हाका दाकण. चेडवांविशीं म्हजें आपुटपण म्हज्या इश्टांमदें नांवाडतीक. चड लजीट स्वभावाच्या म्हणोन हावें नांव जोडल्लें. काजार जावन थाड्याचम्हयन्यापाटी वीस वरसां काबार जाल्यांत. वयल्यान चार भुरग्यांचो बापय. म्हालघडो पूत - म्हज्या कोंडाट्याची - आनी थोड्याच वरसांनी काजाराक जावचें जाला. परकी बायलांतेवशी लैंगीक दिश्टीन केन्नांय पळेल्लेंना म्हणान म्हजें जागरूत मतिच्च चिंतप. हेविशी म्हज्याकय म्हजे बायलेकच चडीत विस्वास: म्हजें लैंगीक नेंटेपण, तिका आमचे पयलेरातीच कळल्ले.

आमच्या काजाराच्या विसाव्या वरसाचे यादीक बायलेक ग्रीटिंग्स धाडटाना, म्हज्या घरचे धनिनीक आजापच आजाप. म्हाका काजार जावन वीस वरसां जाल्यांत म्हण पातयेंवक तयारच ना. म्हाका पळल्यार तीस मिकवनातल्लवरी भोगता म्हणाली. हें म्हज्या नाटरुपाचें एक विशेस. जिवांत चिक ल्हान। ल्हानपणार बापायक, म्हाका शाळेक वेची पिराय भरल्ली विसरच्याक हेंय एक कारण आसयेत - उरल्ल्यांच्याकय तीन वरसां तडव करून शाळेक धाडल्लें खंय. घरचे धनिनिचें नांव रीटा बिगलीन. पेपरार आयल्ल्या इस्तिहाराक जाप जावन फोन करताना, म्हज्या इंग्लेज उचारानीच परदेशी म्हण सादून काडन, मुखामुखीं भेट जाल्याउपरांतय घर दीवक दुबावान, आकरक घोवालागीं कितेंकि उलणें जाल्याउपरांत, म्हजे इंग्लेज भाशेवयलें राजवटकेक कुगान्न (सांगोंक विसरलों- बिगलीन लोक आमेरिकाचो, म्हळ्यार मुळान स्कॉटिश जाल्यारय शेंबरांनी वरसां थावन हांगा रावल्लो) बायलेंभुरग्यांक पाटीं सोडून, पि.एच.डी. करचे आशेन, ह्या देसाक आयल्ल्या म्हजें धयरच कुगान्न, घरची चावी म्हजे हातीं दीवन, मुकल्या दाराक चिंटकायल्लें - खंयच्या खरारांचेर हांव भाडोत्री जातां म्हळळी कळवणी आसल्लें ल्हान फळें दाकवन, आमुरपिकों हासली. थंय भाडोत्री जावन आयल्ल्या हेरांबरी - चडीत जण इंगलेज

सयतम्हाका चूक समजनाका म्हळ्ळया भोगणानी म्हाकाच पळेवन रावल्ल्या रीटाक (पन्नास उतराल्ली म्हातारी जाल्यारय कसली सुडसुडीत बायल!) "हुसको नाका, म्हजी वळक जाल्या उपरांत तुकाच कळटलें हांव कसलो मनीस म्हणोन" म्हळें. उतरांनी परगट जाल्लो हंकार न्हय, म्हज्या निसकळपणाचेर म्हाकाच आसल्लो विसवास म्हण समजाल्लों.

पुण -

आज लुयिजालागीं म्हंजी पयली 'डेट' आनी कुसकूट वेळान हांगा म्हाका भेटच्यार आसा. वेळा आदींच येवन ताची वाट राकोन बसलां: ह्या विशेस अनभोगाक मन वरगाशें करून.

हांव बसल्लो जागो, भाग म्हळयार भाग न्हय. फुलांचीं झाडां आसात. बसोंक शिमेटिचे बांक आसात. फुलांची नांवां कळीतनांत. हळदुव्यारंगाचीं फुलां- आमच्या कापुरगोंडे, शब्दुलिंचो उडास हाडंवचे तसली: फाल्यां रीटालागीं विचारिजे. लुयिजा जाणांकि नाकि. तेंय ह्या देसाक येवन एक वरस जालें मात. काजार जाल्लेंच आयल्लें खंय. हावें आतां आसचे वोणिच्या पोंतारच आसचें 'डेलीकटेसान' - सदां गरजेचो सांबारजिनस विकचें सान दुकान - घोव, बायल मळोन चलयतात. दोनपारां घोव जेवणाक गेल्ल्या वेळार आपुण एकलेंच पळेवन घेता. इंग्लेज उलंवक सकता तरय, रावोन रावोन उलंवची रीत बोव मजेची. म्हजेलागी पयले भेटेंत स्पॅानिशांतच उलयल्लें. हांव ती भास नेणा, हांव प्वरटोरिकन न्हय म्हणोन इंगलिशांत सांगल्ल्यावेळार सोबीत करन हासोन (हासताना, दाव्या गालाचेर पिशार घालचो कसलो फोंडकुलो!) तुमी क्यूबान म्हण सांगल्लें. हांव क्यूबाची, प्वरटोरिकन न्हय म्हणोन एकपावटी दोळे मोडल्ले. हांव बसल्ल्या जाग्यालागसारच्या बांकार एकलो म्हतारो तशेंच एकली म्हातारी एकामेका वोंदोन बसुनय, एकामेकाची वळक नातल्लेबरी भोंवारीच्या सकडाकय परकी जाल्लेपरी पयस खंयकि पोकळी दीश्ट फांकवन बसल्ली. आन्येकाकडे न्हंयचे बगलेच्या लोंकडाच्या रेलिंगाक लागोन रावोन, 'बायनोकुलर्स' धरून आनयेकलो म्हातारो बंदराक येंवच्या तारवांची वाट पळेतालो. न्हंयचो तो दांडोच, संसारांतच नावाडदीक न्यूयॉर्क! मळबाक तोपची थरावळ उबारायेची 'स्कायस्क्रेपर' बांदपां - दळदीर कोट्याबरी रावल्यांत - आमच्या यंत्रयुगाचया विशेस साधनाचें प्रतीक जावन; मदेंच ह्या सकड बांदपांची तकली गुड्डावन वयर उटोन रावल्लें एंपायर स्टेट बिल्डिंग - संसारांतच उबारायेचें बांदप. ह्या वोतवाक रॉकफेल्लर बांदपां. ह्या पोंतार हडसन टर्मिनल. ही सकड कांय न्हय म्हणचेबरी बांदपाकाम अरध्यारच रावयल्ली वर्ल्ड ट्रेड सेंटराची जोडबांदपां. हांव बसल्ले सिटिच्या मुकल्यान न्यूयोर्काची 42 स्ट्रीट. आमेरिकाक आयल्ल्या थोड्याच दिसानी एके राती ब्लू मूवी (लेंगीक पिंतूर) देखच्याक इश्टांसांगाता भायर सरताना म्हळळें - दोळयांक तोपच्या उजवाडांतय काळक भरल्ली वोण

पळेल्ली. मनशमतिच्या उलंवक यनातल्ल्या परदेशानलेंच - चेडवाक हाडन पियेवन, बोवाळ करूंकनजो म्हल्कळो संदेश बराबर परगट जाल्लो. काळकाचें प्रतीक आसल्लेबरी आसा. न्यूयार्क युनीवर्सिटींत सायकालाजी शिकता ईश्ट. बायनोकुलर्साचो म्हातारो बडबडोन सांगलागलो म्हाका समजनासच्चे भाशेन. बंदराक तवळच तेंकोक लागल्ल्या व्हडल्या तारवाक बोट दाकवन. अकरेक ग्रीस ग्रीस म्हणोन कितेंकि गुणगुणोन म्हाका सगळें विसरनच सोडलें. आपणाकच विसरोन परत्यान तारूं पळेवंक पडलो. तवळ ताच्या तोंडाचेर परजळल्ल्या पिंप्रेपणांत म्हजी भोगणांच दिसल्लेबरी जावन हांसो आयलो.

मोग केल्ली बायल, भुरगी, ईश्ट - सर्व, सर्वांथावन पयस जावन खयच्याकि पिशा जोशाच्या भरार, आसल्लें बरें कामय सोडन येवन, एकसुरो जावन, ह्या पयशिल्या परदेशांत परदेशी बरी दीस सारल्ल्याच सुखर. म्हज्या एकसुरपणाचें विशेस समजीकायेत, म्हजें मरण हावंच पळेल्ल्यातितलें भंय जावन, एका इश्टाक बरयल्ल्या पत्रांत बरयल्लें सयत - म्हज्या मरणाचें रंगतालीम हावंच प्रेक्षक जावन पळयल्ल्याचोअनभोग जालो म्हणोन! तवळ स्यत अशेंच हें नयचें तडीर येवन बसोन, बंदरावयल्यो चटावटी पळतालो. एकदीस, बंदराथावन येंवच्या डीसेल तेलाच्या वासानच म्हज्या जिल्ल्याच्या नंगावळी, सांगकट्टेचा उगडास येवन, आंग जुम जावन दोळे भरोन गेल्ले. असल्या ह्या एकसुरपणाच्या, अनाथगिन्यानाच्या, भियाच्या आंगणांत आसतानांच, एका दोनवारां लुयिजा सोबीत करून हासोन, गालांचेर फोंडकुले फोंडवन, दोळ मोडून उलयल्लें. मुकल्या थोड्या दिसांनीच आमकां कळच्या पयलेच, कळळयारय आनंच घयर येंवच्या पयलेंच लागीं जाल्ल्यांव. एकामेका जायजाल्ली जाल्ल्यांव. दुकानांत आमी दोगांच आसल्ल्या एके घडये You are such a sweet pet म्हणोन सांगल्लें. आपणे सांगल्ल्याचें स्पॉनिश भाशांतर आनिकय सोबीत म्हणोन सोबीत करून हासल्लें. वोणिच्या तेवशिन रावोनय वाऱ्यारच म्हजकुशी उन सोडल्ले. म्हजेविशीं ताका भोगच्या ह्या भोगणारांक कारण सोदून, ताच्या थळाकय ह्या एकसुरपणाचे भंयच आसुंयेतकि म्हण दुबावोन तळमळोन म्हाकाय ताचेविशीं आसच्या भोगणांचो नीज अर्थ समजोन, अर्थ जाल्लेडरी बायलेक मोस करून आयल्ले समजणेन कांपून, फाळून गेल्ले दीस कितलेकि -

...ग्रीक म्हाताऱ्याक म्हजेलागी उलंवची आशा जाल्या जायजे. म्हजेकुशी तशें एक पावटी पळेलें. बोवशा इंग्लेज उलंवची सकत पावनातल्ल्याकाकि कितेंकि उलोंवक लांवचें प्रयतन सोडून दीवन तारवातंवशी टीश्ट घुंवडायलो...

मनहटान स्कायस्क्रेपरांचेर अस्तमतेसुऱ्याचो उजवाड. काळया पाशाणान बांदयल्ली रोकफेल्लर सेंटराची बांदपां, रावल्ल्या राकसाआकाराच्या सोजरांबरी विशेस व्हडपण दाकवन, भितरल्या कुबाराचे शिरीक सरपाराकवलो रावल्लेबरी दिसताली.

उडास जाता: 42व्या स्ट्रीटाचेर आदीं एक पावटीं इश्टान दाकयल्ल्या धरणी पोंदा बांदयल्ल्या पाडपडल्ल्या थियेटरांत (थंयसर वेचे चोरयांवाटेर मुताच्या वासा तसली घाण फकत म्हज्या भायली आसल्ली?) कोणय इश्टांक खबर दीनासतां भुरशें पिंतूर पळेंवक वचून, निदच्याकुडांत सारक्याउजवाडांत पळेंवकय लजभोगल्लें, दोळे दुकंवच्या उजवाडांत पडदो भरून जयत आकाराचेर उदेल्लें पळेवन, म्हजेथंय ना म्हणोन म्हाका हावेंच बडाय कोचायल्ल्या कामुकपणाक (न्हय तर ताकाय म्हज्या एकसुरपणाचें कारण दींव?) कांटाळोन, वोंकारे आयल्लेबरी जावन, भायर येंवचेभितर मन चडीत तळमळल्लें. थियेटरभरन म्हातारे (थोडीं म्हातारी सयत) नीग्रो लोकाचो एक जमो कितेंकि हलकी उतरां उलोवन बोबाटतालो. शिळोण्यो घालतालो. ताका गोऱ्यांची जा: **Shut up!** कापऱ्यांथावन आनिकय चडीत सडिळ उतरां. थियेटरभरन सिग्रेटिचो धुंवर; पोट परतंवची भुरशी घाण.

**Shoeshine, sir, shoeshine** - थियेटरा थावन भायर पडून, मुख्य बिदीक पावल्लोंच कापऱ्यान एका म्हज्या मोच्यांतेवशीं हात दाकवन, तांकां पॉलिशाची गरज आसल्ली गुमानाक हाडून, आपणालागीं आपयलें. ताच्या आपवण्याक वोपून, ताचे पेटेचेर पाय दवरल्लोच सबार वरसांथावन म्हाका लागशिल्यान वळकुंचेबरी उलंवकलागलो. बिदीर सगळया लाक लाक वोल्ट्सांच्या एलेक्ट्रिक बलबांचो झगझगचो आमाली उजवाड. बिदिच्या ह्या पोंताथावन त्यापोतापासून लेंगीक पिंतुरां दाकंवची थियेटरां. नियॉन दिव्यांच्या बोबाटच्या रंगांत उद्रेक करचीं सिनेमाचीं नावां बिदिच्या दाव्याउजव्याक कामुकपणाची पिंतुरां, बूक, विशेसविचित्र वस्तु, ब्लूफिलमां विकची दुकानां. सगळी भोंवतणच कामुकपणान भरून विचारांक, भोगणांक विजमीत करताली. हावें मोच्यांक पॉलिश करवन रावल्ल्या कोनशारच सुंरगारून रावल्लें ल्हान प्रायेचें आटनेटांचें चेडूं (तशें रांवची चेडवां, कलवंतां म्हणोन इश्टान एक पावटीं सांगल्लें) पॉलिश करन आसल्लो कापरी करकस ताळयान उलवनच आसल्लो. झगझगच्या उजवाडांत ताचो काळो कापरी रंग म्हजेलागच्या खंयच्याचोकि प्रतीक जावन मतिचे गुंडायेंत भंय उटयतालो. ताचो करकस ताळो सयत. ताणे विचारल्ल्या सवालाक जाप दीवन हांव इंडियाचो म्हणोनय ह्या देसाक येवन साताट म्हयने मात म्हणोनय सांगले. न्यूयोर्क संसारांतच असामान्य श्हेर (मॅन) आमेरिकाची सगळी शिरी पुंजयल्ली हांगाच (मॅन) वायट कामां सयत. सगळयाथराच्या भोगसाधनांचे आगार हे(मॅन) भितर येंवचे सलीस(मॅन) भायर वेचे कश्ट. उतराउतराक मॅन मॅन म्हणच्या ताच्या एकेच रितिच्या ताळयाक म्हाका रावल्लेकडेच बारीक कांप. पालिशाचे काम सोपलेउपरांत ताका दिंवचे पयशे दीवन म्हजे बसरावणेच्या 'पोर्ट ऑथॉरिटी' तेवशी मेटां काडून 40वे बिदीक पांवचेभितर तवळचे ते आटनेटांचें चेडूं आंगाक मारल्लो परमळ पसरावन बोव

कळळें. दुसऱ्याखिणा, लुयिजान विचारल्ल्या पाकरी सवालाचो उडास - Don't tell me you have never slept with any women other than your wife. ताका Never म्हण सांगल्ला म्हज्या निचयाचे जांचिं मत पाल्थल्लेबरी You are such a sweet innocent . I like you all the more for that म्हणोन हासल्लें. पोर्ट ऑथॉरिटी बसरावणक पावल्लाच म्हजो सांगातिणीक Thank you sweetheart , I am not too well today, some other time. Goodbye म्हणान ताच्या हातांतलो सुटान, हावें आत्ता सांगल्ली उतरां केदळा, कोणाथावन शिकलों म्हणोन विजमीत जावन, आमसर आमसरान म्हज बसरावणेक येवन पाय दवरल्लोंच वेगळयान एका संसाराक पावल्लो. जायत्यो माळयो आसचें न्यूयोर्कांतच व्हडलें बसस्टाप - पोर्ट ऑथॉरिटी. सगळयानय, खंयथावनकि येवन आनी खंयकिवेच्या आमसरार आसल्लो, पाट लागान येवचो लोक. हाराबरी लोळोन पायांपंदलो जागो रावल्लकडच मेटां जावन माळयेथावन माळयेक सराग धांवची एस्कलेटरां चडोन वेचो लोक. हांवय तांचेमदें घुसान, म्हजें बस रांवच्या जाग्यालागी धांवलों. बस्सार चडोन बसताना, आत्ता काटी सोडून आयल्लें चेडूं लुयिजाच्याकय चडीत सोबीत म्हळळे मतीक येवन एका खिणाक तरय मतीक आजाप जाताना भोगल्ले, आज म्हाका ताचेथावन राकल्लो, लुयिजान म्हजेर दाकवन आयल्लो मोगच जाव्येत म्हणान. बाबाचे भाशेंत - खंयच्या जलमाची गांटकि: हावें ताका वायट करिनातल्लेंबरी म्हाका राकल्लें!

लिंकन टन्नेल: हडसन वोळयाचो हो दांडो, त्या दांड्यांनी रावल्ल्या न्यूयार्क, वीहाकेनांक जोडी करचो - वोळयाच्या धरणीपोंदल्यान बांदयल्ला - सुरींग मारोग. हावें बसल्लें बस्स टन्नेलांत वेताना हरशेचें पोकळबुदिचें भंय: ट्यूबलायटांच्या, मतीक पिशें लांवच्या उजवाडांत विचित्र दिसच्या, दिगांदिगायच्या हाराच्या पोटाबरी आसल्ल्या ह्या सुरिंगाच्या आनयेका पोंताक पावोक जायत? - दुबाव! एकापाटल्यान एक बस्स, मुयांचे कांपीबरी भायर सरल्ली. धरणीच्या आंगाक आंग घश्टीताना,. रुंयों करून बस्सांच्या रोदांनी उटयल्ल्यो करकस हुयेल्यो, सुरिंगाच्या पोटांत भोंवून, मोच्यांक पॉलिश केल्ल्या कापऱ्याच्या करकस साळयाचो उडास. ह्याच न्यूयोर्काविशीं एका प्रोफेसरान सांगल्ल्या सबार उतरांचो उडास -

धक्याक येवनच आसल्ल्या आनयेका व्हडल्या तारवाचें सायरन! अस्तमतेसुर्याच्या निमाण्याकिरणांनी उबजयल्ल्या बणांच्या विन्यासांच्ये पाटभुंयेक न्यूयोर्क स्कायलाय्न: बोव लागशिलें वर्तमान, मतिचे गुंडायेंत पुराण पोकरतालें: महाभारत झुजाचो 13वो दीस. कौरवांनी रचल्लें चक्रव्यूह. अरजुन वेगळयाच एका खळांत झुजाक लागल्लो दीस. चक्रव्यूह भेदची कला पांडवांमयकी अरजुनाक सोडल्यार हेर कोणाकय येना. अभिमन्यू: अरजुनाचो चेरक्याप्रायेचो पूत. आवय सुभद्रेच्या गर्भांत आसतानांच चक्रव्यूहाक वेची चतुराय कृष्ण

सुभद्रेक सांगताना आयकाल्ली खंय. मुकारीं व्हड जातच बापायथावनच शिकल्लो खंय. पुण चक्रव्यूहाथावन भायर येंवची विद्या मात आनिकय शिकोंकनातल्लो. जाल्यारय वेगळो उपाय दिसनासतां, म्हालघड्या पांडवांनी, भितर वेची विद्या मात जाणासल्ल्या भोव तरने प्रायेच्या अभिमन्युकच वारें घालन, आपुण राकणेक आसचो भरवसो दीवन, चक्रव्यूह भेदच्याक आपयल्लें. अभिमन्यू व्यूह मोडून भितर आयल्लोच म्हालघड्यां पांडवांक भितरें येनाशें जयधृतान आडायल्ल्यान, आपणें भेतून भितर गेल्ल्या चक्रव्यूहांत आपुणच बंदी जावन, एकसुरो जावन कौरवांलागी झगडल्लो. म्हालघड्यांच्या हातानीच बोव वायट रितीन मेल्लो.

हें सकड चलून आतां हजारांनी - न्हय फकत सोळा वरसां! आमी लगीन जाल्ले सुरवेर थोडी वरसां सारल्ल्या सांताक्रूजाच्या त्या ल्हान घरांत...पुराणाचें घडीत खासगी इतिहासाक गांच घालूंक लागताना गोमट्याचेर घामाचे थेंबे. पुसूंक तुवाल्याखातीर पेंटाच्या बोलसांत हात घालताना तुवाल्यासांगाताच भायर आयल्ली हांगा येंवच्या थोड्यावेळाआदींच - आकरेचे घडये उडास जाल्यावेळार विजमीत जावन, धांवोन वचोन हाडल्लेबरी हाडल्ली ल्हान पोटली - निरोध साधन एफ.एल! तवळथावन घुंवोन घुंवोन चलल्ले म्हजे विचारझरीक हेंच उमेदिचें जावनासल्लें कितेंकि म्हळो दुबाव: लुयिजाच्या सहज उतरांक हांवच चूक समजलोकि म्हळी कावजेणी (डारलिंग, जोन गांवांत ना. थोड्या दिसांखातीर क्यूबाक गेला म्हणोन म्हळें. भोव बेजाराय. तुमचें एपार्टमेंट हावें आनिकय पळेंवकच ना न्हयकि. पोरवांची सांज तुजेसांगाता सारिजे म्हळी आशा...) सुर्यो बुडल्लोच मुकल्या न्यूयोर्क स्कायस्क्रेपरांचे शेंबर हजार दिवेय एकचपावटी जिग करून प्रकासून, आपणेंच आपणा भितरलो काळक तीळन पळेंवच्या दोळयांबरी दिसोन भियेवन बसल्ल्या जाग्याथावन उटल्लोंच कितें करन आसल्लो म्हळ्ळयाची समजणी येंवच्या पयलेंच हातांतली ती पोटली पयस, पन्नास फुटी सकयल, व्हाळोन आसल्ल्या उदकाक उडयली. वाऱ्यार उबोन, झाडांमोल्यांनी खंयकि लिपल्लीच-दोळयांमुकार बोंबय:

, फ्लोराफौंटन, नरिमन रोड. 42व्या स्ट्रीटाच्या धरणीपोंदल्या थियेटराक वेचे चोरवाटेचो उडास हाडचे तसली ती अशीर आडवाट. चडताना हाका आकेरच न्हकि म्हणोन दिसल्ली तिसरे माळयेक वेची ओबिरायाच्या काळाची शिडी. पाय दवरल्लोच कर्कमुर्क करची रुकाटाची मोडकर कुंबू मेटां. उजव्याक दाव्याक पारव्यांच्या गुवाची घाण. मुकल्यान हांव. म्हजेपाटल्यान नाजूक भलायकेची म्हजी बायल. नोव म्हयन्यांच्या आमच्या पयल्या भुरग्याक घरांत सोडन आयल्ल्यांव. तिसरे माळयेक लागी जाताना, आनिकय मेटां आसतीनांतकि भोगल्ली घडी. आमको वेळ लागी जातासताना, ताका फुड करचें धयर कडोन बोबलेभोंवतणी कांप. तवळ दोळयांक पडल्लो तो ल्हान बोर्ड - डॉ.

एम.ए.खान(आसात). दार लोटून भितर गल्लेच स्थिरीट. ढट्टालाची घाम उबजान मरणादुकिंचो उडास. ट्यूबदिव्याच्या दैवीक उजवाडात दाकयाक पडल्लें वेटिंगरूम. बसल्ल्यां पयकी चडीत जण म्हज्ञे बायलच्याकय उणी प्रायेची चेडवांच. बोवशा काजार जायनातल्ली जायज. देवा म्हळे. नर्साबरी वस्तूर न्हेसल्लें चेडूं एक, आमचे नांव बरयन घेतल्ली कागदाची चीट घेवन स्प्रिंगी दार लोटून भितर गेले. भायर आयले. आकरेक एकपावटी आमची सरती. तुमी नाका, तिच एकली म्हणटाना बायल एकलीच भितर गेली. हांवे नाव्यणी नातल्ल्या सगळ्या देवांक चिंतून मागणे केल्लें: पाटादुकीन वकवकचे मूत हितलांत सोदून, मेळल्ल्या तणाक सकड तोंड घालचेबरी! सगळी जागरूतकाय वयसुनय खंय चुकल्यांकि. बायलची नाजूक कूड, बावल्ले तोंड; दाकयानी दुका भरची घडी: हांगा येंवचेंच नाकाआसल्लें कितेंकि. डॉ.लवकरेन सांगल्ल्याबरी हें एक भुरगें जलमल्ल्याखिणा ऑपरेशन करयल्ले तर जातकि कितेंकि. तरय अनभोग आसल्ल्या इश्टाचो भरवसो; कांय ना, कापूस गुटलायल्ले काइयेक वकद लावन भितर घालता...मुकल्या 24 वोरांनी सकड सरळ, सलीस. कृष्णा, हें कितें गांढीव म्हज्या हाताथावन निसरता...आंगाभितरली सकत सगळी पाजारून वेचेबरी भोगता न्हय. कितेंगी अमंगळ जाल्ल्याचो कुड हिशारा म्हळ्ळेबरी तोंड सुकोन येता...दाट्टू धर्मराय शार्वात आसतलो न्हय...106 डिग्री ताप. रक्तास्राव...धात नातल्ली बायल...वांचचो भरवसो ना म्हळ्ळें डॉ. लवकरे. असली मरची केज आपले मेटर्निटी आसपतरेक घेंवकय आपूकना - घरच आसपत्र जावन...हें कितें पांडवांच्या जम्यांत आळसायच्या वणा...हांव समसप्तकांक जिकोन आयल्यारय, कित्याक हरशेचबरी मंगळव्हाजयांच्या जयजयकारांचो येवकार ना...दोळे कोंकच्या उजवाडांतय काळक भरल्ली वोण पळे ही...**Shoeshine sir, shoeshine** पंदराच डॉलरांनी सगं दाकयतां डारलिंग...खटल्याक उमकाळायल्ल्या बाटल्यांथावन ग्लूकोज सेलाय्न त्याउपरांत रगत परत्यान सेलाय्न...क्यूरेटींग...पिशे, वांचून उरल्यार चेरको भुरगा जाव्येत आसल्लो...नर्स सुहासाची भेश्टावणी...भितर येंवचे सलीस मॅन. हांगाथावन भायर वेचें कश्ट...पोर्ट ऑथॉरिटी - हाराबरी लांबोन वेची एस्कलेटरां. कृष्णा, हें कितें म्हजो मोगाळ पूत अभिमन्यू हरशेंचबरी म्हाका वेंगोंक धावोन धावोन येना...हें कित्या सरवांची तोंडां मोनी जाल्यांत...सगळ्यानय मरणाची सावळीच दिसत आसा न्हय...रक्तस्राव...106 डिगरी ताप...धात चुकल्ली बायल...चेरको भुरगो...सयरो जावन भितर आयल्लो. भितर येंवचे मंत्र मात शिकल्लो सादो...

धड्क करन उटोन रावलो:

अत्तराचो परमळ. लुयिजाचो उगडास: ताणे येंवची घडी लागी जांवच्याचे भोगप. भोंवतणी सगळयान तवळच काळक. पयशिल्या दिव्याच्या खांब्याथावन

मात मंद उजवाड. भाटांत हांव एकलोंच. न्हंयच्या उदकाथावन डीसेल तेलाची घाण: गंगावळी, साणेकट्टेचो उडास. बायलेभुरग्यांचो उडास. भितरल्ले नितळायेची समजणी. वाऱ्यांत आंग पोकरचें हिंव. उदकांत दिवो जळयल्ल्या तारवांचें लकलकच्या उजवाडाचें पडबिंब. वीजदिव्यांच्या उजवाडांत पेटोन रावल्लें न्यूयोर्क स्कायलाय्न. आयकाल्लेबरी जाल्लो मेटांचो आवाज? न्हय आसतलो कोण्णा म्हणतासतानांच - कितें करन आसां म्हळ्ळें समजोंचेआदीच - सीट सोडून आमसर आमसरान पारकाचे आन्येके गेटिंतल्यान, व्हडल्या रसत्याक पावोन जाल्लें। हावें सुरू केल्ले करणेचो अर्थ जाल्ल्याखिणा, तेंय ह्याच रसत्यान आयलें तर म्हळ्ळी विजमितकाय उबजोन धांवोन धांवोन रसतो उतरोन 14वो क्रोस रोड पावलों. ते ह्या रसत्यान येंवकय साध्य आसा म्हण भोगल्लेंच विहाकेन रोडाक समांतर जावन व्हाळच्या आन्येक मुख्य रसतो जावनासच्या न्यू ऑरेंज रोडाक पावलो. सगळी लज सांडून धांवलों. मोचे घालच्या पायांनी आस्फाल्ट रसत्याचेर उटयल्ल्या आवाजाक हांवच भियेलों. आन्येक क्रोस रोड - थंयथावन आन्येक मेयन रोड - मेयन रोड, मेयन रोड - क्रोस रोड - क्रोस रोड - क्रोस रोड - मेयन रोड. देवा! विहाकेनांत इतले रसते आसल्ले म्हण कळितच नातल्लेमू. पयलेथावन आसल्ले? म्हाका धांवडांवकच आत्तांचे आत्तां उबजालेगी म्हण चिंतून धांवलों - रसत्याथावन बिदीक - बिदीथावन रसत्याक. कितलो वेळ तसो धांवोन आसल्लोंकि कळितच जांवकना. धांवणेचे पुरासाणेककि, भियाककि हांव कोणाक भियेवन अशें धांवोन आसां म्हणोन सयत उगडास जायनातल्लो. वेळ गेल्लेबरी हांव कोणाकय भियेवन धांवोंकना कोण्णा; कोणाककि सोदून धांवोन आसां कोण्णा म्हळ्ळयाची बिरमेत. उपरांतले घडये मन आयल्ले कुशीक धांवोन आसां म्हणोन समजोन आसतानांय हांव धांवोन आसल्ली, धांवोंक आसची कूस मात ह्या रसत्यांक कळीत आसा कोण्णा म्हळ्ळें नवेच रितिचें चिंतप उबजाल्ल्याखिणा तवळच येवन पावल्ल्या जम्यास्थानार अवचित रावलो. तशें रावताना ध्यानाक आयले: दोळयांसामखार आसची बिदीच म्हजें घर आसची बिदी - 13वो क्रोस रोड! बिदिच्या आन्येका पोंतार, दिव्याखांब्याच्या उजवाडांत, 'ये' म्हण आपवनच रावल्लेबरी रावल्ली घरची वळक मेळल्ल्याखिणा तवळथावन सोदून आसल्ली हेंच म्हळी रीत -ह ातांत धरन रावयजे म्हळ्ळेतितली जोर जावन - हरदे बडोकलागले. वेगीच घरा पावजे म्हणोन अत्रेग आसल्ल्याचेबरी धांवोकलागलो. घरचे गेटीक येवन पावताना दोळयांमुकार पातयेवक जायनासचें रूप - लुयिजा! आदीथावन म्हजी वाट राकोन गेटिच्या मुकारच रावलां! म्हजी वळक धरल्लीच- "डारलिंग, मस्त वेळ वाट पळेलीकि? आवयच्या घरा वचोन आयची रात एके इश्टिणेचे घराच सारतां म्हण फटी मारून येतापऱ्यांत तडव जालो. म्हजो स्वीटहार्ट भोगशितलो न्हय? तुवेंच आदी एकपावटी तुजे एपार्टमेंट हे बिदीर आसा म्हण सांगल्लो उडास आसा? तेच पातयेवन हागा येवन रावली:

इतलो वेळ पर्यांत तरय तुवें पारकांत आसोंक साध्यच ना. पारकातल्या काळकांत चुकिची गांट कित्या जांवचें म्हणोन शीदा हांगा आयलीं...मागीर म्हजो अदमास जाल्यारय तितलो विचित्र पळे! धांवोन धांवोन येवचें रितिनच कळल्लें - तुंच म्हणोन. तितल्या पयस थावन म्हजी वळक धरल्लीकि, डार्लिंग? ये, हांगा रसत्याचेर वेळ पाड करची नाका. टाकय तुजे गजरट.

हांव धांवोन धांवोन आयल्लें चूक समजल्ल्या लुयिजाच्या उतरांनी उमेद भरोन वोमतताली. तें रावल्लेंच आमच्या गेटीर म्हण कळकळयाउदगांत तरय. आंगावयलो भान विसरल्लेबरी कम ऑन...हांगा रावोन काणाची वाट राकजे जाल्या..." म्हळळेंच म्हाका वोडनच व्हरचबरी हातांत हात धरून वयर वचे शिडयेकुशी चमकालें. सोसूक जायनासचें उतावळीन मेटां चडोन वेच्या ताचेपाटल्यान मेटां काडून चलताना, ही शिडी सयत अरध्याघट्याच्याकय चड वीहाकेन्नाचे लांबायेरुंदायेक म्हाका धांवडायल्ले, वाकड्यातिकड्या रस्त्याचेंच आकरेचें पोंत म्हणोन पात्येनासतां रावोंक साध्य ना जालें..."सवकास मेटां दवर स्वीट हार्ट...शिडयेचेर आवाज जायना जांवदी...सकयल्या घराच म्हजी लॉन्डलेडी रावता...तिका कळचे नाका (हाब्बा! ही कसली कांय!) तुंच दार काड...धर चावी...लोव...आवाज जांवचो नाका..." जीब हालंवकच असाध्य जाताना उतर फकत कुरू जाल्लें.

(1973)

# थालें आनी चावी

ऑफिसाक भायर सरन रावल्ल्या केशवाच्या हातांत हरशेंचेबरी तें काळें लोंकडाचें व्हडलें थालें आयल्लें.

कुडाच्या दाराबगलेच्या स्टूलाचेर थालें लुगटाचे चिंदेन नितळायेन पुसून ताच्या बुराकांत बळान एकपावटी फुंकलें. काळ्या लोंकडाची ती व्हडली चावी थाल्याच्या बुराकांत घालन घुंवडावन, थालें सारकें काम करता म्हळ्ळें समाधान परगट करीत उटोन रावलो. वोणटीचेर खिळयाक उमकाळायल्ल्या आरशांत तोंड पळेवन आतां आफिसाक वचोंक आडखळ ना म्हळ्ळया चिंतपान दारवोंताभायर पाय दवरून दार धांपलें. खिळ घालन ताच्या आंकड्यांक थालें शिरकावन, चावी बुराकांत घुंवडावन भायर काडून जागरूतकायेन बोलसांत घालून, आंगणाक देवोन गेटीतेवशी मेटां काडीलागलो.

कंपांवडाच्या गेटीतेवशीं वचून, दुबावोन पाटी परतल्ल्या केशवाच्या तोंडाचेर खंत उमाळताली. वेवेगी दारालागीं पावोन, बोलसाथावन चावी भायर काडून दुबावोन थाल्याच्या बुराकांत दवरून घुंवडायलागलो. थालें उसालें कश्ट नासतां! तोंड जिकलें. समाधानाचो उसवास सोडलो. परत्यान थालें घालन बुरबुरोच धाडामां अरनिल्ल्या निचेवान गेटीतेवशीं चललागलो.

## 2

ट्रेनाच्या जनेलाथावन पयस खंयकि दीश्ट लावन बसल्ल्या केशवान मोनको देंवचार म्हणोन आपणाक पळेवन विचित्र रितीन हासल्ल्या त्या दोगां चेडवांचे दोळे उगडासाक येवन आसड्यो रुंदायल्यो. मुकारच बसोन हाच्यो चटावटीच पळेवन आसल्लो गुजराती म्हातारो एकलो आपल्या दाट मिश्यांचेर हात भोंवडावन, हो आपणा तेवशीं घुंवच्या खिणाकच राकोन आमुरपिको हासलो. आकरेक तरय आनीक राकची सोसणीकाय ना म्हणतेल्याबरी, "भोगशिया, तुमकां ती चावी नाका जाल्या? तशी धरल्यार ती जनेलाभायर पडना?"म्हणालो.

केशव बसल्लेकडेच उडोन पडलो. बोलसांत तितले जागरूतकायेन आसल्ली चावी हातांत केदळा आयलीकि म्हण आजाप जावन, "अरे!" म्हणालो. ती परत्यान बोलसांत घालिजे म्हणच्यावेळाक त्या म्हाताऱ्यान वोडन घेंवचेबरी हात मुकार हाडन केशवालागची ती काणघेली. केशवाचे तोंड विचित्र भियान खिणान बदल्ले. कांपचे हात मुकार करताना म्हातारो: "हाब्बा कितली व्हड चावी! धरल्ली रीत पळोवन, तुमी खंय ही जनेलाभायर उडयतातकि म्हळ्ळो दुबाव आयलो. ही बोंबंयंत खंय पुणय घेतल्ली न्हय जाव्येत न्हय?" म्हणालो... माविनकुरवेचे थाले तें. माविनकुरवे म्हळयार म्हज्या जिल्ल्यांतलो एक गांव.

थाल्यांखातीर नावाडदीक. हाका हें पुरा कित्या समाजलें भागलें. म्हाकाच मटव्यान "म्हज्या गावाथावन येताना, आवयन दिल्लें थालें तें" म्हणल्लें" दुसऱ्याखिणा हें तरय कित्याक सांगलें आसल्लेंकि भागलें.

आतुराय भरल्ले दिश्टीन सारकी परिक्षा करून "चावीक इतलें व्हड करपाक थालें कितलें व्हड आसानाका" म्हणान म्हाताऱ्यान चावी केशवाच्या हातीं दिली. बरी करून दवरा, खंय भायरपडून वचत" म्हणाली. मातशें रावोन, "चावी होगडायल्यार असलें थालें मात्कय कश्ट न्हय?" म्हणाली. आनिकय थोड्यावेळाउपरांत "बोवय तसल्या गावांत असल्या थाल्याची गरज आसा हांव" म्हणालो...

## 3

ट्रेनारथावन देवताना, देवोन ऑफिसाकुशीं चलताना, केशवाचो हात पॅन्टाच्या बोलसांत आसल्लो. बोलसांत दवरल्ले चावीक भद्र करून धरून आसल्लो आफिसाच्या बांदपाक पावल्लोच आमसर आमसरान लिफ्टीक रावल्ले क्यूंत वचून रावलो. क्यूंतल्या एकदोन तोंडाचेर वाळकिचें हांसो प्रकासलो. पुण केशवाचें चिंतेस्त तोंड फुल्लेंना. चावी धरल्लकडच तळहात चिकश्श जाल्लेबरी जावन गिजगिजी भोगले. मूट सडिल करून चावी बोलसांतच सोडून हात सवकास भायर काडलो. आन्येका बोलसांतल्यान तुवालो काडून तळहात सारको पुसलो. गोमटेंचेर पातळ मांडल्लो घामय पुसलो. लिफ्टीचेर वचो आपणाची सरती आयल्ली पळेवन, तुवालो, चावी आसल्ल्या बोलसाकच घालून, चावी तुवालो दोनय मुटींत घट धरले. लिफ्टीचेर एकलो दोग आपुण बोलसांत हात घालून रावल्ले रितीक वेंगय हासल्लेबरी जावन, कळवळान तांचे दोळे चुकयले. चवते माळयेक येवन लिफ्ट रावली. केशव भायर आयलो आनल्या आफिसाक रिगोन, आपुणं बसच्या जाग्याक गेलो. तितल्यारच थंय हांगा यवन बसल्ल्या सांगात्यांपयकी थोडे बसल्लेकडेंच हल्ले, गुडमॉर्निंग म्हणाले. केशवान यांत्रिक रितीन पाटी जाप दिली. तांचे तेवशी पळलेंना. एकले दोग सांगाती आपणाआपणायतल्याक उलयलागले. हो पयलें अस्सो नातल्लो न्हय? आयलेवार तरय हासचेंच विसरल्लेबरी आसा. केशवाक हे आयकोकना. आपुण सदां बसच्या मुल्याक पावल्याउपरांत थंयची कदेलां मेजां आपल्या सदांच्या जाग्याथावन मस्त हाल्ल्यांत म्हळळें पळोवन बेजार जालो. कांपीण मारून आफिसाच्या चपरासीक आपवन कदेलां मेजां हणतणे केल्लविशीं जार केलें.

चपरासी माफ मागीत कदेलां मेजां पयले आसल्लेबरीच दवरिलागलो. दवरताना इतलें सकड जाल्लें ती म्हातारी लाकडवालावरवीच न्हय म्हण चिंतलें. तिणेंच काल सांजेर रावचन करयल्लें काम हें. तिणें हें सगळें नदींस जालें. पुण आपुणच, आपणाक कित्याक हो अधिकपरस्न म्हणान ताचें खबरेक

वचूंकनातल्लों. काल ऑफिसांत तडव करून बसल्ली ही म्हातारी केशव भायर सरून गेल्या उपरांत रावोन करयल्यार तो तरय कितें करतलो? परत्यान हें तिणे कोणाखातीर करयल्लें म्हळें तो जाणांच: संजीविनी! तशे पळेल्यार ह्या दोगांयनी सोबीत जोडें जायजे. आफिसांतल्या हरयेकल्यांचें चिंतप हें. ताकाय हो म्हळयर कितलो जीव. पुण हो एकलो विचित्र. एकल्याचो तरय हाणे मोग केल्लो आसाकि नाकि. पळेंवक कितलो सोबीत आसा मागीर. आमचे हे म्हातारेक तरय खंय नातल्ली हुमेद हांकां दोगांयकय लागीं हाडिजे म्हणोन.

चपरासी आपलें काम संपवन भायर सरून गेलो.

## 4

कदेलाचेर बसल्याउपरांत केशवाक मातशी सवकासाय भोगली. वेगळेंच कॉबिन मेळच्या तितलो ऊंच अधिकारी तो न्हय तरय आपल्या दाव्याक, उजव्याक तशेंच पाटल्यान आसल्ल्या गॉड्रेज तशेंच कारडेक्स कॉबिनेटांवरवी तो बसून आसच्या ह्या कोनशाक तसलें एक रूप आयल्लें. कोणायचेय दिश्टीक पडनाशें,कोणाच्याय प्रभावाक उंडी जायनाशें ह्या मिलावाच्या पांग्रणाभितर बसचें म्हळयार जिवाक धादोस्काय भोगताली. कंपणेचो मुखेल स्टॅटीस्टिशन तो. कंपेनीन तयार करच्या साबार रसायनीक द्रव्यांचें उत्पादन, डिमांडाक संबंद जाल्ल्या अंख्यासंख्याची विशेषता, अर्थविवर ताचें मुखेल काम. भोंवतणिच्या कॅबिनेटांनी ताका संबंद जाल्ली स्टेशनरी. मुकले वोणटिचेर तांबडे, निळशे, जांबळी बणांचे गीट आसल्ली चित्रां, समा मदल्या चित्राचेर पाटल्या आट म्हयन्यांचे उत्पादन तशेच डिमांडाक संबंद दाकंवचे रेखाचित्र. तांबडे निळशे गीट लांबायेक समांतर जावन धांवल्ले. दोनय खंयसरय एकाकडे मेळोकनातल्ले. डिमांड केदळाय उत्पादनाच्याकय मुकार आसल्ले. ऊंच अधिकारीक केन्नांय सुख दिल्ले रेखाचित्र...

पयस खंयकि चेडवाच्या कांकणांचो किणकिणो. नव्यारच माळल्ल्या कळयांच्या चाकाचो धोस्‌चो परमळ. ते आयलां जाव्येत म्हण चिंतले. आपल्या दाव्याक आसचें कारडेक्स कॅबिनेट आतां आसच्या जाग्याथावन मातशें मुकार लोटल्यार आवुण बसल्लेकडेच संजीविनी आपणाक दिसोकजाय...केशवान, दडबडोन उटोन बोलसांत हात घालो. सोदले. हो आसा! चावी आसा! तुवाल्याच्या इड्याक लिपोन रावल्या तितलेंच. दुसऱ्याखिणा लाकडावालाचो उडास आयलो. व्हय तिका ट्रेनार जाल्लें सांगजे म्हण चिंतीलागलो. पुण सदांचे सवयेबरी उदकाचो ग्लास हाडल्ल्या चपरासीथावन लाकडवाला आनिकय येवकना म्हणोन कळटाना, आपणाकच अर्थ जायनातल्ल्या विशेस कावजेणेक उंडी जालो. मुकल्या एका घंट्यापासून, हरयेक़ा पंदरा मिनुटांक एकपावटी तो लाकडावालाविशी विचारचे ुरू रितीक चपरासीकय कांटाळो आयलो. आकरेक

एकपावटी ती आयल्या म्हळ्ळी खबर कळटाना, आपणाक भोगल्ली सुटकेची भोगणां मुकारच रावल्ल्या चपरासीथावन चुकवचे प्रयत्न करनासतां केशव लाकडवाला बसच्या जाग्याक आपुणच उटोन वचोन "ही चावी तुमचेलागीच दवरा, म्हजलागी आसल्यार भायर पडत, साजार येताना पाटी घेता" म्हणालो. ताच्या विचित्र वर्तणाक बारी विजमीत जाली जाल्यारय, तें कुसकूट दाकयनासता सदांच्या ताळ्यान "जायत" म्हणान, आपलें वॅनिटी बॅग उगतें करून तातूं चावी दवरून ताचे तोंड धांपले. ती आतां चडीत भद्रेनेत आसा म्हळ्ळया भोगणान केशवाच्या जिवाक धादोस्काय भोगली. दुसरेघडय लाकडावालान तें चावयविशी कितें तरय विचारिजे आसल्ले भोगलें. पुण तिणे ताचविशी सब्दच काडीनासतां आपल्या पयशांच्या चिलाथावन दोन सिनेमा टिकेट्यो भायर काडून केशवाच्या हाताक दीत "सांजेचें कार्यक्रम उगडास आसा न्हय? आतां आफिसाक येवच आदीं मेट्रोक वचोन ह्यो हाडल्यो. संजीविनी कितल्या एके आतुरायेन बसल्या जाणांय? सांगाता बसोन सुखान पळेवन येया" म्हणाली, आवयच्या मयपासान. बाल्कनी सिटिंच्यो त्यो पाचव्या टिकेटी घेताना केशवाचो हात कांपल्लो लाकडावालाचे सुक्षीम दिश्टीक चुकलेना. टिकेट्यो बोलसांत दवरून आपल्या जाग्याक घुंवल्लो केशव दाव्या कोनशाच्या टेबलाच्या पाटल्यान आपणावयरच खंचल्ल्या संजीविनिचे दिश्टीतलो आमुरपिको हासो मतीक यतच नादळ्ळा. आपल्या जाग्याक पावोन कदेलाचेर बसल्याउपरांत पोटांत उटल्ले तळमळ काडूंक दोनय धोंपरां वयर उक्लून पोटाक दांबिजे म्हळ्ळया पिशा विचाराक आपुणच हासोन दुसऱ्याखिणा भियेलो.

## 5

मेट्रो थियेटरांत शीतल वातावरण. आपलो जलमाजागो दाकयनासतां वयरथावन रिगोन येंवचो मंद उजवाड. सुख जोडुंकच म्हणोन येवन बसल्ल्या लोकाची हुमेद. वाऱ्यांत सगळया पातळ पसराल्लो सुगंधद्रव्याचो परमळ. नवार तेंपाथावन वाट राकल्ल्या केशवाच्या सांगातांत संजीविनिची, तरणाटपण भरल्ले कुडिची लोंव उबी जाली. केदळाकि पळेवन मेचवाल्लें ताचें शांत सोबीत तोंड थियेटरांतल्या मोवउजवाडांत आनिकय सोबीत दिसलें. नाक, आसड्यो, कान, गाल, तकलेचे केस, एकेकच सुक्षीमायेन परिक्षा करताना, मेचवताना संजीविनिचे दोळे ताच्या वोंटांचेर रोंबले. खंयच्याय तरन्या चेडवाकय पिशारघालची मांड भरल्ले वोंट. केशव, आपणाचोच जाल्ल्या भोगणासंसारांत बुडल्लेबरी मुकल्या पडद्याचेर दीश्ट फांकवन बसल्लो जाल्ल्यान ताच्या तोंडाची दावी कूस मात संजीविनीक दिसताली. ताच्या वोटांचे दावेकोनशे पळोवन आसताना ताणे आपणाकुशी घुंवजे म्हळ्ळी आशा बळ जाली. "करूंकि सोडूंकि" म्हळ्ळे अडचणेचे मनास्थितीत कदेलाच्या हाताळयाचेर दवरल्लो आपणाचो हात

सवकास काडून केशवाच्या हातालागी दवरलो. तो सोबीत हात आपडिजे म्हळ्ळी आशा भरोन आयल्यारय कित्याककि तशे करचें धयर जांवकना. पुण दादलो जाल्ल्या केशवानच तशें केल्लें तर...म्हळ्ळो विचार मनांत रिगनासतां गेलोना. केशवान मात पडद्याचेर खंचयल्ली दीश्ट काडलीना. स्लायडां पळेंवचें पिशें तें कसलेंकि (म्हजे तसलें सोबीत चेडूं कुशीन बसताना!) -संजीविनी मनांतच हासलें. आनिकय म्हजेकुशी पळोंवक लजता. सिनेमा पळोंवक म्हजेसांगाता येतां म्हण ओपल्लेंच पयले आजाप. लाकडावालाच्योच हिकमत्यो ह्यो पूरा. कशें फुसलांयलेकि! "मुकलें पूरा तुज्या हातांत चेडवा" म्हणोन पोकरीपणान गाल किमचिल्लो.

## 6

थियेटरांतले दिवे पालवले. सिनेमा सुरू जालो तरय केशव बसल्लेकडचो हाल्लोना. वोंट उसालेनांत. ताणे आपणालागी उलयजे आसल्लें भोगलें संजीविनीक. ताचेलागी कितें सकड उलयजे आसल्लें ताका. ताची वोळक जाल्ल्या आट म्हयन्यांनी ताचेविशीं आपल्या हरद्यांत कितें सकड भरून घेतल्लें कि तें सकड उगतें करून दाकयजे. पुण दादलो जाल्ल्यानच मोनको घोटून बसल्यार! ताणे एकपावटी उलयल्यार पुरो आसल्लें. "ओपन सीसेम" म्हणचेंच तडव, माट्याचें दार एकदम उगतें जावन भितरलें रतनांकुडें दोळे कोंकच्यार आसल्लें. पुण माट्याभायर रावल्ल्याक पाप, "उगतें कर" म्हळ्ळें मंत्रच विसरल्लेबरी जाल्लें! संजीविनी राकोन राकोन थकलें. आकरेक आनीक राकची सोसणीकाय नातल्लेबरी आपणाचो हात सवकास काडून केशवाच्या हाताक लागयलो. आंगांत जुम जालें. पुण दुसऱ्याखिणा आपणाचो हात लागल्लो तो दादलो हात घामेला म्हण मतीक येताना मन चिवळ्ळें. वेळ गेल्लेबरी तो हात चड चड घामेवन थंड जाता भोगताना त्या हाताक आपडच्या आपणाचे आतुरायेविशी धयराविशी कांटाळो उबजालो. संजीविनीन आपणाचो हात एकदम वोडन घेतलो. आशेवन आयल्ल्या चेडवाच्या सांगातांत अशें चिंवळच्या दादल्यावयर तिरस्कार उबजालो. मुकल्या अरध्याघंट्यापासून संजीविनी राग, तिरस्कारांनी चडपडोन "विरामकाळाचे" घडयेकच राकोन रावल्लें. आकरेक एकपावटी तें येवन थियेटरांत परत्यान उजवाड भरताना, आपणाचो राग दांबून दवरूंक प्रयतन करनासतां केशवातेवशी पळेलें. केशव आनिकय आपणाकुशी पळेनासतां रावल्लो पळेवन "चिक्के भायर वचोन या कि?" म्हण विचारलें. पुण कित्याककि केशवाथंय उटची सकत ना जाल्ली. प्रयतन करून उटोन रावताना, थियेटराच्या शीतल वातावरणांत ताचें तोंड, हात, बावळे घामेल्ली रीत पळोवन ताचेर उबजाल्लो कांटाळो सारको दाकवन, थंय रावनासतां, थियेटराभायर चलते रावले. ताच्या तोंडाचेर तवळ उबजाल्लो तिरस्कार पळेतच केशव

रावल्लकड रावोक जायनामता कदेलाचेर निराशान कोसळ्ळो. "विराम काळाचा" वेळ मुगदोन सुरू जाल्याउपरांत तो आनिकय कदेलाचेर बसूनच आसल्लो. पुण मुकल्या पडद्याचेर दिसान आसल्लें त्या दिसाचें पिंतूर न्हय - थोड्यावेळाआदींच आपणाक सोडून वेताना राग, तिरस्कार दाखयल्ल्या चेडवाचें पिंतूर. चिंताचिंताना केशव सांगोक नजो जाल्ल्या भियान कांपलो.

## 7

सिनेमा सोपले. केशव थियेटराभायर आयलो - यजायीच जाल्ल्यान. मतीक खंयचेयविशी विचार करची ताकतच नातल्ली. यांत्रिक रितीन चलुनच क्वीन्स रोड पावलो. चरनी रोड स्टेशनांत तवळच येवन रावल्ल्या ट्रेनाच्या राग वोकच्या दोळयांतसले दिवे पळेताना हरद्यांत झल जालें. किर्कीर नासतां एकपावटी व्हडल्यान शिळोणी घालून ट्रेन गेले. स्टेशनाच्या भायला सिग्नल दिवो पाचव्याथावन तांबड्याक घुंवलो. कित्याककि घरा पांवची आतुरायच नातल्ली मेटांनी. अशेंच भोवुनच वचजे आकेर सुरवात नातल्ल्या खेतवाडीच्या ह्या गल्लेंनी, भोगलें. पुण मेटां मात यांत्रिक जावन घराकुशिनच परतताली.

आकरेक एकपावटी घरामुकले गल्लेक पावताना रातिची बारा उतराल्ली. उजवाड उणो जाल्ली, जागमाग नातल्ली ती वाट आपले एकसुरपण याचारताना मन कांपलें. वोणिच्या आन्येका पोंताच्या दिव्याखांब्याच्या पोंदा रावल्लो एक पेटो हाका पळेल्ल्याखिणा विकारभरीत घोंकून मायाग जालो. वोणिच्या तिरकासाचेर कोबाचो गाणोय तवळच रावल्लो. गाण्यामुकारच रसत्याच बगलेन घाल्ल्या चारपायाचेर तकलीपऱ्यांत मुसकू वोडून निदल्लो भय्या निदेंतच 'हाय रे राम' . तवळ झळकोन मायाग जाल्ल्या पेट्यान खंयच्या कोनशाथावनकि आन्येकपावटीं 'राग' वोडलो. पयस आपलें घर आसचें बांदप दिसतच केशवाचे चालीचो वेग चडलो. आकरेआकरेक धांवोनच गेटीलागी पावलो. चारांय कुशिंनी उटोन रावल्ल्या पापांच माळयांच्या बांदपांवरवी कोट्याबरी दिसची ती चाल भुताचें रूप पांगरून रावल्ली. मध्यान रात मिरवल्ल्या त्या वेळार चालीत थंयसर हांगासर जळचे दिवे चालीचें रागिष्टपण स्पश्ट करताले. कांपची मेटां दवरून आपल्या कुडातेवशीं पावल्ल्या केशवान कुडाच्या दाराक घाल्लें तें व्हडलें थालें पळेल्लेंच, किंक्राटच्या तितल्या भियान पेंटाच्या बोलसाक हात घालो. ना, निजायकय ना. चावी बोलसांत ना. गडागडा कांपलो. सोदलें. अरे! तवळथावन आपणाक ताचो उडासच कसो येवनाकि. अरेरे! चावी खंयकि पडोन गेल्या. सांजेर लाकडावाला थावन परतयान घेतल्याउपरांत ह्या बोलसांतच दवरन घेतल्ली न्हय! तितली पूरा जागरूतकाय वयशिल्ली न्हय! खंय पडान गेलीकि. थियेटरांतकि? आतां चलोन येतानाकि? चावी भायर पडल्या. आतां हें थालें कशें उगतें करूं? एकदम आफिसांतल्या कॉबिनेटांच्या चावियां घोसाचो उडास

जालो. बोलसाथावन चावयांघोस काडून एकापाटल्यान एक चावी धरून पळेली. खंयचीय समा वचोंकना. अय्यो! आतां कशें उगडूं? आपणाक अशें भायर दवरल्ल्या ह्या कुडाचें भद्र दार कशें उगडूं? केशव रावल्लेकडेच घामेंवकलागलो। कितेंकि उजळल्लेबरी भायर येवन व्हडल्या ताळयान बोब मारून सांगलागलो:

"कोण थंय? पळेया, म्हजी चावी भायर पडल्या. आतां हें थालें कशें उगडूं?"

दिवो आनिकय पेटोन आसल्ल्या पयले माळयेच्या एका घरांतल्या एका मानेस्तान वॅरांडाक येवन हाचेकुशीन आतुरायेन पळेलें. तूं कितें सांगतायकि म्हाका एकच अर्थ जायना म्हळ्ळेबरी परत्यान घरा वचून दिवो पालवयलो. पयले माळयेचेर आनी दोनकडे पेटोन आसल्ले दिवेय पालवले. केशवाचे कळवळे चडले. दुसऱ्याखिणा कसलो पिसो हांव म्हणालो. कन्नडांत बोब मारली न्हय, ताका कन्नड येताकि? विजमितकायेचे मनास्थितीत हावें हेवशीं विचारलेंच ना न्हय! म्हणोन मराठीत बोब मारून म्हणालो:

"कोण थंय? म्हजी चावी भायर पडल्या. आतां थालें उगडून भितर कसो वचूं?" खिणाक कोणय भायर आयलेनांत. उपरांत दुसरे माळयेच्या एका घरांत दिवे जळ्ळे. एके बायलेन भायल्या सोप्याक येवन हाचेकुशीन विजमितकायेन पळेलें. तूं कोण? अशें मध्यान राती कित्या मुरयो दिताय? तुवें सांगच्याचो अर्थच जायना न्हय म्हणचेबरी घरांत वावोन दिवो पालवोनच सोडलो.

दुसरी माळय सयत काळोकांत बुडल्ली. केशवाची विजमितकाय आनिकय चडली. हांकां हिंदी मात येता जाव्येतकि? आपणे सांगजे जाल्लें हिंदींत सांगल्यार कशें म्हण चिंतीलागलो. पुण सारके सब्दच मेळनातल्ले. आपणाकच पयले हिंदी सारकी आयल्यारकि! तिसरे माळयेच्या एका घरांत आनिकय दिवो आसल्लो. इस्पीट जमो जमला जाव्येत. तेग चवग जण मानेस्तांनी उलयल्लें, हासल्लें आयकतालें. केशव कान दीवन आयकोंकलागलो, ताणी उलंवची भास खंयची म्हळ्ळी समजोंक. एकलो मानेस्त भायर आयलो. ताच्या पाटल्यान हेर दोग आयले. कितेंकि उलवन व्हडल्यान हासले. केशवाक तांची भास समजोकना जाल्यारय ताळो चडवन इंग्लिषांत बोब मारून म्हळें,

"पळेया, म्हजी चावी भायर पडल्या. आतां थालें उगडूंक जायना न्हय"

जमल्लो जमो हाच्यो मुरयो कानार घालनासतां फासाळ्ळो. त्या घरचो दिवोय पालवालो. अरेरे! हांकां कोणाकय हावें सांगल्लेंच कळना न्हय. हांकां कळची भास तरय खंयची? खंयचे भाशेंत तर हांव हांचेलागी उलयतों? केशवाचें मन चडीत गोंदळ्ळें. आकरेक सकडांकय समजोचे पुरवजांचे भाशेंतच बोबाटलो.

"अय्यय्यो"

पांचय मळयांवयले दिवे एकचपावटी पालवोन काळकाचे राशीबरी रावल्ले

ते भुतारुपाचे चालीचें बांदप पळेत केशव रावल्लेकडेच कोसाकळो.

8

दुसऱ्यादिसा सकाळी भांवतणिच्या घरचे उटान पळेताना केशव आपल्या कुडाच्या धांपल्ल्या दारामुकारच मरान पडल्ला. एक चावयांघोस हाचे थकून मातसो पयस मेकळो पडल्ला. सासू म्हणचभितर खबर विस्तारान लोक जमले. जमल्ल्यांपयकी एकल्यान चावयांघोस उकलून एककच करून हातान थवे उगडचें प्रयतन केलें. पुण ताका जांवची चावीच तातूं नातल्ली. "हा हाकाच तर मध्यानरातीं कोणकि चावी भायर पडल्या, थालें कशें उगडूं?" म्हणान ओबाटच आयकाल्लें. म्हाका तेदळा अर्थच जांवकना" म्हणालो. वेळ गल्लेवरी खबर सगळया चालींत विसतारली.

सांज जांवच्यावेळाक घडल्ली सगळी एक परनी काणी जावन चाली भायरय विसतारली:

ते चालीतलो एक सोबीत तरनाटो मेलो खंय. चावी भायर पडोन घराक घाल्ले थालें उगडूंक जायनातल्ल्याक धांपल्ल्या दारामुकारच जीव होगडायला खंय!

(1963)

